व्हड आदरान, मौ. बस्ती वामन शणॉय
हांकां - भेंट
- सौ. रजनी अशोक




# नियतीची आशाढ पांवळी

(कथासंग्रह)

रजनी अशोक भेंब्रे



# नियतीची आशाढ पांवळी

(कथासंग्रह)

रजनी अशोक भेंब्रे

प्रकाशन क्र. 26

पयली आवृत्ती- 2018



**टायपसेटींग आनी छापणावळ :**
रिया ग्राफिक्स
ओल्ड गोवा,
तिसवाडी, गोंय

**चित्रकार :**
परेश नरेन्द्र कामत

**प्रकाशक :**
अवधूत आमोणकार
राजाई प्रकाशन,
आमोणें, केपें,
गोंय-403705
मो. 9823575623

**मोल : रु. 180/-**

# Niyatichi Ashad Paualli

(Short-Stories)

**Rajani Ashok Bhembre**

Publication No. : 26

First Edition: 2018



**Typesetting & Printing :**
Riya Graphics
Old Goa,
Tiswadi, Goa

**Cover :**
Paresh Narendra Kamat

**Publisher :**
Avadoot Amonkar
Rajaee Prakashan,
Amona, Quepem,
Goa-403705
M. 9823575623

**Price : Rs. 180/-**

# प्रकाशकाचे वतीन...

रजनी अशोक भेंब्रे म्हणल्यार आमची रजनीताई. फाटलीं सुमार तीस वर्सां वयर काळ ती कोंकणीच्या मळार वावुरता. भाशा चळवळींतली एक सक्रीय कार्यकर्ती. तेच बरोबर एक सर्जनशील लेखिका म्हूणूनय तिची वळख आसा. तिच्या लेखनाक सातत्य आसा. कथा हो प्रकार ती प्रामुख्यान हाताळटा. भुरग्यां खातीरय तिणें विपूल अशें साहित्य रचलां. काणयो, कुवाडीं, नाटकुलीं, चरित्रां हे प्रकार तिणें भुरग्यां खातीर बरयल्यात. पेशान एक शिक्षिका जाल्ल्यान नवे पिळ-गेचेर बरे संस्कार जावचे हो तिच्या लेखनाचो आत्मभाव. भुरग्यां खातीर साहित्य निर्मणी करपाचेर तिचो भर आसा. 'हांणी घडयलें गोंय', 'गोंयची माणकां-मोतयां,' 'फाकिवंत गोंयकार' ह्या तिच्या चरित्रात्मक स्वरुपाच्या तीन पुस्तकांची ह्या संदर्भात मुजरत उल्लेख करपाक जाय. तिच्या कथा साहित्यांतल्यानय ती एक आदर्श समाजाची अपेक्षा करता.

गोंय मुक्ती उपरांत मेकळो उस्वास घेवपाक लागिल्ल्या मध्यम वर्गीय समाजाक पिडटले प्रश्न हें तिच्या कथांचे विशय. स्त्रीवादी कथा नासल्यो तरी तिच्यो भोवतेक कथा स्त्रीमनाचे कंगोरे आनी आंवडे मांडटात. सरळ पूण ओघवती भास आनी संयमी शैली हें तिच्या कथांचें वैशिश्ट्य. तिच्या कथांतलीं पात्रां हीं सोशीक, वांट्याक आयिल्लें जीवन मुकाट पणान जगपी, आनी सामकेंच असह्य जाले तरूच आवाज उठोवपी.

सुमार तीन दसकां आपलें कथाहोत्र शांतपणान पेटयत दवरपी रजनीताईंन

फाटल्या वीस वर्सांत बरयिपल्ल्या वेंचीक कथांचें हें पुस्तक उजवाडावपाची संद आमकां मेळ्ळी, हें आमचें भाग्य. तिच्या कथांचो हो दुसरो संग्रह. पयलो संग्रह 'घुस्मट', जाका कोंकणी साहित्य मळार बरो येवकार मेळ्ळा. ह्या संग्रहाकय बरो प्रतिसाद मेळटलो अशी आस्त बाळगितां.

पुस्तकाचे निर्मणेंत जांणी जांणी आदार केलो तांकां सगळ्यांकें दिनवास.

**– डॉ. जयंती नायक**
कार्यभारी
राजाई प्रकाशन

म्हाका उमेद, उत्तेजन
आनी सांगात दिवपी
म्हज्या घरकाराक
**श्री. अशोक दामोदर भेंब्रे**
हांकां
नमळायेन अर्पण.

– रजन

# पुर्वप्रसिद्धी

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. | कुलदिप | जाग दि. अ. | 2016 |
| 2. | मोगाची तरा | कोंकणी दि. अ. | 2015 |
| 3. | यादिंचो करण | कोंकणी दि. अ. | 2014 |
| 4. | भंगिल्लें सपन | सुनापरांत चवथ अं. | 2010 |
| 5. | उजू वाट | सुनापरांत चवथ अं. | 2012 |
| 6. | जीण एके अस्तूरेची | बार्देस को. अ. कें. व. अ. | 2009 |
| 7. | उजवाडाचीं किर्णां | सुनापरांत चवथ | 2009 |
| 8. | अतृप्त | सुनापरांत चवथ अं. | 2008 |
| 9. | मनसंवेदना | कोंकणी दि. अं. | 2013 |
| 10. | अंदल्ले उस्वास | ल्हारां | 1988 |
| 11. | खेळ नियतीचो | कोंकणी दि. अं. | 2010 |
| 12. | खिणयाळें सूख | बिम्ब दि. अं. | 2009 |
| 13. | निर्णय | बिम्ब दि. अं. | 2013 |
| 14. | एक बळी चंगळवादाचो | बिम्ब दि. अं. | 2013 |
| 15. | नियतीची आशाढ पांवळी | अनन्य - जुलै ते डिसेंबर | 2016 |
| 16. | कापाज | | |

# मनोगत

1992 वर्सा म्हजो 'घुस्मट' हो पयलो कथासंग्रह उजवाडाक आयिल्लो. हेमा पुंडलीक नायकान, अपुरबाय प्रकाशन, वळवय - गोंयच्यान तो उजवाडाक हाडिल्लो. ताचे उपरान्त आज म्हजो दुसरो कथासंग्रह 'नियतीची आशाढ पांवळी' उजवाडाक येता.

हांव बरोवपाचें थांबूं नासलें. म्हजें बरप सातत्यान चालूच आसलें. पूण काळाची गरज म्हूण हांवे बालसाहित्य रचपाक सुरू केलें. आज मेरेन हांवें बालसाहित्याची 20 पुस्तकां उजवाडाक हाडल्यांत. निबंद V ते VII, III आनी IV नाटकुलीं, चरित्रां, नाट्य कलाकार, तियात्र कलाकार, गावपी कलाकार, साहित्यीक, सुटके झुजारी आदी.

बालसाहित्याचें काम चालू आसतनाच खूबश्यो कथाय बरयल्यो पूण पुस्तक रुपान त्यो उजवाडाक हाडूंक पावलें ना. ही खंत मनांत उरली.

म्हजो जल्म मध्मवर्गी कुटुंबांत जाल्ल्यान म्हजी नदर सदांच मध्यमवर्गीयांची, तशेंच गरीब दाट्याच्या दुख्खांकडेन चड ओडट्टा. वेगवेगळ्या कारणांक लागून मनशां जिवितांत फटवतात. खूब फावट परिस्थिती तांकां गुलाम करता. कांय समाजाच्या समज-अपसमजांक लागून चिड्टतात.

परिस्थितिचो फायदो घेवन दुसऱ्याक पिळून काडपी वृत्ती समाजांत आसा. अश्या वृत्तीक असहाय्य पणान सामकार वचपी मनशां दुख्ख, छळ, अत्याचार, अपमान सहन करतात. कांय वेळार परिस्थितिक प्रतिकार करपाचो यत्न करतात.

आनी दुख्ख गिळून नवे उमेदीन जगपाचो यत्न करतात.

आपल्या फायद्याक लागून अनितिचो मार्ग आपणावपी मनशां आनी तांचें कपट आनी छक्के पंजे पळोवन जीव घुस्मट्टा आनी लेखणी हातांत येता. कथेची निर्मणी जाता. अशेच घाटणेच्यो कथा 'नियतीची आशाढ पांवळी' कथा संग्रहांत आसपावल्यात.

म्हजी इश्टीण जयंती नायकाकडेन उलयतना म्हजी खंत उक्ती जाली आनी ताणें ती उखलून धरली. म्हाका उतर दिलें आपूण राजाई प्रकाशनाचे वतीन म्हजें पुस्तक उजवाडाक हाडटा म्हण.

म्हणून आज 'नियतीची आशाढ पांवळी' हो कथा संग्रह उजवाडाक आयलो.

राजाई प्रकाशनाचे धनी श्री. अवधूत आमोणकार हांचें हांव भोव उपकारी आसा. तशेंच म्हजी इश्टीण जयंती नायकाचे उपकार हांव मानूंकच शकना.

**– रजनी अशोक भेंब्रे**

# मांडावळ

# 1 कुलदिपक

दीस सोपून सोंपनाशिल्ले. रघुवीरालें घरांतलें वातावरण धवळून गेल्लें, ताचो असर अजून मेरेन निवळूंक नासलो. ताका लागून हालींसराक सुरंगाच्यान घरांतलें कसलेंच काम जायनासलें. रांदप सोडच पूण हांगाची वस्त थंय दवरप लेगीत तिच्यान जायना जाल्ली. भलायकेच्या अशक्ततायेपरस तिच्या मनाक चड अशक्तताय आयिल्ली. आपल्या हातान च्याचें कोप घरकाराक दिवप जायना आसलें. आवयची अवतीकाय पळोवंक नजो जावून धूव ज्योतीन एक बायल मनीस घरांतल्या कामां खातीर दवरील्ली.

रांदपाचें काम बायल मनीस करताली. पूण सुरंग आनी रघुवीराक अन्नाची वानसाच ना जाल्ली. दोगांय एकामेकाचीं तोंडां पळयत कश्यो-बश्यो दोन उंड्यो गळ्या सकयल धुकलतालीं. धूव ज्योती नित्यनेमान आई-बाबाची खबर घेतालें. आनी वतना सदांच आवयक सांगतालें.

‘‘आई, जें नशिबांत आसा तें भोगूंकच जाय.’’

‘‘पूण बाय ज्योती, असो वनवास, असो भोगणार भोगचो पडत अशें केन्नाच चितूं नाशिल्लें गो.’’

‘‘आई, बाबाक पळय मगे? तुजे बशेन तो करता जाल्यार? ताका दूख्ख भोगना अशें तुका दिसता?’’

‘‘बाबा कितलोय जरी जालो तरी दादलो मनीस.... हांव आवय मुगो!!!’’

‘‘आवय आनी बापूय म्हणून वेगळेपण आसा?’’

‘‘आसा तर बाय ज्योती. णव म्हयने म्हजें रगत दिवून पोटांतल्या आकाराक

हांवें वाडयलो मुगो!!!''

आवय धुवेचीं हिं सदचींच उलोवणी आसतालीं. आवयक कितलेंय सांगल्यार उमथ्या कळश्यार उदक जातालें. पूण ज्योती आवयक धीर दिवपाचो यत्न करतालें. बसता थंय, उठ्ठा थंय सुरंगाक आपल्या पुताचींच चितनां येतालीं. दोळे धांपून न्हिदपाचो यत्न केलो जाल्यार न्हिद येवप ना. तकले वयर फॅन घुंवता तश्यो सगळ्यो यादी दोळ्यां सामकारा घुंवपाक लागताल्यो.

सुरंगाचें लग्न जावून लक्ष्मी-नारायणाचो जोडो कसो ताणें आनी रघुवीरान घरांत पावल दवरिल्लें. सुखी संवसाराचीं सपना रंगयतां-रंगयतां दोन धुवांक जल्म दिल्लो. पयले खेपे मांय आपलो घरकार जल्माक येतलो म्हूण उमळशीकेन वाट पळयताली. बाय जल्मलें. पूण तिणें तशें मनाक लावून घेतलेंना. मांयचे समाधाना खातीर तांणी दुसऱ्या भुरग्याचो विचार केलो आनी परतय बायच जालें तेन्ना मात तिका खूब वायट दिसलें.

पूण सुरंगान आनी रघुवीरान आनी-आनी पाळणो हालोवप ना हाचो ठाम पणान निश्चेव केल्लो. आवयक बरें दिसूं न दिसूं पूण बाब-बाब म्हणून बायांचेर अन्याय कर नासतना तांकां बरे तरेन व्हड करप अशें थारायलें. पूण मांयक नातवाचें तोंड पळोवपाची खूब उत्कंठा आसली. तिच्या सदच्या व्यवहारांतल्यान ती व्यक्त जातली. आपल्या कुटुंबाचें, आपल्या घरकाराचें नांव वयर सरतलें जाल्यार वंशाक दिवो जायच अशें ती सदोदीत चिंतताली.

दुसरें बाय दोन वर्सांचें जातकच एक दीस रघुवीर घरांतल्यान भायर सरला सो पळोवन मांयन सुरंगाक म्हळें....

''आगे, म्हाका खबर आसा, पूण....''

''कितें खबर आसा आई, हांव समजूंक ना, कितें म्हणपाक सोदता?''

''बायांची जापसालकी खूब व्हड....पूण''

''आई, तू कितें म्हणूंक सोदता तें आतां म्हाका लक्षांत आयलें....पूण नाका आई. म्हाका भिडेक घालूं नाका......''

''जांव गे भयणींक एक भाव आसचो अशें म्हाका दिसता....!''

''हय आई....म्हाकाय दिसतालें पूण दुसऱ्या खेपेय बायच जालें. आतां आमी चितलां इतल्यान पूर्ण विराम. बाब-बाय भेद भाव करी नासतना तांचें सगळें

व्यवस्थित करप. तांकां बरे संस्कार दिवून, बरें शिक्षण दिवून तांचो बरो फुडार घडोवप हिच आमची खोस आनी इच्छा आसा आई.''

''देव सगळें व्यवस्थित करतलो. देवान जीं फुलां पदरांत घाल्यांत तांची बरेतरेन जतनाय करपाक तोच आमकां आदार करतलो. म्हजो भावार्थ व्हड. तुमकां बळगें तोच दितलो. म्हणून सांगतां. म्हजें एकूच मागणें आयक.''

''आई भिरांत दिसता गे.... तुका जशी नातवाची आवड तशीच म्हाकाय आसली गे...पूण.''

''सुनबाय ....एकच फावट संद घे....म्हाका म्हजें मन सांगता... हे फावट आमच्या मना सारखें घडटलें. म्हजें आयक तूं... जाणटेलेचें मन राख. म्हाका दिसताच हे खेपे म्हजो घरकार जल्म घेतलोच घेतलो, आनी म्हजी इच्छा पुराय करतलो.''

मांयच्या भावार्था पसत आनी तिची मनकाळजांतलीं इच्छा पुराय जातलीच हो हावेस बाळगून निरूपायान म्हणटा तशें सुरंगान फुडें पावल मारलें. मांयचो भावार्थ खरो थारलो आनी ताका हे खेपे बाबू जालो. सगळें घर खोशयेन भरलें. मांयच्या तोंडावयली खोस पळोवन सुरंग-रघुवीर तृप्त जालीं. मांयच्या उतरा परस, मना विरुध्द वचून तांणी तिसऱ्या भुरग्याचो निर्णय घेतिल्लो. मांयक आपलो घरकार जल्माक आयल्याची खोस दिवपाक तीं कारणीभूत थारिल्लीं. मांयच्या खोशयेंत तींवूय वांटेकार जाल्लीं.

दबाजान बारसो जालो आनी नांव दिपक दवरलें. दिपकाक खंय दवरूं, खंय नाका अशें करता-करता दिशीं-माशीं तो व्हड जावूं लागलो. रुपेस्त आनी गुणेस्त तसोच तेजपुंज दिपक सगळ्यांची नदर आपले कडेन ओडून घेतालो. आजी तर ताका खिणभर लेगीत पातेनासली.

सुरंग-रघुवीरालो संवसार सुखान चलतालो. रघुवीर कस्टमात शिर्विस करतालो. घरचीय पारंपारीक येणावळ आशिल्ली. भुरगीं बरीं शिकतालीं. व्हडले धुवेलें शिकप पुराय जातकच रघुवीरान ताचें व्यवस्थित लग्न करून दिलें. तें आपल्या संवसारांत रमलें. धाकटें अजून शिकतालें आनी ताचे सांगातान दिपकय आपलें शिकप बरे तरेन करतालो. अशे तरेन सुखी घराबो आसलो. आनी कशी, केन्ना हाची सुलुस घरांतल्या जाणटेल्यांक मात लेगीत लागना आसतना अचकीत

ह्या सुखी घराब्याक वेर आयली.

बरो व्यवस्थित शिकपी दिपक हालींसराक अभ्यासाचेर फावो तितलें लक्ष दिना अशें सुरंगाक दिसूंक लागलें. विचारल्यार कित्याय कितें जापो दिवूंक लागलो. केन्नाच तिनसना भायर न रावपी दिपक हालीं वेळेचें भान दवरना जालो. रातीचो वेळान घरा येवपाक लागलो.

सुरवातीक थोडे दीस सुरंगान आनी घरच्यांनी ह्यो गजाली साद्यो अश्यो धरल्यो. पूण मॅट्रिकेचें वर्स आसून लेगीत अभ्यासाचेर लक्ष नासप हि चिंतेची बाब दिसली. शिकवणीचें निमित्य करून तो चडान-चड वेळ भायर रावूंक लागलो. चवकशी केल्यार दिपक शिकवणीकय सारखो पावना म्हणपाचें दिसून आयलें.

सुरंग तशी धुर्त सभावाची अस्तूरी. तिचे नदरेंत एक गजाल मुखेलपणान खटकली. दिपक हालींसराक सारखो जेवनासलो. जेवणाच्या पानार बसतकच कोंबड्यावरी जेवण उस्तितालो. कश्यो-बश्यो चार उंड्यो ताळ्या सकयल रिगयतालो. आनी उठ्ठालो. विचारल्यार ओगीच फडफडटालो.

दिपकाचें घडलां पूण कितें? तो असो कित्याक वागता? बारीकसाणेन चवकशी केल्या उपरांत घरच्यांक कळ्ळें-ताणें आपले बऱ्या इश्टांची इश्टागत सोडल्या आनी पाडे, समाजान हुंवाळून वडयले इश्टांचो सांगात धरला. जाय-जाय म्हणून मागून घेतिल्लो काळजाचो कुडको. ताचे वागणूकेन आनी कर्तुपान सगळींच चिंतेस्त जालीं.

आपलो पूत असो अस्वस्थ कित्याक? कितलो सुखी घराबो आसलो? सुरंग दिसूयभर चिंतेत उरूं लागली. दिपकाचे घडलां पूण कितें? ताका विचारल्याबगर कळपाक मार्ग नासलो. सुरंग चिंततालें, आतांच्या भुरग्यांचें कांयच सांगू नजो. आपणें विचारलें आनी ताचो विपरीत परिणाम जायत म्हणूनय तिका हुस्को दिसतालो. सगळ्यां हुजीर विचारूं जायना. मान अपमान, मन दुखावपाची भिरांत . तरणे पिरायेच्या भुरग्यांची मानसिकता केन्ना आनी कशी बदलत सांगूक जायना, अश्यो तरेच्यो घडणूको दिसपट्ट्यो घडटाल्यो त्यो वाचपांत येताल्यो आनी थरकांप जातालो. एक आनी दोन न्हय तर हजार विवंचना.

त्या दिसा आपल्याक घरा येवपाक वेळ जातलो अशें रघुवीर सुंरगांक सागून गेल्लो. हिच संद सादून सुरंगान दिपकाक सांसपुपाचो यत्न केलो.

''बाब दिपू, हालींसरा कितें जालां तुजें?''

''खंय....खंय, कितें जालां? दिपक गडबडिल्लेवरी जालो.''

''आरे कांयच जावूं ना जाल्यार तुजें कित्यारच लक्ष ना मरे ह्या दिसांनीं.''

''चल....चल....तुका ओगीच दिसता तशें.... खंय खंय कितें घडलां?''

''आरे, हांव तुजी आवय मरे पापया. आदलो म्हजो दिपू आनी आतांचो दिपू, अंतर पडत चल्लां तुज्यांत, हें हांव वळखूचीं ना तर कोण वळखतलो?''

''आई, तुका मिगे ओगीच दिसता तशें, आनी आई आतां हांव व्हड जालों ना गे?''

''जाला तर रे बाबा.....''

''मागीर तुमी म्हाका मात्सो मेकळो सोडता मगे. म्हाकाय व्हड मनीस जावूं नाका?''

''व्हड मनीस जातलो जाल्यार बरें शिकूंक जाय. बरें जेवण खाण करूं जाय. भलायकी बरी सांबाळूं जाय.''

''पूरो....पूरो ....तूजें लेक्चर जालें सुरू....हाका तूं मेकळेपण म्हणटा....?''

''आरे पूण तुका कोणे कसली जबरदस्ती केल्या?.....तुजें घरांत वागप बरें दिसना म्हणून आमी चवकशी करचींना तर कोण करतलो?''

''आई, तुमचें मगे सगळ्यांचें विचित्रच!''

''कितें रे विचित्र..... सारखें सांग हां.... कितें विचित्रपणां केल्यांत आमी जाय....जाय म्हणून मागून घेतला म्हणून तर तुका मावळींगावरी जपला मरे सगळ्यांनी....!!!''

''हेंच....हेंच म्हाका मानवना.''

''आतांच मानवना जालें?''

''हय, आतांच म्हाका ही अपुरबाय मानवना जाल्या.''

''कित्याक रे.... आं सांग मरे?''

''म्हजे इश्ट.... म्हजे इश्ट म्हजीं फकाणां, मस्कऱ्यो करताता.... म्हका आळूबाय म्हणटात.... म्हाका म्हज्या इश्टांवरी मेकळीक जाय.... म्हाका म्हजें इश्टां वरी ....मुक्तताय जाय.... ''

''आरे पूण.... मेकळीक, मेकळीक म्हण्टा ताचो अर्थ तरी सारखो सांग....

तुजे मेकळीकेची व्याख्या तरी सारकी कळ्ळूं दी."

"तूं रागार जांवची ना मगे?"

"आरे दिपू, तुजे उलोवण्या वयल्यान म्हाका कळून आयलां, तुकां घरच्यांची अपुरबाय हें बंदन दिसूंक लागलां, तर रागार जावपाचो प्रश्नच येना. मनांत आसा तें सांग सडसडीत... घुस्मटूं नाका... म्हाकाय तुजे विचार कळ्ळूंदी. बाबाक, दीदीक सांगूक मेळटले म्हाका."

"आई जॉकी बशेन म्हाका लिपचोरयां न्हय तर उघडेपणान सिगारां ओडूंकजाय... पान पराग, चघळूं जाय, रायू वरी पैशांनी इस्पिको खेळूं जाय...."

"कितें? तूं....तूं... तुका सिगारां ओडूं जाय? इस्पिकांनी.... पैशांनी खेळूं जाय?"

"आई तुका अजाप कित्याक जालें? म्हजे येदे भुरगे, म्हजे वांगडी हें सगळें करतात.... जाल्यार हांवच कित्याक बंदिस्त रावूं?"

"दिपू, पुरो....पुरो... आनी फुडें उलोव नाका पुता....तुजे विशीं कितलीं उमेद बाळगिल्ली हांवें.... पूत म्हजो सगळ्या गुणांनी संपन्न जातलो....घराब्याचें नांव वयर काडटलो...."

"आई ....म्हाका सांग, सिगार ओडलें, पान खालें, पान पराग चघयळें, पयश्यांनी इस्पिकानीं खेळ्ळों म्हणून हांव व्हड मनीस जांवचो ना अशें तुका कित्याक दिसता?"

".....दिपू ....पुता सदांच बरी देख घेवची...."

"आनी ही देख वायट म्हणून कोण सांगता...? सवंसारांत व्हड मनीस जाल्यात तांणी केन्ना वेंसनां केलीं नात म्हणून तूं जाणां?"

"नाका रे पूता आनी कांयच सांगू नाका."

"आई तुका सांगूकच जाय.... हांवें खूब पयशे एकठ्यांय केल्यात... जाणां तूं कशे ते? हांव आतरे पयऱ्यान तिनसानां घुंवळी वखदां......हॉटेलार पावयतां."

"दिपू राजा, हें....हें....हें....तूं कितें सांगता रें....?"

"हय आई, तुवें म्हाका सगळें खरें खरें सांग म्हळां म्हणून हांव खरें तेंच सांगतां. आनी म्हजो बापूय कस्टमांत आसा. हांव बऱ्या मनशालो भुरगो म्हणून आज मेरेन म्हजो कोणाकच दुबाव येवूंना. म्हाका कोणेच हटकूं ना, आनी कोणच

हटकुपार ना.... हाची म्हाका पुरायेन खात्री आसा. म्हजो दुबाव कोणाकच येंवचो ना..."

"दिपू , ल्हानपणांतल्यान बऱ्या संस्कारांत व्हड जाल्लो भुरगो तूं ह्या वादळांत केन्ना सांपडलो आनी घुस्पलो हाची इल्ली लेगीत सुलूस घरांत कशी रे लागली ना? दिपू, शाण्या दिपू.... आजवेर जालां तें जालां.... पूता.... बाबाक हांतलें कांयच सांगना पूण... आयच्यान फाटींसर... फाटींसर हे वाटेवयल्यान."

"ना... आई ....ना. म्हाका व्हड मनीस जावपाचो आसा. तूं कित्याक भियेता? शिकूनच व्हड मनीस जातात त्यो गजाली फाटीं पडल्यो..."

"आतां तूं म्हजे आयकतलो काय.... लावूं कानसुलार....?"

"आई, म्हजें वांगडी, इश्ट म्हाका शामळू म्हणटात. तांकां म्हाका दाखोवन दिवचें आसा....!"

"कितें रे इश्टांक दाखोवन दिवचें आसा....? आनी....आनी कितें उल्लां दाखोवपाचें....? हांवें केन्ना चिंतूं नाशिल्लें, म्हजो पूत इतलो-इतलो फुडें पावत म्हणून....!!!"

"आई, म्हजे वांगडी चोरयां सिगारां, पानपराग हीं वेंसनां करतात.... पूण हांव तांच्या काय खूब फुडें पावलां, ह्या गजालींची सुलुस तांकां अजून मेरेन लागूं ना. जाणां तूं आई घुंवळी वखदां पावोवपांत हांव तरबेज जालां.... म्हका शामळू म्हणटात? तांकां म्हजे व्हडपण आनी धिटाय कळटकच.... तोंडार थापट पडिल्ले वरी जातलें... आई जालें म्हजें सांगून... "

तट्टास जाल्ल्या सुरंगाच्या कानांत तेल ओतिल्ले वरी आवाज पडलो "आई-आई गे....म्हाका वेळ जाता....आज म्हका मात्सो बेगीनच कामार आपयला. तूं भिवूं नाका गे.... तुगेले पयलींचे विचार सोड आनी नवे विचार आपणाय... येतां आई.... रोखडोंच येतां."

"आरे.... जेव....जेव तरी पापया... आरे... आरे तिनसानेचो असो उपाशीं वचनात. दिपू... राजा दिपू...."

"आयलो गे हांव रोखडोच आयलो...."

सुरंग कच्च करून आंग काडून जागें जाता "दिपू आयलो, आयलो, दिपू... दिपू... म्हाका येता म्हणून सांगून गेल्लो तो आयलो...आयलो..."

“सुरंगा अशें कितें करता गो? म्हाका पळय मुगो...आं...आमचो दिपू आतां केन्नाच न येवपाचे वाटेर गेला हें तुका खबर आसा. पूण तूं जाणां जावूंन नेणार कित्याक जाता?”

लिपचोरयां घुंवळी वखदांचो वेवहार करतना पुलिसांच्या फार पेटांत गेलो गो आमचो दिपू... गेलो गो आमचो दिपू....

....ना....ना.... आमचो दिपू न्हय तो... पोलिसांच्या फार पेटांत मेला तो आमचो दिपू न्हय. म्हाका रोखडोंच येतां म्हणून सांगिल्लें ताणें. जेवनासतना, उपाशींच धांविल्लो म्हजो दिपू.... दिपू.... दिपू.... म्हज्या काळजाचो कुडको दिपू.... पुताच्या यादीन....

....सुरंगाच्या हुंडक्यांनी परत एकदां घर भरलें.



2

# मोगाची तरा

"मम्मी - मम्मी" निकतेंच स्कुलांतल्यान आयिल्लें रितू धांव धांवतच घरांत भितर सल्लें. आज स्कूल बशीची वाट पळयत मम्मी गॅलरींत ना हें पळोवन रितूक अजाप जालें. रितू स्कूलांतल्यान येवपाचो वेळ जालो म्हणटकच मम्मी सदांच गॅलरींत उबी आशिल्लीं पळोवपाची ताका इतली संवकळ जाल्ली की मम्मी गॅलरींत ना म्हणटकच तें उचांबळीत जावन धांवतच दोन-दोन सपणां चडत, उडक्यो मारीत "मम्मी - मम्मी" करून भितर सल्लें. हें कितें' मम्मी रडटा?

"मम्मी मम्मी कितें जालें गे? मम्मी तुजी तकली उसळटा? काय जोर आयला?"

मम्मी जाप दिना तें पळोवन रितू रडकूरें जालें. "मम्मी सांग मगे? पळय हां, ना जाल्यार हांवूय रडटलें."

माणकुलें रितू आवयक रडट्टा तें पळोवन कांचवेल्लें. आजवेर रितून आपले आवयक रडटना केन्नाच पळोवंक नासलें. रितूचो आवाज कानांत पडना फूडें रेखा तनरेंतल्यान जागें जालें. रडून-रडून ताचे दोळे भिंडावरी तांबडे गुंज जाल्ले. तोंड सुजिल्लें. रितूक दिसनाशें करून ताणें सडसडीत दुकां पुसलीं. "हांव खंय रडटा गो?" ओगीच तुका दिसलें. अशें म्हणून रेखान रितूक वेंगांत ओडलें.

"एकसारखें पुस्तक वाचिल्ल्यान दोळे भरून आयले म्हजे?"

"मम्मी, पुस्तक वाचिल्ल्यान दोळे भरले म्हणटा पूण तुज्या हातांत पुस्तकच ना मगे? मम्मी गे तूं... म्हाका... फटी... मारता मगे?"

रितू व्हडा व्हडान हांसलें. रेखा भितल्ले भितर घुस्मट्टालें. रितूक कशें आनी कितें सांगतलेंऽऽऽ

“आगो खऱ्यांनीच, कॉलेजांत शिकयतना पुस्तकां वाचून वाचून दोळे सामके भरल्यात. म्हजे अपुरबायेच्या रितूक हांव फट कित्याक सांगतलें? पळयलें तुवें? तूं येता काय म्हणून वाट पळोवपाक आज हांव गॅलरींत लेगीत उबें रावलें ना. म्हाका मुगो बाय आज दोळ्यांनी खूब त्रास दिलो.”

“तशें जाल्यार बरें आसा. म्हाका भंय दिसलो, मम्मी आनी कित्याक रडट्टा? मम्मी, मम्मी, गे च्या आनी खावपाक दी बेगीन. भूक लागल्या म्हाका. आनी ग्रांवडार शन्नू-मन्नू, गुड्डी बी खेळपाक रावल्यांत, बेगीन बेगीन दी च्या.”

“आगो....दितां....दितां....युनिफोर्म काड. हातपांय धू. ते म्हणसर जालीच तुजी च्या तयार.”

“म्हणजे गे.... आज तुवें म्हाका कोपांत च्या लेगीत घालून दवरूं ना? अशी कशी गे तूं? म्हाका च्या थंड जाय हें आज तूं कशी विसरली? म्हाका नाका आतां हून च्या. हांव खावपाक खातां आनी धांवता खेळपाक. दी-दी बेगीन खावपाक.” रितू.

“बरे बाये, तुका जाय तें कर. हांव मातशें आड पडटां. तुका व्हदोळच सांगलां. आज म्हजे दोळे दुखतात. आनी म्हणूनच शाण्या, आज तुका ताजे हुनहुनीत खावपाक करूं ना. मेजार डबे आसात. तांतलें तुका जायतें काडून खा. आनी पळय, आयक, खेळून जातकच बेगीनच घरांत यो. हांव आज पासयेक ग्रांवडार येवचें ना. गुड्डीच्या मम्मीक सांग, आज मम्मी पासयेक येवची ना. तिचे दोळे दुखतात. नाका-नाका, दोळे दुखतात म्हणून सांगल्यार रोखडीच धांवत येतली खबरेक. तूं अशें कर...”

“अशें कर म्हणल्यार?”

“तू गुड्डीच्या मम्मीक कांयच सांगू नाका. म्हाका आज कोणाचोच उपद्रव नाका. तकली सामकी भेरेल्या आनी भयंकर उसळटा. केन्ना काय आड पडल्यार पुरो अशें जालां.”

“मम्मी तूं कितें बडबडटा म्हाका कांयच समजना. हांव वतां खेळपाक.” रितू. रेखाच्यान रितुच्या सामकार कशेंच उबें रावूं नजो जालें. बिरेन येवचेलो वेळ जाल्लो. आनी आज तें बिरेनाक कशाय परिस्थितींत आपलें दोशी, अपराधी तोंड दाखोवंक शकना आसलें. बिरेन आनी रितू मदीं बऱ्याच वर्सांचे अंतर आशिल्लें. रितू निकतेंच स्कूलांत वचूंक लागिल्लें आनी बिरेनालें कॉलेज सोंपत आयिल्लें.

आज रेखाचें मन उचंबळ जाल्लें. ताका कितेंच सुचनासलें. तें स्वताक एक आदर्श घरकान्न, आदर्श आवय, आदर्श प्रोफेंसर मानतालें. स्वता विशीं व्हडपण बाळगून आसलें. आपूण सगळ्या गुणांनी परिपूर्ण. आपणाक कळटा तें आनी कोणाकच कळना. आपणाक कोणाच कडल्यान कांयच शिकचेलें ना. अशेंच ताका दिसतालें. मनीस हो व्हड गिन्यानी, विद्वान आसलो तरी नवें नवें शिकत आसता आनी जिवीताच्या निमाणें खिणा मेरेन स्वताक विद्यार्थीच समजता, हें रेखा मानूंकच तयार नासलें. आपले विचार कितले श्रेष्ठ, कितले उदात्त, निर्मळ आनी आपलें तेंच खरें हें घोळून दुसऱ्यांक सांगपाची ताची निजाची खोड. दुसऱ्याक किंकोत लेखप होय ताचो गूण. ताच्या ह्या गुणांक लागून ताचें चडशे जाणांकडेन पटनासलें. आपल्या ह्या गुणांक लागून आपले सहकारी दुखावतात हें ताच्या कोशांतच आसनासलें. तें कोणाचीच पर्वा करीनासलें. अहंकारी प्रोफेसर म्हूण ताका अख्खे कॉलेज वळखतालें. विद्यार्थ्यांकडेन तें सदांच फटकळ वागतालें. आनी म्हणून ताचें लागीं येवपाक विद्यार्थी कांचवेताले. पूण आज भर कॉलेजाच्या कँपसात....आप मतलबी, अहंकारी रेखाचे पितळ उघडें करपाची वेळ आयिल्ली. आयली ती आयली आनी तीय बी बिरेना सामकारऽऽऽऽ येदी कापजदाद ऽऽऽऽ

सदचे वरी रेखान तोऱ्यांतच कॉलेजाच्या कँपसांत पांय दवरलो मात, मुद्दामच कोणे तरी कॉलेजीच्या आमुल्ले मुळा एक चलये वांगडा उलयतल्या बिरेनाक उलो घालो, – ''बिरेन – बिरेन '' विद्यार्थी रेखा मॅडमीक चाळोवन घालपाची संद पळयताले. रेखान पळयलें जाल्यार बिरेन आमुल्ले मुळात एका चलये वांगडा खबरी करपांक गुल्ल आसा. रेखाची कपलाची शीर उबी जाली. ही चली ताका खुबदां बिरेना बरोबर दिसताली. आनी ताणें उडटें उडटें आयकल्लें आपलो बिरेन त्या चलये वांगडा मोग करता. रेखा आपले भितरच चिंतूं लागलें, 'इतलो आपल्या धाकांत आशिल्लो आपलो पूत मोग करूंक पावलोच कसो? हांवें ल्हानपणासावन ताका सगळ्यां पसून वेगळो दवरून वेगळेपणाची भावना ताचे मनांत रुजत घाली. रेखा मॅडमीचो पूत हो छाप ताचेर मारपाचो सदोदीत यत्न केलो आनी आज आपूण हें कितें पळयतां.?'

रेखा आपल्या तोऱ्यांतच सटसट पावलां उबारीत जाता तितल्या नेटान बिरेना म्हऱ्यांत गेलें. ताचो राग दोळ्यांतल्यान उक्तो जातालो. ''बिरेन खूब दीस जाले, हांव पळयतां तूं हे चलये वांगडा म्हाका भोंविल्लो दिसता. आसा तरी कितें तुज्या

मनांत?''

जरी बिरेन जुहिलीचेर मोग करी तरी सुध्दां रेखाक अचकीत म्हऱ्यांत पळोवन तो नर्व्हस जालो. तो सगळो थरथरूं लागलो. भीतभीत ताणें तकली सकयल घाली. ताच्या तोंडांतल्यान शब्दच फुटना जाले.

''बिरेन सांग मरे, आमी दोगांय मोग करतात म्हणून. मॅडम, म्हजें नांव जुहिली. म्हज्या बाबाची एक वर्स जालें हांगा बदली जाल्या. हांव सायन्सिक आशिल्ल्यान तुमची म्हजी केन्नाच प्रत्यक्ष भेट जायना. तुमी आर्टसाच्यो प्रोफेसर न्हय? म्हजी आई तुमकां बरी वळखता. तिची इच्छाय आसा तुमकां मेळपाची. मम्मी, नमस्कार करतां हांव तुमकां.'' जुहिलीन रेखाच्या पायांक हात लायलो.

''उठ, म्हज्या पांयाक हात लायनाका. नाटक करपाची गरज ना. आतांच्यो चलयो नाटकां करपाक हुशार. म्हाका समजना तुमी चलयो शिकूंक येतात काय फकत मोग करून टायमपास करपाक येतात. बऱ्या घरातले भुरगे गरोवप हेंच आतांच्या चलयांचे काम.''

''म्हज्या पुताक नादाक लायलो. बिरेन कोणालो पूत जाणां तूं? वाट लावपाक मुखार सल्लां म्हज्या पुताची? म्हज्या उतरा भायर बिरेनान आयज मेरेन कसलेंच काम करूंक ना. आनी बिरेन, तुवें मम्मीक विचारल्या बगर एक चलयेचेर मोग केलोच कसो रे?''

''मम्मी, मम्मी, जुहिली म्हाका खूब आवडटा.'' बिरेन उलयतना आडखळटालो.

''मम्मी, तूं कित्याक वगीच तकली तापोवन घेता? आतां हांव कुकुलें बाळक ना. व्हड जालां हांव, मोग करपाक लेगीत हांवें तुका विचारप गे! जाणां तूं! कॉलेजांत सगळे इश्ट म्हजी फकाणां करतात. म्हाका मम्मीस बॉय म्हणून टवाळी करतात.'' बिरेनाक खंयचो नेट आयलो ताकाच कळ्ळें ना. ताचो सगळो घुस्मटमार एकाच बरोबर भायर सरलो.

''बिरेन! म्हाका तुवें परती जाप दिली? हे चलयेचो सांगात तुका म्हजे सारखे प्रोफेसर आवयकडेन उलोवपाक फुडें काडूंक पावलो? पूण हांव तुका सांगतां बिरेन, तुकां हे चलयेचो नाद सोडचोच पडटलो. हांवें तुजे विशीं खूब सपनां बाळगिल्यांत.''

''पयलीं बऱ्या पैकीं शिकप पुराय कर. बऱ्या हुद्याची शिर्विस कर. मागीर पळय, तुका व्हड व्हड गिरेस्ताल्यो चलयो सांगून येतल्यो मरे! मोग-मोग कित्याक

म्हणटा तो तुका खबरच ना. दोन-चार दिसांनी वळख कितें जाता आनी ह्या वळखीक तूं मोग म्हण्टा?''

''आरे मोग करतना लेगीत पळोवंक जाय आपली पातळी, वेव्हार, आपल्याक चडान चड फायदो कसो जातलो. ते वाटेन वचूंक जाय.'' रेखा पोटतिडकीन उलयतालें. ''तूं कोणालो पूत हें विसरूं नाका. मोग आपली बरोबरी पळोवनच करूंक जाय.''

हळू हळू कॉलेज्यांतल्या कँपसांतली भुरगीं लागीं लागीं येवपाक लागलीं. वातावरण तापिल्लें. खीणभर आपूण खंय आसां? कितें उलयतां? हाचो रेखाक विसर पडिल्लो. दोळ्यां सामकार एकच चित्र दिसतालें. आपल्या उतरा भायर न वचपी आपलो पूत इतलो फूडें कसो पावलो? ताका भार भरिल्लेवरी जाल्लो.

''मम्मी हें अशें कित्याक उलयता तूं? मोग करिनात मम्मी, मोग हो जाता?'' बिरेनान आवयक म्हणलें.

''चूप फूडें उलोवचो ना. मोग करिनात तर मोग जाता कोण म्हणटा? मोग जाता? मोग हो करप पूण सगळे वटेन पारखून करप. कोणाच्याय गळ्यांत पडप ना वा गळ्यांत बांदून घेवप ना. शाणेपणान पावल मारप.''

''मॅडम, तुमी कितलें मनांतले उलयल्यो? खरें खरें उलयल्यो. इतल्या वर्सांनी तुमी मात लेगीत बदल्लीं नात. सभावान, नितीन, आसा तशींच आसात. म्हजी आई पुरायेन वळखतां तुमकां.''

''कितें म्हणपाक सोदता तूं? आसा तश्योच आसात म्हणजे अर्थ कितें? आनी कितें म्हणटालें - तुजी आवय म्हाका वळखता? आगो तूं म्हाका पुरायेन वळखूंक पावूं ना, आनी आवय वळखतां खंय?''

''सांगता तुका म्हज्या पुताचो नाद तुवें सोडचोच पडटलो ना जाल्यार तुजो फुडार हांव काळखांत वडयतलें. समजूं नाका तूं!! अशें सोडटलें तुकां? वळखूं ना तूं म्हाका. आनी म्हाका सांग तुजी आवय म्हाका खंय वळखता गो?''

''मॅडम तुमी आयकतलीं? पूण हांगा नाका. आशिकुशीक पळयात, सगळीं भुरगीं जमल्यांत. तांच्या मुखार म्हाका उलोवपाचें ना. तुमचे प्रतिश्ठेक बादा येतली.''

''बरेंच सुबेज मगो तूं. तुकां कितें सांगपाक जाय तें हांगाच सांग. म्हजी आयकुपाची तयारी आसा. म्हजे प्रतिश्ठेची तुकां चिंता नाका.''

‘‘तरी लेगीत म्हाका योग्य दिसना ही सुवात. तुमी आमगेर येयात. आमगेर आयल्यार तुमकां सगळें स्वताच्या दोळ्यांनी पळोवपाक मेळटलें. म्हजेर तुमचो विश्वास ना. म्हाका तुमी सुबेज म्हणून आताच पाचारलां.’’ –जुहिली.

‘‘पळय, तुका सांगता, कितें सांगपाचें आसा तें हांगाच आनी सडसडीत सांग. तुजे बशेन कँपसात वेळ वगडावक हांव कॉलेज गर्ल न्हय!!! कॉलेजीची प्रोफेसर हांव. तुका हडकिलें तेंच चुकलें म्हजें. पूण म्हजो पूत तुजे सांगाताक पळोवन तकली भिरभिरली म्हजी.’’

आवयची आनी जुहिलीची बाचाबाची पळोवन बिरेन सामको गर्भगळीत जालो. कितें चल्ला तें पळयतच उरलो ताका कोणाक समजांव आनी कोणाक आडांव हेंच कळना जालें. आवयचो अवतार पळयल्यार तिचे फुडें तर उलोवप ताका शक्यच नासलें. ‘‘मॅडम, तुमी सांगाच म्हणटात न्ही तर निरूपायान म्हाका ह्या कँपसांत तोंड उगडें करचें पडटा. तुमी, तुमी, हय तुमी आयकुपाकच जाय.... ’’ –जुहिली.

‘‘उलय मगो सडसडीत... उगड तोंड...’’ रेखा.

‘‘तुमी नरेश कुमठेकाराक वळखतात न्ही?’’

‘‘कितें....कितें? अचकीच आंगार पाल पडिल्लेवरी रेखान आंग काडलें.’’ ‘‘हांव ....हांव कोणाकच वळखना.’’रेखाचें काळीज धडधडूंक लागलें. कितलीं वर्सां जालीं ते गजालीक. तें सगळें विसरिल्लें. अचकीत काळजांतली शिंवण उस्वल्ले वरी जाली. रेखान जरी वळखना म्हणलें तरी....

‘‘नरेश कुमठेकारालीं हांव भाची.’’ जुहिली उलयत आशिल्लें. ‘‘विनिलें चली. तुमी नरेश मामल्या मोगाचीं फकाणीं केलीं. मोगाचें नाटक केलें. जेन्ना लग्नाचो प्रस्न आयलो तेन्ना तुमी वेव्हार पळयलो. तुमकां गिरेस्त घोव जाय आशिल्लो जाल्यार नरेश मामा वांगडा मोगाचें नाटक कित्याक केलें?’’

भावनावश जावन जुहिली उलयतालें. ताच्या दोळ्यांतल्यान उज्याचे इंगळे जावन उज्याचीं केणां कशीं दुकां गळ्ळीं. ‘‘आज कितलींशींच वर्सां जालीं म्हजो नरेश मामा पिसो जावन आसा. रेखा येतलेंच म्हणून वाट पळेत आसा.’’

‘‘पूण...पूण...’’ रेखाच्या तोंडांतल्यान शब्दच सुटना.

‘‘मॅडम, पुता विशीं तुमी उमेद बाळगिल्ल्या. त्या वेळार तुमी कशीं विसरलीं नरेशमामाय बी कोणाचो तरी पूत आसा. ताचेय विशीं आवय बापायक उमेद आशिल्ली न्हय? तुमी फटकिरो मोग करून म्हज्या मामाक संवसारांतल्यान

उठयलो. म्हजी आजी नरेश मामाच्या अवतीकायेन खचली आनी हो संवसार सोडून गेली. आजो तर रोखडोच भायर पडलो.''

''आतां मामा आमचे सरीं आसा. बाबाची जंय जंय बदली जाता थंय थंय आई ताका घेवन भोंवता. एका ल्हान बाळका वरी. कित्याक तुमी ताका न्हयकारलो. ताच्या मोगाच्यो भगल्यो करून ताका खोंटायलो? तुमचे इतली गिरेस्तकाय ताचे कडेन नासली पूण तो एक निजाचो गायक कलाकार जावन आसलो. पूण तुमकां लागून ताची कला मातये भरवण जाली.''

''पूण जुहिली. हें सगळें तुका कशें कळ्ळें? बिरेनान प्रस्न केलो.

म्हज्याच आईकडल्यान. जेन्ना आईक कळ्ळें तूं रेखाचो पूत आनी रेखा ह्याच शारांत रावता तेन्ना आई मामाक वेंग मारून खूब रडली. रडपाचो ओघ देंवतकच आई म्हाका सांगूंक लागली. ''जुहिली, तूं म्हाका सदांच विचारी न्ही, मामा कसो पिसो जालो? कित्याक लागून जालो? कारण कितें?''

इतलो तेंप आईन जुहिलीक केन्ना कारण सांगूक नासलें. पूण जेन्ना तिका कळ्ळें रेखा जुहिलीच्याच कॉलेजाची प्रोफेसर तेन्ना ती आपल्याक सांवरूं शकली ना. आनी जुहिलीक तिणे सत्य घटना सांगली. बिरेनाचे मम्मीचीं कर्तुबां सांगलीं.

''म्हज्या आजेक जाय जाय म्हणून सांगणी मागणी करून जाल्लो एकलो एकसुरो चलो भुरगो-आपुरबायेचो... सगळ्यांच्याच मोगाचो राजकुंवर आसलो. एकवटींत घराब्यांत चलयांचेंच साम्राज्य आसलें. सगळ्या गोपी मदीं म्हजो नरेश मामा कृष्णावरी आसलो. अशें म्हजी आई सांगताली.''

''तुज्या आज्याची बदली म्हज्या आजोळच्या गावांत जाल्ली. तुजो आजो एक व्हड सरकारी अधिकारी आशिल्ल्यान तांचो दरारो आनी थाट वेगळोच आसलो. गांवांत यो वच, उठ बस करी सारखें म्हज्या आज्याचेंच एक घर आसलें. तांचो बरे तरेन घराबो चलतालो.''

''पिशी पिराय म्हण्टात तश्या पिरायेंतलो म्हजो मामा आनी तुजी मम्मी आसलीं. तुजी मम्मी गायन शिकूंक मामा सरीं येताली. गायन शिकतां शिकतां तांणी केन्ना मोगाचो हुंबरो हुंपलो तांकाच कळ्ळें ना. तुज्या आज्याक एक दीस बदलेचो हुकूम आयलो. तेन्ना रेखाची आनी आपली ताटातूट जातली ह्या विचारान नरेश मामान रेखाकडेन लग्नाचो विशय काडलो. जाल्यार तुजे मम्मीन तो विशय झिडकारलो. आनी सांगलें, आपणें केन्नाच तुजेर मोग केलोच ना. आपूण फक्त गायन शिकपाक

येतालें. जर तुवें आपल्याचेर मोग केलो जाल्यार आपली तातूंत कांयच चूक ना. एदे व्हडल्या अधिकाऱ्याची धूव तुजे सारख्या मध्यम वर्गिया कडेन मोग करतलीच कशी, हें तुवें चिंतपाचें.''

''रेखाच्या उतरांनी म्हज्या आज्या-आज्जेक आनी नरेश मामाक धक्को बसलो. ते घडणुकेन मामाच्या मनार परिणाम जालो. बिरेन, म्हजो मामा पिसो जालो रे पिसो. तुजे मम्मीन वेव्हारी मोग केलो. आपलो फायदो पळयलो. तिका फकत गायन शिकचें आसलें. पूण नरेशमामान काळजांतसून मोग केलो. दोन वर्सां मेरेन तुजी मम्मी म्हजे मामाकडेन गायन शिकली. वयलेचाराक मोगाचें नाटक केलें. आनी निमाणें ताका दळिद्री थारायलो.''

''बिरेन, जेन्ना हांव कॉलेजींत आयलों तेन्ना तू मॅडमीचो पूत म्हणून म्हाका खबर नाशिल्लें. पूण रोखडेंच म्हाका समजलें. जाणां जा, बिरेन हांवें मात तुजेर काळजांतल्यान मोग केला. तुजे मम्मीन म्हजेर नसते आरोप केले, म्हाका दुशण दिलें म्हणून म्हाका तोंड उकतें करचें पडलें. तुज्या मम्मीचीं कर्तुबां तुज्या मुखार सांगचेली संद तिणेंच दिली पळय.''

''खरें म्हणल्यार म्हाका अशें करचेले नासलें पूण तुवेंच पळयलें उतराक उतर कशें वाडत गेलें.''

जुहिलीन सांगिल्ली गजाल सत्य आशिल्ली. नरेशान रेखाचेर निसुवार्थी मोग केल्लो जो रेखान जाणा जावन न्हयकारपाचें पातक केल्लें. ताच्या धुंदीचो आज पर्दाफार्श जाल्लो. इतले तेपान लेगीत सत्य वयर सरिल्लें. रेखान तरणेपणांत केल्ल्या पातकाची भरपाय मात नरेश अजून भरतालो.

रेखा फुडलें आयकूंक थंय रावलेंना. आज तें आपल्याच पुता मुखार उकतें जाल्लें. बेगडी प्रतिश्टा, अहंकार वगडावन बशिल्लें. आज उगडो पडिल्लो ताचो गर्व, ताची घमेंड मातयेभरवण जाल्ली. ते हुंडक्या हुंडक्यांनी रडटालें. आपल्या कर्तुबाचो ताका आतां पश्चताप जाल्लो.

●●●

# 3 यादिंचो करण

गौरांगीक आयज क्लबाचे कार्यावळीक वचपाची ताकतीक आशिल्ली. गौरीश सदचेवरी कामाखातीर टुरार गेल्लो. ताका वतना सांगून गेल्लो, कार्यावळ चुकोवंनाका. एक व्हड बुदवंत तत्व गिन्यानाचेर उलोवप करपाचो आसात. मुजरत तांकां निमंत्रीत केल्यात. गौरीश सांगतालो, तांची ॲपोयंटमेंट मेळच नासली तरी खटपटी लटपटी करून मेळयल्या.

तेन्ना गौरांगीन गौरीशाक विचारलें. ‘‘इतले बिझी मनीस, तर करतात कितें ते?’’ ‘‘ते कॉलेजीत तत्वगिन्यान शिकयतात. पूण ताचे भायर तांच्या बुदवंतकायेक लागून तांकां तत्वगिन्यानाचेर व्याख्यान दिवपाक खूब कडेन आपयतात.’’

‘‘म्हणटकच तांचें व्याख्यान आयकूंक वच्चें पडलें. तूंय आसल्यार बरें जावपाचें न्ही रे गौरीश!’’

‘‘म्हाकाय तांचें उलोवप आयकुपाची खूब उमळशीक आशिल्ली. पूण कितें करतलों वेवसायाचेंय काम म्हणल्यार आमची गरज न्ही, पूण तें आसूं. तूं मात चुकय नाका.’’

‘‘हय रे, हांव वतलेंच, इतलें बरें उलोवप क्लबान आयोजीत केलां, म्हणटकच आमी थंय आसूंकच जाय आनी तुका खबर आसा, म्हाका असल्या कार्यावळींची मनापासून आवड.’’

गौरांगीन बेगीन बेगीन आवरा आवर केली आनी तें सभाघरांत पावलें.

माचयेवयली सगळी मांडणी जाल्ली. क्लबाचे अध्यक्ष सोयऱ्यांक घेवन येवपाचेच जाल्यात म्हण सुत्रनिवेदकान मायकावयल्यान जाहीर केल्लें आनी

सगळ्यांकडेन मागलें सभाघराच्या आशिकुशीक विस्कळीत आशिल्ल्यानीं सभाघरांत आपली सुवात घेवची.

प्रसन्न मुखामळ, निर्मळ नितळ भेस केल्लो मुखेल सोयरो, क्लबाच्या अध्यक्षा बरोबर सभाघरांत मात पावला, गौरांगीक दिसलें हाका हावें खंयतरी पळयला. खंय..तरी..पळयला... यादींच्या करणाचें धांकण उगडें जावंक लागलें.

"भावांनो आनी भयणीनों, तुमकां मायेमोगाचो नमस्कार. तशें गोंय म्हाका परकी न्ही. भुरगेपणांतल्यो यादी अजून म्हज्या काळजांत घर करून आसात. गोंयची म्हाका चड ओढ."...

तोच आवाज, मुखामळ तेंच. हय तोच तो...

गौरांगीक सगळें सभाघर आपले भोंवतीं घुंवता अशें दिसूंक लागलें. तरेकवार खिण, व्यक्ती, यादी ताचे सामकार नाचूंक लगल्यो. यादिंच्या पड्ड्यार सिनेमाची चित्रफित कशी उक्ती जावंक लागली.

रमा-रमेशाली गौरांगी एकटी एकसूरी धूव. रमेश एक सरकारी अधिकारी आसलो जाल्यार रमा गृहिणी. सरकारी अधिकारी आशिल्ल्यान ताची आत-या-पय-यान बदली जाताली ती स्वभाविक आसली. एका जाग्यार थीर जातासर बदलेचो हुकूम तयार. ताका लागून रमेशाक आवय-बापायक गांवघराच दवरची पडिल्ली. तांचें गांवघरा ऐसपैस घर आसलें. घराचें सरभोंवतणीं हरतरेचीं झाडां. आंबे, पणस, निरपणस, आंबाडो, माड, पेर, बिमल, म्हशिंग, तशेच तरेकवार फुलझाडां - दसण, कोर्नो, अनंत, जाय-जूय, गुलाब, मोगरीं, आबोलीं, चाफो. पावसा दिसानी माटवार घरार दुदी, कुंवाळे, घोंसाळी, तवशी... गोठो गोरवांनी भरील्लो. आई-बाबान रमेशान जाता सर गोरवांची कुयदाद केली. आता रमेश नोकरेक आनी आई-बाबाचे जाणटेपण लागीं येतालें. म्हणसारखी कामां रेटनासलीं.

जरी नोकरेच्या निमतान रमेश रमा आनी गौरांगी शारांत रावतालीं तरी दर शेनवाराक गांवांतल्या घरा येतालीं आनी सोमाराक परततालीं. गौरांगीक गांवांत आजो आजी सरीं खूब आवडतालें. थंय पावतकच तें हाताक लागनासलें. जसो शेनवार-आयतार गांव, तशेंच शाळेक व्हडली सुटी पडली रे पडली गौरांगीची गांवाक धांव आसताली.

सैमान भरिल्लो पांचवोचार गांव आनी थंयचे वजरे, कुळागरां, पोरसूं.

पोरसांतली तरेकवार फळां फुलां कितें कितें म्हणून ना. ताका सगळेंच भुलयतालें. खंय वचूं आनी कितें करूं अशें ताका जातालें. जेवणा-खाणाचें ताका पडूनच वचनासलें. पुस्तकांकय सुटयेच्या दिसानी सुटीच आसताली.

गांवातलें घर आनी सैमीक संपत्ती सोडून रमेशालो आवय-बापूय शारांत कशेच येवपाक तयार नासले आनी म्हणूनच तांची धांदल जांवची न्हय म्हणून रमेशान गोंयचे शिमेवयलें एक जोडपें ताच्या आदाराक दवरिल्लें. तांकां एक पुत आसलो. तांकां घराकतेकूनच आशिल्ल्या आवट हाऊजांत रावपाक दिल्लें. तांकां लागून रमेश हुस्को विरयत आसतालो. तें जोडपें मन लावन आनी जबाबदारेन सगळीं कामां करतालें. गोरवांची वासपूस करप, दुद काडप, पोरसाकडेन लक्ष दिवप, घरांतलें काम करप, बाजार करून आई-बाबाक जाय नाका पळोवप. तांचो पूत ज्योतिबा भोव आपुरबायेचो आनी समजीकायेचो जाल्ल्यान आई-बाबाक ताचे घरांत वावरप विरंगुळो कसो दिसतालो. आवय-बापाय बरोबर ज्योतिबा घरभर भोंवतालो.

जेन्ना रमा-रमेश गौरांगी गांव घरा येताली तेन्ना गौरांगीक तो बरो इश्ट मेळटालो. शेनवार आयतार ती भरपूर धुमशेणां काडटालीं. ज्योतिबा आनी गौरांगी सादारण एकाच पिरायेची जाल्ल्यान तीं एकामेकांत भरसून गेल्लीं. ज्योतिबा तांच्या घरांतलोच एक सदस्य जाल्ले वरी वावुरतालो. कोणच ताचे कडेन दुजा-भाव करीनासलो. रमाक मात ताचें अशेतरेन घरांत मिसळप भावनासलें. पूण गौरांगीक थंय लागसार खेळपाक कोणूच नासले माहणून निरूपायान रमाक वग्गी रावचें पडटालें. रमेशाक रमाची नाराजी समजताली पूण आपली धूव गांवाक ज्योतिबाक लागून रमता हें तो पुरायेन जाणां आसलो आनी म्हणूनच तो ज्योतिबाचेर बरो आसलो. ज्योतिबा गौरांगीचें उतर झेलतालो. ताका खूब सांबाळून घेतालो. आपूण गरीब आनी गौरांगी गिरेस्त हें ल्हान पिराय आसून लेगीत ताका खबर आसली.

रमाची नाराजी पयस करचेखातीर ताणें  एकदीस रमाक विचारलें. ''रमा तूं ज्योतिबाचेर इतलें कित्याक बेजार जाता.''

''गौरांगी कडलो ताचो वेवहार म्हाका मानवना'' रमा...

''आगो, गौरांगी ल्हान. ताका हांगा ज्योतिबा शिवाय कोण आसा खेळपाक?''

''पूण हांव म्हणटा ज्योतिबाच्या आवयन-बापायन तरी ताका समजावपाक

जाय. आपूण तांचे आश्रित म्हणून मर्यादेन वागपाक जाय.''

''आगो रमा, आमचें गौरांगीय तांच्या घरांत वचून खेळटा. पळय रमा, तूं ओगीच लावन घेनाका. सोमार आयलो की आमी शांरात वतात.''

''तूं जाणा रमेश, शारांत गेलें म्हणून तें ज्योतिबाक विसरना. काल येतना ताणें ताचे खातीर रंगपेटी आनी पेन हाडिल्लें.''

''ज्योतिबा गरीब, हाडूं पेन आनी रंगपेटी, दिवूं ताका, गौरांगी कडेन खूब पेनां आसात. रमा आमकां आनीक एक भुरगें आशिल्लें जाल्यार....''

''पुरो पुरो तुजें. आमचीं भुरगीं आनी ज्योतिबाक एक करूं नाका...''

अशे तरेचे वाद शेनवार आयताराक गांवांत आयिल्ले वेळार तशेंच व्हड सुटयेंत आयिल्ले वेळार जाताले. गौरांगी शारांतले शाळेंत तर ज्योतिबा गांवांतले शाळेंत वतालो. ज्योतिबा शिकूंक तल्लख बुध्दिचो आशिल्लो. दोगांयचोय वर्ग एकच आशिल्लो. जेन्ना तांची दोगांयचीय एका मेकां मदी सर्त लागताली तेन्ना दर खेपेक ज्योतिबा सर्त जिखतालो. रमेशाक ताचें कौतूक दिसताले. गौरांगी बरोबर ज्योतिबाकय तो वेगेंत घेवून अपुरबाय करतालो. रमा मात भितल्ले भितर चडफडटालें. पूण भुरग्यांक तांतले कांयच समजनासलें. रमेशालो व्यवहार रमाक मातलेगीत मानवनासलो.

रमेश ज्योतिबाच्या आवयक-बापायक सांगतालो, ''तुमी बिनधास्त रावात ज्योतिबा हुशार आसा. तुमचें नांव तो वयर काडटलो. तुमी म्हज्या आवय बापायची जी सेवा करतात ताचेंय तुमकां फळ मेळटलें. ज्योतिबाची शिक्षणाची तुमी मात लेगीत चिंता करूं नाकात. तो पळय आपले आपूण कसो वयर वयर पावतलो आनी लक्षांत दवरात हांव ताका केन्नाच अंतर दिवचो ना. म्हजो हात ताच्या सदांच फाटीर आसतलो.''

रमेशाची धीराची आनी आदाराची उतरां आयकून तांकां ज्योतिबाच्या फुडाराविशीं इल्ली लेगित चिंता नासली. जेन्ना जेन्ना संद मेळटा तेन्ना तेन्ना रमेश ज्योतिबाच्या फुडाराविशीं तांकां धीर दितालो. तांकां दिसतालें, आमी अशीं अशिक्षित कामेरीपणा करूनच जिवीत सारलें. आमच्या ज्योतिबाच्या नशिबांत तरी बरे मानाचे दीस येवूं दी. ताका बरें शिक्षण मेळूं दी. रमेशाक ती देवा समान मानताली. पूण आवयक भंय दिसतालो तो रमाचो. गौरांगी आनी ज्योतिबा

एकठांय खेळटात, बागडटात, तांकां एकामेकां बगर चैन पडना, हें रमाक आवडना हें ज्योतिबाच्या आवयक दिसून येतालें. म्हणून ती गौरांगीक सांगपाचो यत्न करताली.

एक दीस संद सोदून ज्योतिबाचे आवयन माणकुल्या गौरांगीक एकलेच सांपडायल्लें आनी ताचे कडेन उलोवपाचो यत्न केलो.

‘‘बाय गौरांगी, तुमी व्हड मनशां आनी आमी तुमची चाकरमानी. अशें चाकरांच्या घरांत चड येवूं नये.’’

‘‘चाकर जाल्यार कितें जालें, ज्योतिबा म्हजो इश्ट.’’

‘‘ज्योतिबा आनी तूं इश्ट जावंक शकनात बाय.’’

‘‘कित्याक इश्ट जावंक शकनात?’’

‘‘तुजे आईक मानवना गौरांगी’’ भीत-भीत तिणें सांगलें.

‘‘तशें जाल्यार हांव म्हज्या आज्याकच विचारतां.’’

गौरांगीन थंयच्यान धांव मारली. गौरांगीक बायऽऽ बायऽऽ करीत ती फाटोफाट धांवली पूण तें केन्नाच आज्या म्हऱ्यांत पावलें लेगीत.

‘‘आज्याऽऽ आज्याऽऽ चाकर म्हणल्यार कितें रे?’’

‘‘चाकर म्हणल्यार नोकर. दुसऱ्याली चाकरी करपी’’

‘‘ज्योतिबा चाकर जाल्यार म्हजो इश्ट जांवक शकना? म्हजे बरोबर खेळूंक शकना?’’

‘‘कोण सांगता?’’

‘‘आज्या, ज्योतिबाची आई सांगता ज्योतिबा चाकर म्हणून म्हजो इश्ट जावूंक शकना. म्हजे आईक हांवे ज्योतिबाबरोबर खेळिल्लें बी मानवना, कित्याक आज्या...?’’

गौरांगीच्या उतरानी आजो न्हिदळील्ले वरी जालो.. ‘‘सांग मरे आज्या....’’

‘‘तशें कांय ना बाय गौरांगी, ती ओगीच म्हणटा तशें. तूं चल खेळपाक ज्योतिबा सरी.’’ आज्यान नातीक समजायलें आनी गौरांगी धांवत धांवत खेळपाक गेलें. पूण आज्याक विचारांत वडोवन गेलें.

ज्योतिबा बरोबरचो वेवहार रमाक कित्याक खटकता कांय? तिच्या मनांत कसली भिरांत उप्रासल्या कांय?

‘‘रमाऽऽ बायऽऽ रमाऽऽ’’

‘‘कितें बाबा....’’

‘‘आगो आज गौरांगीन म्हाका कोड्यांत वडयलां आनी ताची जाप तुजे कडेन आसा.’’ बाबा

‘‘कसली जाप बाबा?’’ रमा

‘‘गौरांगी म्हाका विचारतालें चाकर म्हणल्यार कितें?’’

‘‘आनी ज्योतिबा आपलो इश्ट कित्याक जावंक शकना.?’’

‘‘बाबा तुमीच सांगात पळोवया ज्योतिबाची सर्त आमच्या गौरांगीकडेन कशी जावूं येता.?’’

‘‘कोणें सांगलां?’’

‘‘ती दोगांय एकाच वर्गात शिकतात. ज्योतिबा गांवांत, गौरांगी शारांत.’’

‘‘हय मागीर कितें जालें.’’

‘‘ती दोगांय जेन्ना सर्त लायतात....’’

‘‘आगो रमा भुरगीं तीं, सर्ती बी लावून खेळप आसताच.’’

‘‘हय बाबा, हांव जाणां, पूण दर खेपे सर्तींत म्हजें गौरांगी हारता.’’

‘‘आगो, आगो आयक तरी....’’

‘‘ना बाबा. ज्योतिबा कोण आनी आमी कोण. म्हजें गौरांगी ताचे बरोबर सर्त करूंकच शकना आनी ताणें ज्योतिबा बरोबर तर करूंकच जायना.’’– रमा.

‘‘आगो रमा, अशी तोंकाची भुमिका कित्याक घेता पापयाऽऽऽ भुरगीं मुगों तीं. तूं इतल्या खालच्या थरार कित्याक विचार करता.’’

इतल्यांत रमेश थंय पावता. ‘‘कितें जालां? अशीं विचारांत कित्याक?’’

‘‘रमा हांव सांगू, कांय तूं सांगता?’’

‘‘रमेश, गौरांगी आयज ल्हान आसा. म्हणटां म्हणटां व्हड जातलें आनी गजाली हाता भायर वतकच पश्चाताप करपाची पाळी आमचेर येतली’’ रमा उलयलें.

‘‘आगो पूण जालां कितें?’’

‘‘पळय, गौरांगी बाबाक विचारता खंय ज्योतिबा आपलो इश्ट कित्याक जावूंक शकना कांय म्हणून? ’’–रमा

“आगो, ताणें खरें तेंच विचारलां.”- रमेश

“रमेश तुका हातूंत कांयच गैर दिसना...?”

“गैर कित्याक दिसपाक जाय? उलट आमी देवाचे उपकारच मानूंक जाय. गांवघरा येतकच ताका ज्योतिबा सारखो सवंगडी मेळ्ळां म्हणूनच तें ताका आपलो इश्ट मानता. व्हडपणात अशीच इश्टागत उरचीना आपसूक कमी जातली.”

“आनी जाली ना जाल्यार?”

“अनर्थ घडचो ना. आगो ती दोगांय वेगळे वेगळे सुवार्तीनी शिकतलीं. मात्शीं व्हड जातकच गौरांगीक नव्यो इश्टीणी मेळटल्यो. ज्योतिबाकय नवे इश्ट मेळटले. आपशीच तांचे विश्व वेगळें जातलें. तूं हुस्को करून जीव आकसून घेनाका.” -रमेश.

“हें जोडपें आमी काडूंया आनी आई-बाबाच्या आदाराक दुसरी वेवस्था करया. आपसूकच गौरांगीचो ज्योतिबाकडलो ओढो कमी जातलो ”- रमा.

“रमा, तूं सुतावेल्यान सर्ग गाठूंक पळयता मुगो...? गौरांगी आनी ज्योतिबाची पिराय धा वर्साची मुगो... आनी नाका आशिल्ले दुबावी विचार तुजे मनांत येतात कशें?”

“रमेश अशें सगळे कडेन घडटा म्हणून सादूर रावूंक जाय. ज्योतिबाच्या आवय-बापायचो प्रश्न ना पूण ज्योतिबा गौरांगी सामकार आसूंक जायना. ताका पैसांवक जाय कारण...”

इतलो वेळ दाराच्या फाटल्यान रावून गौरांगी, आजो, रमा रमेशालें उलोवप आयकतालें आनी जेन्ना रमान ज्योतिबाक पयस कर म्हणलें तेन्ना तें नेटान धांवतच भायर आयलें आनी ताणें बापायक घट्ट वेंग मारली आनी व्हडान रडपाक लागलें. “ना बाबा, म्हाका ज्योतिबा खेळूंक जाय, वझऱ्यार उदकांत हात धरपाक, पेरां काडपाक, जांबळा काडपाक, पत्यांनी खेळपाक. म्हाका ज्योतिबा जायच म्हाका. तो जाय म्हणल्यार जाय.”

“कोणें सांगलें बाय तुका ज्योतिबा नाका म्हणून?”- रमेश.

“आईन तुका सांगलां तें हांवे दारा फाटल्यान रावून आयकलां.”

“आईन सांगलें म्हणून हांव ज्योतिबाक कसो पयस करतलों? आगो ताचे आई-बाबा म्हजे आई बाबाचो सांबाळ करतात.”

‘‘तूं रडूं नाका शाण्या, चल चल खेळपाक’’– रमेश.

‘‘आई बी धाडचीना मरे?’’– गौरांगी

‘‘आगो सांगलें न्ही, धाडचोना म्हुणून! ’’

‘‘प्रोमीस?’’– गौरांगी

‘‘हय व्हय प्रोमीस. आमी शारांत वतकच आपल्या आई–बाबा वांगडा तोच आजो–आजेची काळजी घेता. तांकाय तो खूब आवडटा. चल तूं खेळपाक. बेगीन घरांत यो हां.– रमेश.

रमाचो घुस्मटमार कमी जावूंक नासलो. पूण तें कायंच उलयलें ना. रमेशाक खबर आसलें. शारातल्या घरा पावतकच स्फोट जावपाचो आसा. अजापाची गजाल म्हणल्यार तशें कांयच घडूना. रमेशाकय सू जालें. प्रश्न मिटलो अशें ताका दिसलें.

गौरांगीची शाळा आनी तांचे शेनवार–आयतार गांवात वचप नित्यनेमान चालू आसलें. शेनवाराक गौरांगीची ज्योतिबा दोळ्यांत तेल घालून वाट पळयतालो. केन्ना गौरांगी येतलें आनी ताका सवण्यांनी केल्लो घोटेर दाखयतलो, पणसाची निकतीं फुलिल्लीं दाबणां, तोराचे कण दाखयतलो. तांचो आयतार केदे बेगीन सोंपतालो आनी सोमाराक परत शारांत वचपाची घाई. गौरांगीचो चौथी वर्गाचो निकाल लागताच सुटी पडली. एक दीस रमान गौरांगीक आपले भयणीगेर रावपाक धाडलें आनी रमेश ऑफिसांतल्यान येतकच रमान मुद्दयाक हात घालो. ‘‘रमेश गौरांगीच्या बाबतींत हांवे एक निर्णय घेवपाचें चितलां.’’

‘‘कसलो निर्णय.’’

‘‘ताका हॉस्टेलांत दवरपाचें.’’

‘‘कितें? गौरांगीक हॉस्टेलांत ?’’

‘‘हय, नाय जाल्यार तुज्यो बदल्यो जातात तशी ताची स्कुलां बदलतात. ताका शिक्षणाक खूब त्रास जातात. इश्टीणी बदलतात.’’

‘‘हें सगळें तूं त्या ज्योतिबा खातीर करूंक सोदता मुगो...?’’

‘‘तुका जाय तें तूं समज.’’

‘‘आनी गौरांगी तयार जातले?’’

‘‘तें म्हजेर सोड. ताका कशें तयार करप हें हांव जाणा.’’

“तुजो हो निर्णय म्हजे आई-बाबांक मानवचो ना. तांची एकटी एकसुरी नात. शेनवाराक येतली म्हणून ती दोळे लावन बसतात. तांचोय विचार करूंक जाय.”

“तांचो विचार करूं? कांय गौरांगीच्या भवितव्याचो विचार करूं? तूंच सांग रमेश?”

“आनी गौरांगीन हॉस्टेलांत न वचपाचो हट्ट केलो जाल्यार?”

“निमाणो उपाय म्हणल्यार जो तुका हांवें पयलीं सांगिल्लो. ज्योतिबा आनी ताच्या आवय-बापायक काडून दुसरी व्यवस्था करपाची.”

“इतलें सगळें करपाची गरज आसा? कित्याक तुजो ज्योतिबाचेर आकस? कितलो समजीकायेचो आनी बुदवंत भुरगो. तांच्या गुणानी तो पर्जळटलोच. फक्त ताका थोंडे फाटबळाची गरज. सरूं ताका फुडें.”

“इतलो बरो भुरगो जाल्यार घे ताका पोस्को .” रमा

“कित्याय कितें उलोंव नाका” रमेश.

“उलयतलेंच, आरे त्या कामेऱ्याच्या पोराक शिक्षण कोणें सांगलां. म्हजे गौरांगीची इल्ली तरी सर ताका येता. आवय-बापुय कामेरीपणा करून पोटच भरल्यार पुरो. पुताचो फुडार आनी कितें घडयतलीं. तोय फाटी फुडें कामेरीच जावपाचो. शेड्ड्याची धांव खंय वंये मेरेन. तो आनी शिकप करूंक पावतलो?”

“जण एकटो आपलें नशीब बरोबर घेवन येता. ताची तूं चिंता करूं नाका. म्हणटकच तुजो विचार पक्को.” रमेश

“हय, गौरांगीक हॉस्टेलांत दवरप”

ताळ्ळयांच्या कडकडाटान गौरांगी सावचीत जालें.

“भावांनो आनी भयणींनो, गोंयांत म्हाका एक सत् पुरूष दिलो आनी ताकाच लागून आयज हांव तुमचे मुखार तत्वज्ञानाचेर विचार मांडपाक उबो आसा. ह्या सत् पुरूषान म्हाका घडयलो. गिन्यानी जावपाक आदार दिलो. तोच म्हजी आवय, तोच म्हजो बापूय, तोच म्हजो गुरू. म्हजो सर्वेसर्वा. ताकाच लागून हांवें तत्वज्ञान घेवून पीएच्डी केली. म्हजे आई बाबा ह्या सत् पुरूषागेर कामेरी म्हणून आसलीं. हांव शिकून व्हड मनीस जावचो अशी आई-बाबाची इच्छा आसली. त्या दिसाची याद म्हणल्यार म्हज्या आयुश्याचो पलटवार. चवथी वर्गाचो निकाल आसलो. हांव चवथी वर्गात पयल्या नंबरान पास जाल्लो. प्रगती पुस्तक हातांत घेवन हांव

धांवतच घरा आयलो. जाल्यार नदर सामकार लाईटीच्या सरयांचेर पडली. ह्या पडिल्ल्या सरयांचो करंट लागून म्हजे आई-बाबा ह्या संवसारांतल्यान गेल्ले.

तेदे वेळार म्हजी पिराय धा वर्साची. सगळो वाठार म्हजे भोंवतणी घुंवता अशें म्हाका दिसूंक लागलें. म्हाका कोण ना, म्हजो कोण ना,...., मन सैर भैर जाल्लें. ताळो अंद्दल्लो. ताळ्यांतल्यान रडें भायर सुटना जाल्लें. दोळ्या सामकार काळोख. आतां हांव कितें? करूं ? प्रगती पुस्तक हातांत घेवन भकास नदरेन हांव उबो आशिल्लो.

अशे वेळार ज्या सत् पुरूषागेर म्हजे आई-बाबा काम करताले तांणी म्हाका वेंगेंत घेतलो आनी सांगलें. ''आयच्यान हांव तुजो आई-बाबा. कसलीच चिंता करूं नाका. आतां एकदांच, फक्त एकदांच पोटभर रडून घे. हाचें फुडें तूं केन्नाच रडचोना!'' अशें म्हणना फुडें म्हजी वेंग चडच घट्ट जाली आनी म्हजो इतलो वेळ कोंडून उरिल्लो हांबेर भायर सरलो, रड रड रडलो. म्हाक वेंगेंत धरून तोय रडलो. म्हजी दुखां पूसत रावलो. त्या सत् पुरूशाक म्हजे शतश्या प्रणाम...

आयज भुरगेपणांतलो सांगाती ज्योतिबा गैरांगी मुखार अनवळखी रूपान उबो आशिल्लो. एक बुदवंत आनी तत्वगिन्यानी व्यक्तिमत्व जावन.

गौरांगी ज्योतिबाक पळयतच उरलें. यादिंचो करण ताचे मुखार उबो आशिल्लो.



# 4 भंगिल्लें सपन

'कृष्णा- प्रभा' शोरुमाचें उक्तावण आज शोरुमाची धनीण, श्रीमती कनकाच्या हातांतल्यान जाता. व्हड कश्टांनी उबे केल्ले वास्तूचें उकतावण करतना कनकाचें मन फाटल्या यादींनी भरलां.

कनक लग्न जावन आयिल्लें तेन्ना तें कंवळे एकुणीस वर्सांचें आसलें. आनी कृष्णकांतूय बावीस वर्सां पिरायेचो. कृष्णकांताचो घराबो गिरेस्त आसलो. गडगंज वेपाराच्या चार दुकानांचो धनी आशिल्ल्या प्रभाचो तो एकलो एकसुरो पूत. घराब्या पासून पयस वच्चो न्हय म्हण तांणी ताचें शिकप बी. कॉमा मेरेनूच केल्लें. तांकां कृष्णकांतान आपलो वेवसाय सांबाळपाक जाय आसलो.

बापायच्या आनी आज्याच्या मना सारकें घडत वतालें आनी बी. कॉम. जातकच कृष्णकांत ल्हवल्हव बापायच्या वेवसायांत लक्ष घालूंक लागलो. प्रभा आनी सोयरूच आज वयर वेवसाय पळयताले. तातूंत आतां पुताचो आदार. वेवसायाक चडटी उबारी येवंक लागली. कृष्णकांत समजिकायेचो भुरगो आशिल्ल्यान आवय, बापूय आनी आजो हांच्या उतरा भायर नासलो. ते कितें थारायतात तें ताका मान्य आसलें.

गिरेस्त घराब्यांतलो भुरगो लग्नाचो आसा म्हणटकच साहजिकच सोयरिकांची रांक सुरू जाली. तेन्ना तांचें अशें मत थारलें की चड शिकिल्ली व्हंकल सून करप ना. चड शिकिल्ली व्हंकल हाडली जाल्यार सिर्विसेक लागून घरा भायर वचप जातलें. चलयो चड शिकल्यो म्हणटकूटच तांकां घरसंवसारांत चड रस नासता. त्यो आपलो करीयर करपा फाटल्यान धडपडटात. कृष्णकांताच्या घरच्यांक सिर्विसेची

गरज नासली. तेन्ना फुडले वाद उपरासचे परस मॅट्रिके मेरेन शिकिल्ली चली सून म्हण हाडची अशें ताच्या घरच्यांनी थारायलें. आनी तशे प्रयत्न करपाक सुरवात केली.

कृष्णकांताच्या घरच्यांच्या प्रयत्नांक रोखडेच येस आयलें आनी तांकां जाय आसली तसलीच चली तांचे नदरे खाला आयली. मध्यम घराब्यांतली, देखणी आनी बऱ्या संस्काराची चली अशी तांकां चलये विशीं म्हायती मेळ्ळी. कृष्णकांताच्या लग्नाची चड उमळशीक आज्याक लागिल्ल्यान सोयरूनूच सोयरिकेचे सगळे सोपस्कार केले. पळयिल्ल्या खिणाकूच तांकां सात्वीक आनी सोज्वळ व्यक्तिमत्वाचें कनक मानवलें.

व्हड दबाज्यान कनक-कृष्णाकांताचें लग्न जालें. आजो खोशयेन सगळे इतल्याक व्होंवळोसो बोवाळटालो. आपणें चिंतिल्ली तशीच नातसून आपल्याक मेळ्ळी म्हूण जण एक इश्टाक आनी सोयऱ्यांक सांगतालो.

''आमचो कांत आसाच गुणी सभावाचो. आमच्या उतरा भायर ना. आनी दिसता पळय कसो राजकुंवर.''

''आनी तुमकां नातसुनूय फावो सारकी मेळ्ळी आं.''

''मेळ्ळी ना रे. आमी पारखून पारखून पास केल्या रे. तश्यो गिरेस्ताल्यो चलयो सांगून येताल्यो, पूण आमकां त्यो मानवल्योनात.''

''पूण सोयरू, सून पळयल्यार मात साप कंवळी कशी, स्कुलाक वचपी भुरगेंच कशें दिसता. शिकप बी जालां मरे तिचें?''

''हें आनीक कितें उलयता रे? आमकां चड शिकिल्ली नाका म्हण मॅट्रीक पास चली केल्या. आमकां कितें उणें आसा रे? कांतालो संवसार बरे तरेन केल्यार पुरो.''

''तेंय खरेंच म्हण.''

हेवटेन कृष्णकांताची आवय चंपा आपल्या नखेत्रा सारकी देखणी सून मेळ्ळी म्हूण वल्लेंतूय धरनासली आनी सुपांतूय रावनासली. सून आसलीच सोबीत. भांगराशिंगरा गळोभर घाल्ल्यान लक्ष्मीनारायणाचो जोडो सोबतालो. एकशिवडी आशिल्ल्या कनकाक भांगराचो भार पेलनासलो. गळो आनी हातभर भांगराच्यो वस्ती. तांतूंत भर म्हण गळोभर लांबलचक फुलांचो हार. लग्नाक खास आमंत्रीत

इश्ट परिवार तशेंच सोयऱ्यांची रीग. अभिनंदन करपाक हात दिवन कनकाचे नाजूक हात केन्नाच हळूहळू सुजपाक लागिल्ले. केन्ना काय लग्न सुवाळो सवोंपल्यार पुरो अशें कनकाक जाल्लें.

लग्नाचो दबाजो सोंपलो. सगले विधी सोंपले. कनकाचो जीव वयरसकयल जातालो. मांय आपल्याक केन्ना शालू सोडपाक सांगता हाचीच कनक वाट पळयतालें. शालवान आनी वस्तींनी ताचो जीव घुसमटून गेल्लो. पूण घरांत उमेद भरिल्ली. सगले कडेन झगझगाट भरिल्लो. कनका भोंवतणी चलयांचो घोळको जमिल्लो. कोण गळ्यांतल्या वस्तींक तर कोण हातांतल्या वस्तींक हात लावन प्रस्नार प्रस्न करतालीं. "ह्या हाराचो मोदेल नवोच पळय."

"कोणें केला गो तुकां?"

"आनी हीं कांकणां पळय, कितलीं सोबीत."

"कनक भाभी- तूं मात सिनेमांतली नटी कशी दिसता."

"ए, आमी तिका आतां चड त्रास दिवप ना."

"खरेंच गो, कांतभाई कसो पळयता पळय"

च्या-पाणी चालू आसलें. जेवणाचीय तयारी जाल्ली. फकांडां, मस्कऱ्यो केन्ना सोंपतल्यो आनी आपूण ह्या अळंकारांच्या वज्यांतल्यान केन्ना मेकळें जातलें अशें कनकाक जाल्लें. कनक मध्यम वर्गांतली पूण सुसंस्कृत घराब्यांतलीं चली. तचो बापूय शिक्षक. कनकाचो व्हडलो भाव इंजिनियरिंग करतालो जाल्यार धाकलो भाव णववी शिकतालो. आवय घरसंवसार सांबाळटाली.

कृष्णकांताच्या घरच्यांक कनक आवडलें आनी तांणी जेन्ना ताका मागणी घाली त्या वेळार कनकाच्या बापायन कृष्णकांताच्या घरच्यांक सांगिल्लें- "तुमी आनी आमी आस्पतीन वेगळे. तुमी गिरेस्त. तेन्ना आमची तुळा तुमचे बराबर कशी जातली?"

"आमकां चली मानवली. जाले" -प्रभा

"आमकां तुमचे कडल्यान कसलीच अपेक्षा ना." सोयरून पयलींच आपलें मन मेकळें केलें. आमच्या कांताक आनी आमचें घर बरें सांबाळ्ळें म्हणटकच जालें.

"तें बरें आसा, पूण..."

“तुज्या मनांत आनीक कसलोय विकल्प बी आसा जाल्यार येन्नाच सांग.”

“कनकाच्या मनांत फुडें शिकपाचें आसलें. पूण म्हजे परिस्थितीक लागून हांव ताका शिकोवंक पावूंक ना. ताची इत्सा अपूर्ण उरल्या. तेन्ना...”

“पळय, हे एकेच गजालीकडेन आमी तडजोड करपाक शकनात. आरे आमचे कडेन गडगंज गिरेस्तकाय आसतना, चड शिकप आनीक कित्याक जाय रे, कांताक लेगीत आमी बी कॉमा मेरेनूच शिकयलो. पुरो, वेव्हारज्ञान आसलें म्हणटकच जालें. आमकां शिक्षण चड कित्याक जाय तें?”

“जशी तुमची मर्जी. फकत कनकाची हांव भागोवंक पावूंक नाशिल्ली इत्सा तुमकां सांगली.”

कनकाच्या बापायन आपल्या मनांतले विचार कृष्णकांताच्या बापाय आनी आज्या सामकार मांडले आनी मन मेकळें केलें.

देखण्या पूण सुसंस्कृत सभावाक लागून जेन्ना कनकाक कृष्णकांताची मागणी आयली तेन्ना कनक मॅट्रीक पास जावन घराच आसलें. ताका खूब शिक्षण घेवचें आसलें, पूण अर्थीक बळगें उणें आसलें. जेन्ना ताका बापायन कृष्णकांताचे मागणे विशीं सांगले, तेन्ना ताणें म्हणलें–

“बाबा, म्हजें लग्नाचें वय खंय जालां आनी हांव म्हजें फुडलें शिकप पुराय करतां मरे.”

“बाय कनक, तुका खबर आसा. आमचो दीप इंजनियरिंगाक आसा आनी तुका हांव कसो शिकपाक वच म्हणू? खर्च भागना.”

“बाबा तुका हांव उतर दितां म्हजें शिकप हांव सिर्वीस करून पुराय करतां. पूण म्हाका शिकूं दी. म्हाका येन्ना लग्न जावपाचें ना.”

“बाय कनक, काय बरी गिरेस्ताली तुका मागणी आयल्या. आयिल्ली संद आमी वगडावची न्हय. अशी संद फुडें येत म्हण सांगूं नजो. तुका धडपडून कित्याक शिकूंक जाय? तूं राणी कशी जिये. गरजे पुरतें तूं शिकलांच.”

“बाबा, दीपाक तूं इंजिनियर करता आनी म्हज्या शिक्षणा वेळार पिरंगणी कित्याक?”

“बाय तूं चली भुरगें, दीपाक आपलो फुडार घडोवचेलो आसा.”

“आनी म्हाका कित्याक घडोवंक दिना? चलो चली असो भेदभाव

कित्याक?''

"तूं दुसऱ्यालें धन. लग्न जालें की आमकां परकी. दीपाक शिकोवपाक कितलेय कश्ट काडले म्हण व्यर्थ वचपाक नात.''

"आनी म्हाका शिकयल्यार हांव म्हज्या पांयांर उबें रावचें ना, संवसाराक आदार करपाक पावचें ना न्हय? समजलें बाबा. हांव तुका भार कसो दिसतां न्ही जाल्यार आयिल्ले मागणेक तूं हायकार दी. तूं तुजे जापसालदारकेंतल्यान मेकळो जा. हांव तयार आसां लग्नाक.''कनक आवय बापायच्या उतरा भायर नाशिल्ल्यान आपल्यो इत्सा चिड्डून लग्नाक तयार जालें. सान वयांतूच कनकाचें लग्न जावन तें गिरेस्ताली सून जाली.

दीस, म्हयने, वर्सां गेलीं. आपल्या सुसभावान करकान घरच्यांचीं मनां केन्ना जिखिल्लीं. मांय, मांव, आजेमांव सगळीं ताका बरीं करतालीं. कृष्णकांत तर ताचें उतर सकयल दवरिनासलो. कनकाक सगल्या तरांचें सूख आसलें. कनक-कृष्णाचे सुखी संवसाराचे वालीर दोन फुलांय फुल्लीं. सगळें बरें चलतालें. भुरगींय दिशींमाशीं व्हड जातालीं. हळू हळू स्कुलांतूय वचपाक लागलीं. घरांतलें काम काम म्हण तरी कितलें? आलायत्या कामा खातीर मजत करपाक बायलो आसताल्यो. हालींसरा कनकाचो वेळ वचपाक साधन ना जालें.

भुरगेंपणांतली फुडलें शिक्षण घेवपाची इत्सा उचांबळून आयली. सोयरिके वेळार ताच्या शिक्षणा वयली भासाभास पुरायेन खबर आसून लेगीत कनकान आपलो फुडलें शिकप करपाचो विचार मांडचेलो प्रयत्न केलो. अपेक्षे प्रमाण विरोध जालो. कनकाची मांय येरवीं ताका खूब बरी करताली पूण शिक्षण घेवपाच्या विचारंकडेन कशीच तडजोड करपाक तयार नासली.

कनकान हट्ट धरलो आनी एक प्रकारची बुद्द कशी ताका सुचिल्ल्यान घरच्यां आड वचपाचें ताणें थारायलें. ताका कारणांय तशींच आशिल्लीं. तीं त्या वेळार कोणूच मानपाक तयार नाशिल्लो. भुरगीं स्कुलाक वचपाक लागिल्लीं. घरांत म्हण सारकीं कामांय नासतालीं. दुकानांनी मदतनीस आशिल्ल्यान सुनेक थंयचे देखरेखीक व्हरप घराण्याचे प्रतिश्ठेच्या आड दिसतालें.

एक दीस कनकान आपल्या बरें मागप्यां वरवीं मांयचें मन घुंवडावपाचो केल्लो यत्न आनी तांतूंतल्यान ताचो जाल्लो व्हड अपमानूय सोंसून घेतिल्लो. त्या दिसा

सांजवेळ आशिल्ली. कनका बरोबर इंदू तांगेर आयिल्लें. मुजरतूच उलोवण्यान उलोवणें वाडोवन इंदून म्हणलें–

''चंपाताई, तुजीं नातरां आतां व्हड जालीं न्हय? ''

''हय, दोगांय आतां स्कुलाकूय वचपाक लागलीं. आमकां आतां तांचो कसलेच त्रास नात.''

''म्हणटकच तुजी सून कॉलेजीक गेली जाल्यार तुका कसलेच त्रास जावपाचे नात तर''–

''हें, हें सांगपाक कनक तुका घेवन आयलां कांय कितें? तूं ताचें आदोगाद केन्नाच्यान जालां?''

''आगो चंपाताई, आयक गो हांव कितें सांगता तें.''

''इंदू, तुका पयलींच सांगता, आमकां आमचे सुनेन ह्या वयांत, भुरगीं–बाळां जातकच कॉलेजीक गेल्लें मात लेगीत मानवचें ना.''

''चंपाताई, ताची पिराय तरी कितली गो? आतांच्या व्हंकलांची लेगीत चड आसतली.''

''हांव सगलें जाणां.''

''जाणा जावन नेणा जाता मगो? आगो, तुका पुराय खबर आसा, इत्सा आसून लेगीत कनक अर्थीक परिस्थितीक लागून फुडलें शिकप पुराय करूंक पावूंक ना.''

''आगो इंदू, आमकां चड शिकिल्ली चली नाकाच आसली.''

''पूण चंपाताई, हांव म्हणटां, भुरगीं जालीं व्हड आनी घरांतूय तुमकां आदाराक शेलर्की आसात. गरजे भायर सुनेक कित्याक वेंठीक धरप? करूं तिका शिकप पूर्ण. भागूं दी इत्सा.''

''पूण घरच्यांक आवडना न्ही सूनबायन कॉलेजीक वचप.''

''वा रे वा! तुमकां आवडना म्हणून तिणें शिकप ना? हो तुमचो न्याय बरो मुगो! आपले संकुचीत वृत्तीक लागून सुनेचें हीत पिडूड्यार करप?''

''इंदू चडूच उलोवंक लागलें मगो तूं.''

''चंपाताई, आयचें जिवीत कितलें दगदगीचें. भायर सरिल्ल्या मनशाचो परतो घरा ये सर भरवंसो नासता. केन्ना कितें घडत कांयच समजना. आज संवसारांत जण

एकट्यान आपल्या पांयांर उबें रावंक शिकूंक जाय. संवसारांत शिक्षण ही एकूच वस्त आपणावं येता. तिच्या म्हालवजार आमच्यांनी काळखाचेर मात करूं येता.''

''पुरो पुरो पुरो.....''

''आई, आई,--- सपनेली? कितें जालें आई?''

कनकान चंपाक, आपले मांयक, हालोवन हालोवन जागी केली... चंपाक सपन पडिल्लें आनी तें कासवीस जाल्लें. सगळें आंग घामान चिपचिपिल्लें. चंपा आतां पुरायेन सावचीत जाल्लें. ''कनक'', म्हण तिणें हांबेर फोडलो तशीं न्हिदिल्लीं नातरां कांचवेवन जागीं जालीं आनी आवयक घट्ट वेंगावन बसलीं.

''शाणुल्यांनो, कांय जावंक ना, कांय जावंक ना. आजयेन न्हिदेंत सपन पळयलें आनी ती जागी जाली. तुमी न्हिदात आं शाण्यांनो चलात न्हिदात.''

''कनक , चुकलें गो आमचें, फाजील अहंकार आनी बडेजावा मुखार तुका आमी कॉलेजीक वचनासपाक खूब त्रास दिले. पूण आज तुज्या पदराक शिक्षण आशिल्ल्यान....'' आई, नाका, नाका गे त्यो फाटल्यो यादी विसर सगळें? आमी नव्यान जिविताची सुरवात केल्या न्ही? फाटल्यान कित्याक पळयता?

आंतऱ्या पयऱ्यान कनकाची मांय अशीच सपनेताली आनी न्हिदेंतल्यान तिका जागी करची पडटाली. हींच उतरां ती परत परत उच्चारताली. कारण कनकान फुडें शिकपाच्या मांडिल्ल्या प्रस्तावाक सगळ्यां बरोबरीन मांयनूय विरोध केल्लो. पूण सगळ्यांच्या विरोधाक जुमानिनासतना कनकान आपलें भंगिल्लें सपन पुराय केल्लें आनी पदवी मेळयिल्ली.

आपल्या चुकीच्या निर्णया पासत तिका खंत भोगताली आनी ती तें विसरुंकूच शकनासली. कनक तिका धीर दिवपाचो यत्न करतालें. पूण भितरल्या कनकाचें मन हुडक्या हुडक्यांनी रडटालें. ताचो संवसार उध्वस्त जाल्लो तो ताका परत नव्यान उबारपाचो आसलो.

कनकाक याद काडल्यार लेगीत शिरशिरो भरता. दुख्खदिणो, संवसार उध्वस्त करपी तो खीण. दर वर्सा प्रमाण ऑडिटाचें काम आशिल्ल्यान आयतारा दिसा कृष्णकांत, प्रभा, सोयरू आनी तांचो हिशोबनीस शटर बंद करून काम करताले. तांची एकाक एक जोडून चार दुकानां शटराचें कुलप काडून भितर काम चलतालें. कशें आनी कितें हें समजुचे पयलीं तांच्या चारूय दुकानांनी तशेंच तेंकून आशिल्ल्या

दुकानांनी अचकीत उज्यान पेट घेतलो.

आयतार आशिल्ल्यान आनी दनपारचो वेळ जाल्ल्यान शारांत शुकशुकाट पातळिल्लो. साप उण्या लोकांचे यो-वच आसलें. सगळ्या दुकानांचीं शटरां बंद आशिल्ल्यान उज्याची आनी धुंवराचीं केणां भायर सरलीं तेन्नाच मार्गान चलपी लोकांचें नदरेक दुकानांक उजो लागला म्हणपाचें लक्षांत आयलें आनी मागीर आकांत जालो. घण घण करीत उजो पालोवपी उदकाचे बंब आयले. धडाधड कुलपां फोडून दुकानांचीं शटरां उगडपाचो यत्न करचे पयलींच उज्याच्या केणांनी शटरां निखळून पडलीं. उदकाचे बंब उजो पालोवपाचो शर्थीन यत्न करताले. तेच जमिल्ले जमाव तांकां पुरायेन सहकार दिताले. उज्यान सगळें गिळंकृत करतकच ताची भूक भागली आनी उजो इल्लो इल्लो आटापा येवपाक लागलो. तेन्ना बंबवाल्यांचे नदरेक चार करपून कोळसो जाल्ल्यो कुडी नदरेक पडल्यो. ते मेरेन भितर दुकानांत मनीस आशिल्ल्याची खबर कोणाक नासली.

उजो लागिल्ल्याची खबर कनकाच्या घरा पावली ते मेरेन सगळें सोंपिल्लें. कनकाचो, चंपाचो, भुरग्यांचो फुडार लासून गोबर जाल्लो. आपलो संवसार दोळ्यां मुखार उध्वस्त जाल्लो कनकाक पळोवचो पडलो. सगळें सोंपिल्लें. हिसबाच्यो चोपड्यो आनी हेर सगल्या वेव्हाराचोय गोबोर जाल्लो.

गिरेस्तकायेच्या अहंकाराक लागून घरचे सुनेक कनकाक आयजवेर केन्ना घरच्या वेवसायाच्या वेव्हारांत मेतेर जावंक दिवंक नाशिल्ल्यान ताचेर मळब कोसळिल्ले वरी जालें. आतां फुडें कितें? सगलो संवसार माथ्यार. घसघश्यांनी रडपा बगर ताचे कडेन कांयच उरूक नासलें.

दीस कोणा खातीर रावना आनी सूर्य उदेवपाचो थांबना. कनकाक स्वताक सांवरूंकूच जाय आसलें. पदराक शिक्षण आशिल्ल्यान तें फुडें सरलें. हळूहळू देणें-घेणें जाणून घेतलें. वेव्हार शिकपाक सुरू केलें. आपलें दुख्ख फाटीं उडोवन कनक मुखार सरलें तेन्ना खुबशे आदाराचे हात मुखार सरले.

रात आनी दीस म्हणिनासतना कनक पेंगट बांदून काम करपाक मुखार सरलें. आयिल्ल्या संकश्टाक सामकार वचुंकूच जाय आसलें. कारण पदराक भुरगीं आनी मांय आसली. ताणें शुन्यांतल्यान संवसार निर्मुपाचो हावेस बाळगिलो. हें करतना ताका खूब कश्ट जाताले. धांवधांव जाताली. वरांचीं वरां सरकारी कचेऱ्यांनी

तिश्टुचें पडटालें. कांय वेळार मानहानीय सहन करची पडटाली. पूण कनकाच्या आंगांत वेगळेच तरेची धिटाय निर्माण जाल्ली.

शिक्षणाचो ताका खूब उपेग जालो. बँकांचो वेव्हार, सरकारी कामां करतना, वेगवेगळ्या परिपत्रकांचे वाचप करतना चांटे पावलाक शिक्षण आशिल्ल्या कारणान स्वतंत्र रितीन काम करून निर्णय घेवपाक पावलें. आपल्या आंगांत इतली धिटाय आपल्या सोंपिल्ल्या घरच्यांनीच हाडली जावये अशें केन्नाकेन्नाय ताका दिसतालें.

कनकान एकूच ध्यास बाळगिल्लो. तो म्हणचे लासून गोबोर जाल्ले वास्तूचेर नव्यान दुकान थाटून सोंपिल्ल्या आत्म्यांक थाकाय दिवप. अथक परिस्रमान कनकाचें सपन पुराय जाल्लें. 'कृष्ण-प्रभा' शोरूमाचें आज उकतावण जाल्ले. जिद्दीन परिस्थितीचेर जैत मेळयिल्लें.

●●●

# 5 उजू वाट

“जात, धर्म वेगळायनासतना खंचयोय समाज घे. त्या समाजांतली खंयचीय आवय, धूव, सून, भावज, भयण अश्या वेगवेगळ्या रुपांनी नदरे सामकार येता. प्रत्येक अस्तुरेच्या आंगांत कसलो ना कसलो गूण आसता. आनी तो विकसीत करचे पासत ती धडपडटा. कांय वेळार तिका संद मेळटा, कांय वेळार तिचे पांय फाटीं ओडप जाता. संद मेळटा ती अस्तुरी फुडें पावता, आपली उदरगत सादूंक पावता. जिचे पांय ओडून फाटीं दवरप जाता तिचो घुसमटमार जाता. ती आपली संद वगडावन बसता. धडपडटा, चरफडटा आनी कांयच सादचें ना म्हूण निरशेता.”

“समाजांत आमकां दोन चित्रां दिसतात. आपल्या कर्तृत्वान, जिद्दीन फुडें पाविल्ली अस्तुरी आनी फटीच्या परंपरांनी घुसपावन दवरिल्ली अस्तुरी.”

“स्वतंत्र भारतांत बदलत्या काळा बरोबर अस्तुरेन स्वताक, आचार आनी विचारांनी बदलून घेतलां.....”

....यामिनीचो आयज पंचायती मार्फत सत्कार सुवाळो आयोजीत केल्लो. त्या सुवाळ्याक सोबीत ल्हानशीच माची रंगयिल्ली. सामाजीक जाण आशिल्ल्या विचारवंताच्या हातांतल्यान यामिनीचो सत्कार थारायिल्लो. त्या समयार विचारवंत आपले भोव मोलादीक विचार मांडटालो. ताचें उलोवप चालू आसलें...

....यामिनी माचयेर बशिल्लें पूण विचारांचे गतीन तें खूब पयस पाविल्लें. सैम सोबीत, कुळागार आनी वझरे व्हांवपी, चारां-चुन्नांच्या दोंगुल्ल्यांनी भोंवपी, अश्या यामिनी ल्हानाचें व्हड जातालें. ताचो घराबो म्हणल्यार आवय, बापूय आनी

यामिनीचो एक फाटलो धाकटो भाव. हातांत हात घालून गांवचे शाळेंत वतालीं. बाई शिकयताली तें पुरायपणान लक्ष दिवन शिकतालीं. फाविल्ल्या वेळार आवय-बापाय वांगडा शेतांत, कुळागरांत वावुरतालीं. सान पिराय आशिल्ल्यान तांचे कडेन काम जमना आसलें. आनी आवयबापूय तांचे कडल्यान अपेक्षाय बाळगिनासलीं. कामधंदो करून जी पिकावळ येताली तातूंत तीं समाधानान जियेतालीं. तांचो सुखी घराबो आसलो.

आपलीं दोगूय भुरगीं बरीं शिकची आनी तांचे तांकी प्रमाण सिर्विसेक लागचीं इतलीच तांची इत्सा आसली. आवयबापायचें एकूच सांगप आसलें. जरी कितलींय शिकलीं-सवरलीं तरी मूळ गांव, मूळ घर, आपलें आदलें कुळागर, शेत वस्ती सोडप ना. सिर्वीस सांबाळून सगळें करप. आदलें सांबाळप आनी नवेंय आपणावप.

भुरगींय आवय-बापायचें सांगणें भायरायनासलीं. यामिनी तर शिक्षणांतूय हुशार आनी चित्रां पिंतारपाक, रांगोळी घालपाक, विणपाक हुशार आसलें. पूण ताचो आनी एक खेरीज छंद आसलो आनी तो म्हणल्यार पोरसांतलीं फुलां काडून ताचे तरेकवार सोबीत सोबीत हार गुंथप आनी फांतयोय घालप.

गांवांतले शाळेंतले सरस्वतीपुजन आयलें म्हणटकच ताचे खोशयेक शीममेर उरना आसली. पांचूय दीस ताच्या हाताक विसव नासतालो. आपणेंय पोरसांतलीं फुलां पुंजवप आनी भुरगीं जीं सरस्वतीक फुलां हाडटालीं तांचेय तरेकवार हार करून सरस्वतीच्या आंगार घालप आनी सगळ्यांनी ताची तोंड भरून तुस्त तोखणाय करप.

शाळेंतलें शिकप पुराय जातकच यामिनी गांवच्याच स्कुलांत वचूंक लागलें. सगळें बरें सुरळीत चलतालें. अचकीत दैवगती फिरली. यामिनीची आवय दुयेंत जाली. सुरवातीक सादें दिशिल्लें दुखणें मेंदवाचें दुखणें थारलें. निमाणें मेंदवाच्या ट्युमराचें ऑपरेशन जालें आनी केल्ल्या उपायांक बरो प्रतिसाद लाबलो ना जावन त्याच दुखण्यान तिचो अंत जालो.

कुळागर, शेतवस्ती, काजू, भिरंडाचे घर जाल्ल्यान घरांत आदाराचो हात जाय आसलो. यामिनी निकतेंच पांचवेच्या वर्गांत वतालें. शिकपाक हुशार आशिल्लें. पूण उपाय नासून ताका शिकप सोडून घरा बसचें पडलें. भावांचे शिकप चालू दवरलें.

दीस–वर्सां गेलीं. मदीं रिती रिवाजा प्रमाण यामिनीचें लग्न थारलें. न्हवरो तसो खास शिकिल्लो सवरिल्लो नाशिल्लो. पूण यामिनीन बापायन आनी सोयऱ्यांनी थारायिल्ल्या न्हवऱ्याच्या गळ्यांत माळ घाली. पूण शिट्रूक यामिनीक रोखडेंच कळून आयलें की आपलो घरकार नांवा पुरतोच. ताचे कडेन कसलेंच काम जायना आनी तो सदांच दुयेंत. घरच्यांनी सगळें जाणा जावन लेगीत ताचें लग्न केल्लें.

यामिनी भितरले भितर घुसमट्टालें. पूण ताणें आपल्या बापायक कांयच सांगलें ना. पूण आपले धुवेचें बाविल्लें तोंड पळोवन बापायक रोखडेंच समजलें... "बाय यामिनी, कितें घडलां?"

लग्ना उपरांत आवयगेर रावपाक आयिल्ले कडेन बापायन धुवेक विचारलें, "दाय, तूं आनी हांव फटवलीं. पूण तूं चिंता करूं नाका. आसा ते परिस्थितींत हांव दीस काडटलें." बांद फुटिल्ले वरी बापायक वेंग मारून यामिनीन आपल्या दुख्खाच्या उमाळ्याक वाट करून दिली. आपली घरची स्थिती बापायक सांगचें ना म्हूण ताणें थारयिल्लें.

"दाय आज रडलां तितलेंच, खऱ्यांनीच सांगतां, आनीक केन्नाच रडचें ना. आसा तातूंत समाधान मानतलें तूं म्हजी चिंता , हुस्को करूं नाका. तुमी बरे भशेन रावात. तुका फावता तेन्ना म्हजी खबर घे."

यामिनीन आसा तातूंत समाधान मानतलें अशें म्हणलें खरें पूण तें समाधान मानुंकूच पावलें ना. लग्नाक स म्हयने जातात थंय आसा. एक दीस ताच्या घोवाक कडकडून जोर आयलो आनी ताणें दोळे वरशे केले. यामिनीन बोवाळ केलो, पूण सगळीं आपलीं चिडीचूप. "आगो ताका तशेंच जाता. हालीं ताका जायना आसलें चड तेंपान जालां." आवय निर्विकार चेऱ्यान उलयली.

"पूण म्हाका भंय दिसता"–यामिनी.

"ताका दोतोराक दाखोवया जातलो तो बरो. "

"दोतोराची गरज ना."–मांव,

"पूण तो उलय बी ना ताची दांतखिळी बसल्या पळयात."

तुमी कसलीं फातरा काळजाचीं मनशां? तुमकां भंय दिसना? हांव वतां दोतोराक हाडपाक"

"कांय गरज ना म्हूण सांगलें तें तुका समजना? ताचें हें सदांचें दुखणें. तुजें

लग्न जायत सावन ताचें दुखणें उचकूंक नासलें. म्हणून तुका कांय खबर नासलें. तुका हें नवेंच आतां तुवेंय संवय करून घेवंक जाय. चिंता करूं नाका. फाल्यां म्हणसर आपले आपूण निवळटलो. ताचे म्हऱ्यांत वचूं नाका. समजलें? ''

मांवाच्या सवस्तकायेच्या उतरांनी यामिनीक थरथरो भरलो. ताणें असलें दुयेंस केन्नाच पळोवंक नासलें. घोवाची अवतिकाय पळोवन तें सामकें गर्भगळीत जाल्लें. ''कितें? फाल्यां मेरेन तो असोच उरपाचो?'' आनी तुमी ताका कांयच उपाय करिनासतना दवरतलीं? ना - ना - म्हाका भंय दिसता. हांव वतां दोतोराक सोदपाक.''

''चड सुबेज जालां?'' मांवान व्हडल्यान धेंकणो घालो. ''तुज्यान ताका पळोंवं नजो जाल्यार चल पयलीं भितर. वता काय....''

मांवान व्हडल्यान घाल्ल्या धेंकण्यान यामिनीन कच्च करून आंग काडलें. बापायल्या घरा सुखान वाडिल्ल्यान ताणें असलीं कचकचावणी आयकूंक नासलीं. नाय म्हणल्यार लग्न करून हाडीत सावन घरांतलीं सगळीं ताका बरे तरेन वागयतालीं. फकत घोवाचो सूख ताका नाशिल्लें.

ताचो घोव कांयच कामधंदो करिनासलो. चड उलय नासलो. दीसभर आंगार पांगरून घेवन पडिल्लो आसतालो. विचारल्यार कांयच जवाब दिना आसलो. घरांतल्यांक विचारल्यार मांय म्हणटाली-

''तुका कितें उणें आसा?'' खावंक-जेवंक वेळच्या वेळार पानार पडटा. घोवाची कसली चिंता? ताच्या जिवाक बरें दिसना म्हूण आसा तो घरा. वतलो कामाक, जिवाक बरें दिसतकच.''

यामिनी चिंत्तालें - कोणूच सारकें सांगिनात. मनशाक फकत खावंक जेवंक मेळ्ळें म्हूण जाता? लग्न जायत सावन ताका घोवाचीच चिंता जाताली. आपलें फुडें कशें जातलें? घरचीं ताका बरी करतात पूण जर घोवाचेंच नाणें खोटें जाल्यार संवसार सूख तें कसलें? ह्याच चिंतनात तें दिसूयभर आसतालें. तातूंत आज हें अचकीत दुखणें पळोवन यामिनी सैरभैर जालें. आतां तर मांव दोतोराचें नांव काडूंक दिना.

अशें येवजिता थंय आसा, यामिनीचो घोव फडफडूंक लागलो. हातपांय जमनीर मेळत तशे आपटूंक लागलो. अचकीत उठून बसलो आनी तकली जमनीर

आपटूंक लागलो. ''आईऽऽ बाबाऽऽ,'' यामिनीन व्हडान किळांच मारली.

''बेगीन हांगा येयात, पळयात हो कितें करता.''

सगळी पुता भोंवतणी एकठांय जालीं. उपाय करप पयस उरलो पूण मांय व्हडाव्हडान बडबडूंक लागली.

''काय बरो पूत म्हजो इल्लो निवळटालो. वखदाचो गूण पडिल्लो. लग्न करून अवदसा घरांत हाडली आनी पूत म्हजो परत बरो ना जालो.'' आवय हात-पांय पेटून तोंडाक येता तें उलोवंक लागली. यामिनीक वायटवायट उतरां दिवंक लागली. आज मांयचें खरें रूप उकताडार आयलें जे यामिनीन पळोवंक नासलें.

''म्हणचे... म्हणचे... आई..., म्हजो घोव पयलींचोच दुयेंत? तुमी सगळीं ताचें दुयेंस जाणा आसलीं आनी तरी लेगीत ताचें तुमी लग्न केलें. ताचे बरोबर म्हजेंय जिवित पिड्ड्यार केलें. सांग आई, आमकां तुमी काळखांत कित्याक दवरलीं?''

''बरें उलयता मुगो? चुरू चुरू उलयता ती जीब कातरून उडयतलों. कित्याक इतलें कासावीस जाता? जातलो बरो म्हजो पूत. तुका कसली चिंता? ओगी बस थंय आनी कितें चलता तें पळय.''

इतल्यान भितरल्यान उज्याचें आगटें कुळण्यांत घालून यामिनीच्या घोवा मुखार हाडलें. तातूंत सुक्यो मिरसांगो घालून ताचो धुंवर ताच्या नाका कडेन धरचे खातीर ताका चार जाण उबारूंक लागले. पूण तो खंयचो उबो जाता. ताका जेन्ना आंकडी आयली आनी तो हातपांय आपटून फडफडूंक लागलो तेन्नाच घट्ट जालो. तो निचेश्ट पडिल्लो आनी तोंडातल्यान फेंस भायर सरिल्लो.

आतां मात सगळीं भियेलीं. जो तो आपआपले परीन उपाय करूंक लागलीं. मिनसांगेची दरबटाण कूडभर भरिल्ल्यान सगळींच घुसमटून खांकपाक लगलीं. कोण कांदो नाका कडेन तर कोण जोतें लासून नाका कडेन धरतात. एकटो पांयाचे आंगठे चिड्डीतालो. म्हणसर एकटो थंड उदकाचो कळसो घेवून आयलो आनी ताणे घस्स करून ताचे तकलेर ओतलो. पूण ताची कसलीच हालचाल नासली. पूण अजापाची गजाल म्हणल्यार कोणूच दोतोर हाडपाची वासपूस करिनासलो.

आकांज्यार जाल्लें यामिनी तेय परिस्थितीत सगळ्यांची नदर चुकोवन दोतोराक घेवन आयलें. दोतोरान ताका तपासलो

‘‘हें कितें आडायलां तुमी, सगळीं बुरशेपणां केल्यांत? जोतीं, उदक आनी ताका उदकान दवरला? सगळीं सरात पेल्यान. तुमकां हांवें कितें सांगिल्लें? हांव वखद दितां. पूण ताका परत मोडणें मारून आयलें जाल्यार रोखड्या रोखडो हॉस्पिटलांत व्हरून दोतोरांचे नदरे खाला दवरूंक जाय. आनी तुमी हो कसलो सांवार वडयला. तुमकां सगळें सांगिल्लें आसतना तुमीच ताचो घात घेतलो न्ही?’’

‘‘दोतोर-दोतोर कितें जालां म्हज्या घोवाक? सारकें तपासात न्ही!’’

‘‘आगो हांवें ताका सारकोच तपासला. ताची प्राणजोत पालवल्या.’’

‘‘ना दोतोर ना.... अशें जावचें ना दोतोर... हांबेर फोडून यामिनीन घोवाचेर घालून घेतलें.’’

‘‘जाणा जावन तुमी तुमच्या पुताचो आनी एके अस्तुरेचो घात घेतलो. तुमकां सांगूंक नासलें, ताका लग्न उपकारचें ना म्हूण? आनी तुमकां खबर आसलें ताका आंकडी येता म्हणून वैजकी उपाय बरोबर करपाक जाय. तरी लेगीत तुमी ताका घरगुती उपाय करपाक लागलीं.’’

‘‘हय दोतोर, हांवें कितलें सांगलें, दोतोराक हाडया, पूण म्हजें कोणेंच आयकलें ना. दोतोर आतां हांव कितें करूं, सांग दोतोर...’’ यामिनी खोळसून खोळसून रडपाक लागलें.

‘‘कित्याक तुमी पुताच्या जिविता कडेन खेळ खेळ्ळीं?’’ ताचे जिविता कडेन खेळ खेळटनाच तुमी आनीक एक व्हड गुन्यांव केलो. अन्याया विणें तुमी एके फुलते अस्तुरेचे जिणे कडेन खेळ खेळ्ळीं. सांगलां आसतना तुमी पुताचें जिवीत सोंपयलें. हॉस्पिटलांत दवरून उपाय करचे बदला तुमी ताच्यो भोयो भोयो केल्यो. दोतोर सारको सैरभैर जाल्लो. आनी सगळ्यांक तापयतालो.

यामिनीची शुध्द गेली. तें शाबुद्दीर आयलें तेन्ना सगळें आटापिल्लें. सगळे कडेन सासणाची शांतताय जाल्ली.

दोतोरान सगळें सांगून लेगीत आनी घरच्यांक सगळें खबर आसून लेगीत निमाणें यामिनीच दोशी थारलें. घोवाच्या मरणा पयलीं, ताचें दुयेंस लिपोवचे खातीर यामिनीक खूब बरीं करपी घरची सगळीं मनशां ताचेरूच परतलीं. उरफाट्या पांयांची सून आयिल्ल्यान हें अशें विपरीत घडलें म्हूण दीसरात यामिनीक खेपूंक लागलीं.

पंदरा दीस जातकच यामिनीचो बापूय ताका कुळारा व्हरपाक आयलो. भितरल्यान तो सामको पोखरिल्लो. कोसमेल्ल्या लांकडा वरी ताची अवतीकाय जाल्ली, जें केन्नाय मोडपाचें, धीर करून ताणें म्हळें.

"रितीरिवाजा प्रमाण हांव यामिनीक थोडे दीस आवय घरा व्हरपाक आयलां."

बापायक पळयना फुडें यामिनीन ताका घट्ट वेंग मारली."दाय, कितें जालें रे हें. येवजिनाशिल्लें घडलें मरे, दाय , दाय." यामिनीच्या रड्यान बापायच्या काळजाक पीळ पडलो.

"थोडे दीस कित्याक? तिका कायमचीच व्हर. म्हज्या पुताक खालो, आतां आनी कोणा खातीर तिणें हांगा रावपाचें?" मांय टणटणली.

घरकार सोंपिल्ल्यांच्या दुख्खान आनी घरच्यांच्या थोमण्यांनी यामिनीचो सुकून कांटो जाल्लो. बापायक कितें केलें, कितें जालें म्हूण दुख्खाच्यो दागण्यो दिल्ले वरी जाल्यो. सूरवेकूच यामिनीन बापायक सांगिल्लें, आपल्या नशिबांत जें आशिल्लें तें आपल्याक मेळ्ळां. ताचे पासत कोणेंच गुन्यावकारी जावपाचें ना.

यामिनी बापायल्या घरा आयलें तेन्ना तीन म्हयन्यांचे गुरवार आसलें. ह्या दुख्खांत लेगीत ताचो गर्भ स्थीर उरलो. पूण आशाचो जल्म जाल्लो पळोवपाक यामिनीचो बापूय मात उरलो ना.

सुखाचो घराबो कोसळून गेल्लो. यामिनीची आवय वचत पसून घराचेर दुख्खाची सया पातळिल्ले वरी जाल्ली. तातूंत आतां हें दुख्ख.

आशाक ल्हानाचें व्हड करचे पासत भावाचो आदार ताका जाय आसलो. चार वर्सां तें भावाच्या सांगातान रावलें. मागीर स्वावलंबनान जगचे पासत गांवांतूच वेगळो राबितो करून रावंक लागलें. आशाक व्हड करूंक जाय आसलें. ताच्या तोंडाक पळोवन यामिनीन सगळे दुख्ख पचयिल्लें.

सिर्वीस करतलें म्हळ्यार फावो सारकें शिक्षण पदराक नाशिल्लें. पूण मानान जगपाची इत्सा आशिल्ली. आनी म्हणुनूच ताणें फुलांचो सोंपो सुटसुटीत धंदो सुरू केलो. ह्या धंद्यात भांडवल साप्प उणें. आनी दुसरी म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार, ल्हानपणा सावन ताका वेगळेवेगळे तरेन फुलां गुंथपाची आवड आसली. आंगांत आशिल्ले कलेची ताणें पारायेन उपेग करपाचें थारायलें.

गांवांतल्या देवळा कडेन तें फुलां विकूंक लागले. तरेक तरांचे हार, फांतयो

घालून ताणें आपले कलेक वाव दिलो. सुरवातीक ताणें ल्हान प्रमाणांत सुरू केल्ल्या वेवसायाचीं आतां पाळांमुळां रिगपाक लागलीं. ताच्या आंगांत तरेतरेन फुलां गुंथपाची कला आशिल्ल्यान तें स्वाभिमानान जगपाक शिकलें. आपले धुवेकय ताणें आपले वरी मानान आनी स्वभिमानान कशें जियेवचें हाचे धडे दिले.

यामिनी शिकपाक हुशार आशिल्लें. पूण परिस्थिती मुखार ताका बागचें पडिल्ल्यान ताच्यो इत्सा अतृप्त उरिल्ल्यो. त्यो आपले धुवेन पुराय करच्यो हीच ताची मनकाळजांतली इत्सा आसली.

एक दीस असोच यामिनीचो आनी धुवेचो संवाद चालू आशिल्लो. इतल्यान कोणें तरी दारार मारलें. दार उगड जाल्यार दारांत गांवचो सरपंच उबो आसा.

''कितें जालें सरपंच बाब? तुमी? आनी गरिबाल्या घरा?''

''यामिनीबाय, इतली भियेली कित्याक?''

''ना, भियेवंक ना हांव.... म्हज्या आशून बी कितें केलें काय दिसलें.?

''यामिनीबाय तुका परबीं दिवपाक आयलां हांव''

''म्हाका परबी? कित्याक?''

''तुवें आमच्या गांवचें नांव वयर काडलां.''

''हांव आनी म्हजी धूव आशा हाचे भितर हांव गुरफटून आसां. केन्ना म्हजें बाय शिकून व्हड मनीस जातलें हेच आशेर हांव जगतां. म्हाका संवसारांतलें आनीक कांय नाका.''

''तुवें नाका म्हणलें तरी केन्ना केन्ना देव आपसूक दिता. तें तरी तूं घेवची ना?''

''बरें तुकां गोंदळांत घालिना. म्हाका सांग, फाटी तुवें देवळांत बरी रांगोळी घाल्ली ती पळोवन तुका सगळ्यांनी परबीं दिल्ली खंय?''

''सरपंचबाब, ताचें कितें जालें जाणां? मदीं खूब पावस पडिल्ल्यान म्हजी खूब शेवतीं उरलीं. हांवें चिंतलें, दुसऱ्या दिसा दवरल्यार पारतीं जातलीं. पारतीं फुलां कांय देवाच्या आंगार घालिनात. म्हणून हांवें पाकळ्यांची रांगोळी घाली. आशूनूय म्हाका आदार केलो. कितें कोण जाणा, पूण ती रांगोळी सगळ्यांक भावली.''

''यामिनीबाय तुवें मनपुर्वक केल्ली देवाची सेवा फळाक आयली.''

‘‘तुवें ज्या दिसा रांगोळी घाल्ली त्या दिसा कला खात्याचो अधिकारी आपल्या सोयऱ्यांगेर आयिल्ले कडेन देवाचे भेटेक देवळांत पावलो. योगायोगान म्हळ्यार तुजी रांगोळी ताका खुबूच भावली.’’

‘‘ताणें म्हजेकडेन चवकशी केली आनी सांगलें की राज्य पातळे वयले सर्तींत वांटेकार जावपाक गांवचे वतीन तुजें नांव धाड म्हणून.’’

‘‘सरपंच बाब, खऱ्यांनीच सांगतात तुमी हें?’’

‘‘आनी फुडें आयक म्हगे, येता त्या आयताराक गांवची एक बरी कलाकार म्हणून ग्रामपंचायती वतीन तुजो सत्कार करपाचें थारायलां. तांचेंय आमंत्रण तुका दिवपाक हांव मुजरत आयलां.’’

सरपंच उलयतालो,‘‘ खरें म्हणल्यार इतलें लागी आसून, गांवांत आसून, यामिनीबायक गांवचे लोक वळखूं पावले नात. कला खात्याचो अधिकारी योगायोगान देवळांत पावता आनी तो यामिनी बायची रांगोळी पळयता आनी कलागुणाक पारखिता. मनशाक पारखप उणें जाता.....’’

‘‘म्हाका अभिमान दिसता, यामिनीबायन आपल्याचेर आयिल्ल्या संकश्टाक धिरान तोंड दिलें आनी स्वाभिमानान स्वावलंबन आपणावन जिवीत सारलें. खरें म्हळ्यार आयचे अस्तुरेची ही देख घेवपा सारकी आसा. स्वतंत्र भारतांत बदलत्या काळा बरोबर ग्रामीण अस्तुरी लेगीत कशे तरेन स्वताक आचार आनी विचारान बदलून घेता ताची यामिनीबाय एक बरी देख....’’

...ताळयांच्या गडगडाटात यामिनी सावचीत जाता. तिच्या दोळ्यांतल्यान खोशयेचीं दुकां देंवतात.

●●●

# 6 जीण एके अस्तुरेची

बंगल्या सकयल अचकीत बोवाळ, गडबड. घडाघड बंगल्याचीं दारां बंद जावपाक लागलीं. घडघड करून सोंपणांवेल्यान समीर, लारा, गोविंद, शेख सगळ्या रुमांनी पावले आनी सगळ्या अस्तुऱ्यांक आसात ते अवस्थेंत ओडून भायर काडपाक लागले. तांचे बरोबर गिरायकांय लागलीं पळपाक. ''चलात, पळात, सकयल मोटारी उब्यो आसात. बेगीन फाटल्या दारांतल्यान धांवात. पुलिसांची 'रेड' पडल्या. बेगीन बेगीन.'' सगळ्याक एकूच आवाज.

शिंदळ बायलो आसात ते अवस्थेंत मेळत ते दिकेक धांवपाक लगल्यो. आपलो जीव वाटावपाक. एकदां जर पुलिसांच्या हाताक लागलीं, जाल्यार फुडल्यो यातना, भोगणार सोंसपाचे न्हय म्हणून सगळ्योच शिंदळ बायलो जाणात आसल्यो.

पुलिसांची 'रेड' ही आतां सगळ्यांच्याच आंगवळणीं पडिल्ली. मसाज पार्लराच्या नांवान बंगल्यांत शिंदळकी चालताली. बंगलो तसो एकांतांत आशिल्लो. कोणाक कळपाक लेगीत नासलें. त्या बंगल्यांत शिंदळकी वेवसाय चलता. दारांत वॉचमॅन, सुसज्य अशी फुलांनी भरिल्ली बाग, अयस पयस पांचवें चार लॉन, मदेकाद कदेलां आनी वताची सत्री, टिपॉय, कुशीक झोंपाळो, मोटारींक वेगळी, मनशांक वेगळी, अश्यो प्रशस्त गेटी. गेटीक पत्रां खातीर पेटी. सुखवस्तू घराब्याक सोबसारकोच बंगलो, पूण तो बंगलो आसलो शिदळकेचो. नरक.

बिंदून थारायिल्लें आज ना आपूण धांवचें, पळचें. ''आगो बिंदू, तुका पुलिसांच्या हाताक लागपाचें आसा काय कितें? पळ, पळ बेगीन. धांव बेगीन.''

पूण बिंदू घट्ट पाशाणाची शिळा कशी जावून एकाच जाग्यार उबें आसलें. व्हडल्या गळ्याच्या पोलक्याचीं बटणां सुटून आनी घागऱ्याची नाडी सुटून तरणे कुडीची जावपी अस्ताव्यस्त आवतिकायेचें लेगीत ताका भान नाशिल्लें. लज, भीड, मर्यादा ह्यो सगळो शिमो ताणें केन्ना हुपिल्ल्यो. शिंदळकेच्च्या वेवसायान ताची वासना, भूक सगळी मेल्ली. कुडींत जीव आसा म्हणून पुतळ्या भशेन तें जियेतालें.

पुलिसांची 'रेड' पडना फुडें दर खेपे सगळ्या शिदळ बायलांबराबर तेंय धांवतालें. जीव वाटावपा खातीर आनी मागीर थंडाय जातकच चिंत्तालें. कित्याक आपूण धडपडटां? कसली आपली लाचार, बुरशी, जगान उंवाळून वडयिल्ली जीण. बुचबुचिल्ल्या घाणींतल्या किड्यांवरी कित्याक आपणें जगचें? शी, थू म्हजे जिणेचेर. हताश, निर्बळ बिंदू मुखार जिणेपट धांवंक लागलो.

सुखवस्तू घराब्यांत जल्मल्लें बिंदू घराच्या आंगणांत खेळटालें. सकाळचीं णव वरां जाल्लीं जांवये. विमल आनी दिनू-बिंदूचीं आई बाबा, ऑफिसांत वचपाक भायर सरून गेल्लीं. तीं दोगांय सरकारी ऑफिसांत व्हडल्या हुद्द्यार शिर्विसेक आसलीं. दिनूचीं घरचीं मूळ घरा रावतालीं. शिर्विसेक लागून तांकां शारांत राबितो करचो पडिल्लो. दर शेनवारा, आयतारा तीं गांवघरा वतालीं. आवय बापायक मेळटालीं आनी परत येतालीं.

बिंदूक पळोवपाक घरांत एक भुरगें लक्ष्मी आसलें. ताचें काम म्हणल्यार बिंदू बरोबर खेळप आनी ताच्या सांगाताक रावप. विमल-दिनू सकाळीं णव वरांचेर भायर सरून स वरांचेर घरा परततालीं. बिंदू एकटें पडचें न्हय म्हणून लक्ष्मी तांच्या घरांत आसलें. सादारण बारा वर्सां पिरायेचें. घरांतलें हेर काम करपाक एक वावराडी आसली. विमल- दिनू ऑफिसाक वचचे पयलीं ती तांगेर पावताली. घरांतलें सगळें काम, रांदप लेगीत तीच करताली. विमल-दिनू ऑफिसांतल्या परत येसर ती घरांत रावताली. म्हणटकच लक्ष्मीचें काम बिंदू वांगडा किरोवपाचें आसतालें.

बिंदूचे स्कूल दनपारचें आसतालें. तें के.जी. च्या वर्गात शिकतालें. म्हणटकच विमल आपूण घरातल्यांन भायर सरचे पयलीं ताका बळयां उठयतालें आनी आपूण घरांतल्यान भायर सरचे पयलीं बिंदूची सकाळची च्या-खावप स्वताच्या हातांनी

करतालें. बिंदू तांच्या संवसारवाली वयलें अपुरबायेचें फूल आसलें. गोरेपिट्ट, गुबगुबीत गालांचे, सरळ नाकाचें, तांबड्या गुंज ओंठाचें आनी भलायकेनूय पोटली कशें सोबीत, सुंदर.

जशें ते देखणें आसलें तशेंच शिकपांतय हुशार. दोळ्यांवेल्यान गेल्ली वस्त वा विशय ताच्या मन काळजांत घट्ट उरतालो. आनी जेन्ना केन्नाय तो विशय येतालो तेन्ना तें विसकाटावणी मागतालें. सान आसतनाच आपल्या अश्ट–ताशांच्या गुणांनी ताणें घरच्यांकच न्हय तर शेजारी आनी सोयऱ्या धायऱ्यांचेर मोनेळ घाल्ली.

आई बाबा ऑफिसांत गेलीं म्हणटकच एक तर लक्ष्मी वांगडा खेळप आनी मागीर जापसालदार भुरग्या वरी आपलो अभ्यास घेवन बसप. हो बिंदूचो नित्यक्रम आसलो. ताका अभ्यास कर म्हणून सांगचें पडनासलें. चार वर्सांचें आसुनूय ताची समजिकाय दिश्ट लागपासारकी आसली. लक्ष्मी बरोबर ताचो वेव्हार आपल्या घरच्या मनशां वरी आसलो. केन्नाच कुसडेपणां केली नात. आपले बरोबरीन खावपा जेवपाक तें लक्ष्मीक आगरो करतालें. पूण लक्ष्मी आपलो पांवडो राखून वागतालें. वयान व्हड आशिल्ल्यान आपूण कोण, बिंदू कोण म्हणपाची ताका समजिकाय आसली. पूण बिंदूचे आनी लक्ष्मीचें बरें जमतालें.

त्या दिसा आई बाबाक टाटा करून बिंदू सदचे वरी आंगणांत फुलां पुंजावंक लागलें. वावराडेन गेट घालून कुलप केलें आनी ती आपल्या कामाक घरांत भितर गेली. लक्ष्मी च्या पियेवन भायर आयलें जाल्यार बिंदू गेटी कडेन कोणा अनवळखी दादल्या कडेन उलयताशें ताका दिसलें. ताकतिकेन पावलां घालून लक्ष्मी बिंदू म्हऱ्यांत पावता म्हणसर त्या अनवळखी दादल्यान आपले पांय गेटीचेर तेकोवन बिंदूक उखलून वयर घेतलें. लक्ष्मीन पळयलें, बिंदूक घेवन केदे बेगीन चालूच आशिल्ले मोटारीन तो पसार जालो.

''बिंदू बिंदू बिंदू'' म्हणून गेटी म्हऱ्यांत उबें रावन लक्ष्मी आकांतान उलो मारता तें आयकून वावराडी घरांतल्यान धांवत आंगणांत आयलीं.

''कितें जालें गो लक्ष्मी, कितें जालें?'' लक्ष्मी घुस्मटून सांगपाक लागलें– एका अनवळखी दादल्यान बिंदूक गेटींतल्यान उखलून व्हेलें... हांमेर फोडीत आनी हातपांय जमनीर आपटीत लक्ष्मी व्हडाव्हडान रडूंक लागलें. मार्गा वयल्यान येवपी वचपी थांबले. कितें घडलां म्हणपाचें कळटकच जण एकलो बिंदूचो सोद घेवपाक

मेळत ते वाटेन धांवत सुटलो.

वावराडेचेर मळब कोसळिल्ले वरी जालें. आकांत आयलो. विमल-दिनूक कितें सांगपाचें? सदांच आपल्याचेर पातयेवन वचपी, आज अचकीत कितें अघटीत घडलें? तिणें अडेचो नेट हाडून विमलाक आनी दिनूक फोन लावन घडिल्ल्यो अनर्थ सांगलो. तीं ताकतिकेन घरा पावलीं. शारभर फोन, वायरलॅसी घणघणल्यो. नाकेबंदी जावन कितलेशेच दीस तपासण्यो जाल्यो. पुलीस यंत्रणा पुरायेन कामाक लागून, तशेंच सोयऱ्यांनी, शेजाऱ्यांनी पुराय वाठार पिंजून काडलो. पेपरांनी फोटो दिले. शक्य आसात तितल्याय उपायांनी बिंदूचो सोद घेवपाचो चालू केलो. पूण बिंदूचो थाव पत्तो लागलोना. बिंदूच्या यादींनी विमल-दिनू तान - भूक विसरलीं. भरिल्लीं वेंग रिती जाल्ली. एका खिणा भितर फुलिल्लें आंगण उज्याचे भकीक पडून ताचो गोबोर दोळ्यां सामकार जाल्लो.

कोणें पूण व्हेलें? कित्याक म्हणून व्हेलें? बिंदूचें आतां कितें जातलें? भुरग्यांक धरून व्हरून दोळे फोडून, हात पांय लुळे करून, जळपी सिगारेचे बूट दिवन, तोंडार हातापायांचेर दाग दिवन, विद्रूप काया करून दादा लोक भुरग्यांकभीक मागपाक लायतात म्हणपाच्यो जायत्यो गजाली आयज मेरेन फकत आयकल्ल्यो, वाचिल्ल्यो. पूण आयज प्रत्यक्ष तांच्याच बिंदूच्या वांट्याक अशेच तरेची जीण बी येवची ना मूं!! येवजुनूच विमला-दिनूचो जीव घुसमटलो, शिरशिरून घाम फुटलो.

बिंदूचो तपास सोपून सोंपना आसलो. पूण आशेचो धागो, उजवाडाचें किर्ण दिसनासलें. दीस म्हयने आनी वर्सां धावतालीं. पूण बिंदूच्यो यादी काडपा बगर विमल दिनूकडेन कांयच उरूं नासलें. नित्य क्रम रावना. यंत्रा वरी कामां. घरा बसल्यार रिकामें घर बिंदूच्या यादिंनी खावपाक येता. प्रत्येक वस्तूंत बिंदूचें अस्तित्व. शिर्वीस घर, घर शिर्विस ! ना उमेदीचे सुवाळे, ना धार्मीक विधी. दीस उजवाड फांकयत येतालो आनी रात बिंदूच्या यादींचो काळोख घेवन खावपाक येताली.

बिंदूक जेन्ना जाग आयली तेन्ना ताका आशिकुशीक आपलीं मनशां दिसलीं नात. लक्ष्मी ना. आई-बाबा ना. आनी हें घर आपलें न्ही! आपूण खंय आसां म्हणपाचें खीणभर ताका कळ्ळेंच ना. आनी जेन्ना ताका सगळेंच अनवळखी दिसलें तेन्ना तें वायट सपन पडून न्हिदेंतल्यान जागें जाल्ले वरी आकांतून रडपाक

लागलें.

''म्हाका आई म्हऱ्यांत पावय.''

''म्हाका लक्ष्मी जाय.''

''म्हाका बाबा जाय.''

''बाय तुका जाय थंय व्हरून पावयतां पूण पयलीं तूं हें दूद पिये'' एक मायेस्त आवाज ताच्या कानांत पडलो. तें सावचीत जालें.

''तूं कोण? तूं म्हजी कोण? हांवें तुका केन्नाच पळोवंक ना. आनी हांव हांगा कशें पावलें....'' हो हो करून बिंदूक रडें फुटलें.

''बाय पयलीं दूद पिये. मागीर तुका सगळे सांगता.''

''पिये, दूद पिये. केन्नाच्यान भुकेलां आसतलें.'' हीं उतरां कानांत पडना फुडें बिंदूक आपल्याक कडकडून भूक लागल्या म्हणपाचें जाणवलें. एक बायल बिंदूक वेगेंत घेवून, सांसपीत ताका दूद पियेवपाचो आगरो करतालीं.

''ना-ना तूं कोण? हांव खंय आसा? म्हजे आई-बाबा खंय आसात तें सांगले बगर म्हाका कांयच नाका.''

बिंदूच्यान रडें कशेंच आवरना जालें. दोळ्यांतल्यान दुखां आनी नाका तोंडांतल्यान शेंबूड, थुकी गळटा हाची ताका पर्वा नासली. रडून रडून आनी आड्डी मारून ताचो ताळो पडपा कडेन पावलो.

आतां बिंदू इल्लें इल्लें सावचीत जाल्लें. ताका अंधूकशी याद जावपाक लागली. आई-बाबाक टाटा करून आपूण गेटी कडेन फुलां पुंजायतालें. एका अनवळखी मनशान आपणाक शूत-शूत करून लागीं आपयलें. आनी लांब हात करून नाका कडेन कितें तरी व्हेलें...मागीर ताका कांयच खबर ना. तें आतां जागें जाल्लें.

तो अनवळखी मनीस कोण खंयचो ताका कांयच कळूंक ना. चार वर्सांची पिराय, पूण बिंदू शिटूक आसलें. कितें तरी वायट घडलां म्हणपाची सुलूस ताका लागली. फट् करून तें वेंगेंतलें उठलें आनी लागलें धांवपाक ''म्हाका घरा पावय. म्हाका घरा पावय. '' बिंदून रडून रडून अख्खें घर माथ्यार घेतलें. पूण आशिकुशीक ताचे वयाच्यो आनी ताचे परसूय मातश्यो व्हड अश्यो आनी चार पांच चलयो आनी एक बायल हांचे बगर त्या घरांत कोण नासलीं. सगळीं दारां बंद

आसलीं. त्यो चलयो बिंदूक तेळीत आशिल्ल्यो. रड-रड रडून निमाणें पुरो जावन तें न्हिदून पडलें. आवयचे वेंगेची याद येवून न्हिदांत लेगीत तें हुडकेतालें तें पळोवन ते बायलेच्या दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो झरी व्हांवक लागल्यो. आपुणूय ल्हान आसतना अशीच रडटालीं म्हणपाची तिका याद आयली. पूण हांगा पावतकच केदेंय व्हडलें रडें आनी दूख्ख आसलें तरी ताचे मोल शुन्य आसलें.

बिंदूची नवी जीण सुरू जाल्ली. बिंदूच्या रडपान दिसाची सुरवात जाताली. पाशाण फुटत पूण हांगासल्या दलालांचीं काळजां पाशाणापरस घट्ट आसलीं. तांकां दयामाया नासली. खूब दिसां मेरेन आई-बाबा-लक्ष्मीचे यादीन बिंदू घुसमटून घुसमटून रडटालें. ताका कितेंच रुचना आसलें. हांगा बिंदूक खेरीत अशी, गिरेस्ताल्या भुरग्यावरी बडदास्त जाताली. सगाळीं गरम गरम पेलोभर दूद, ओम्लॅट पाव, चपाती, सँडवीच, तांतीं, चीज, बटर बिंदून आपल्याक जायतें खावचें. बिंदूचे घरचे यादीन दीसभर आपल्याच विश्वांत आसतालें. दीस वताले म्हयने वताले, पूण बिंदू यादींतल्यान कशेंच भायर येनासलें. बिंदूक सेवेक एक बायल आशिल्ली. ती ताचेर जिवापाड माया करताली. ताका फुसलावन फुसलावन खावयताली, जेवयताली, न्हाणयताली, काणयो सांगून वेंगेंत घेवन न्हिदयताली. तिका माई म्हणटालीं.

दीस वतात तशी घायार खवळी धरता तशीच कितें बिंदूची अवतिकाय जाली. बिंदूच्या दुख्खाचेर खवळी धरली हळूहळू ताची जीण बदलूंक लागली. एक दीस ताणें माईकडेन आपल्या स्कुलाची याद काडली. तेन्ना माई ताका वेंगेंत घेवन खूब रडली आनी तिणें बिंदूक सांगले. ''बाय, आतां तुजी शाळा सोंपली, हांगा तुजी वेगळी शाळा सुरू जातली. हांवुय सुरवाती तुजेच वरी खूब रडिल्लें पूण ताचो कांयच उपेग जालोना. आतां हेंच तुजें घर आनी शाळा.'' माई कितें उलयताली ताचो सान पिरायेच्या बिंदूक अर्थ समजलोना. तें माईक पळयतूच उरलें.

थंय आनिकूय भुरगीं आशिल्ली ती जेवणाचेर बी आधाश्यावरी तुटून पडटालीं. बिंदू तांचे भितर केन्नाच मिसळूंक पावलेंना. आनी माईनूय ताका तांचे बरोबरीन वाडयलेंना. ताका वेगरेच तरेची खाशेली वागणूक मेळटाली. घडये तें गिरेस्तालें चली म्हणून आसुये. दर आठ दिसांनी थंय एक दोतोर येतालो. आनी सगळ्या चलयांक इंजेसांव तोपतालो. गुळयो खावयतालो. जसो जेवणाचो, खाणातो रतीब

चालू आसलो तसोच तरेचो हो प्रकार. इजेसांबां आनी गुळ्यांक लागून जावये, हांगाच्यो चलयो फुलक्या रोटयांवरी गरगरून फुलताल्यो. रोंप्यांक सारें घालतकच रोंपयो करयो तररून येतात? तशे तरेची स्थिती हांगासल्ल्या चलयांची जाल्ली.

सैमाच्या नेमा प्रमाण ऋतुमानांत बदल जाता तशेच तरेचो बदल बिंदूतूय जातालो. वर्सां वतात तशें बिंदू चडूच सोबीत दिसतालें. राजकुंवरीक फाटीं घालपा सारकी ताची रुपकळा दिशी माशीं फुलून येताली. बारा वर्सांचें बिंदू सोळा वर्सां पिरायेची तरनाटी कशी दिसतालें. आंगापांगान गच्च भरिल्लें, वाटकुळोच चेरो, आदले गुबगुबीत गाल आनिकूय भरिल्ले. तांबड्या गुंज ओंठांनी अदिकूच रसरशीतपणा. भरिल्ली आतां तें कोणायचेय नदरेंत भरपासारकें जाल्लें.

आनी हेच संदीचो कोठयेचो दलाल, रामू, वाट पळयतालो. इतलीं वर्सां खर्च करून वाडयिल्ल्या बिंदूचो शिंदळकेच्या धंद्यांतलो रेट अपेक्षे भायर मेळटालो म्हणून रामू खुशाल आशिल्लो. बिंदूय आता सादूर जाल्लें. ताका हळूहळू सगळें कळपाक लागिल्लें. माई कडल्यानूय ताका कळत नकळत नितीमत्ते भायर चलपी गजालींची जाणविकाय जावपाक लीगिल्ली. पूण अजून तें आपलें भुरगेपण विसरुंक पावूंक नासलें. जल्मताच तल्लख बुद्दीचें आशिल्ल्यान समजिकाय येतकच आपूण खंयच्या नरकांत पावलें हाची ताका समजिकाय येवपाक लागली. काप्या हातांच्या मोदीची आंगाक फीट जाता तसली मुस्तायकी घालपाक बिंदून न्हयकारतकच ताका ताच्या घोस्ताची मुस्तायकी दिवप जाताली. बिंदूक सदांच खाशेली वागणूक मेळटाली ती पळोवन बाकीच्या चलयांक नसाय जाताली.

बिंदू कोणाचीच पर्वा करीनासलें. वांगडाच्यो चलयो बुरशें बुरशें उलयतालीं ती भास ताका केन्नाच समजली ना. बिंदूच्या सुसंस्कृत घराण्याचो ताचेर जबरदस्त पगडो आशिल्लो. ताच्या शिरंतरांनी तेंच रगत व्हांवतालें. रामूचे कोठयेर कांय खाशेल्यो केसी आसताल्यो. तांकां खाशेली वागणूक, सरबराय आसताली. तांचे देखरेखीक माई आसली जिचें स्त्रित्व अशेंच भंगिल्लें. बिंदू गिरेस्तालें सोबीत सुंदर भुरगें. ताका सांपळो लावूनच उखलिल्लें. ताचो थातोमातो तसोच दवरिल्ले. बिंदूची रेट खाशेली, गिरायकूय खाशेलें.

जशें जशें बिंदू व्हड जातालें तशें तें चित्ततालें, एक ना एक दीस आपूण हांगाच्यान पळून वतलें, म्हणल्यार वतलें! आई-बाबा सरीं पावतलें! आपूण

खंयच्या शारांत आसां, आपलीं आईबाबा खंयच्या शारांत आसात ह्यो गजाली ताका कांयच खबर नासल्यो. पूण एकूच ध्यास मनांत आसलो. संद मेळत तेन्ना आपूण हांगाच्यान पळून वचून आईबाबाक सोदून काडटलें, म्हणजे काडटलें. आई बाबाच्यो यादी ताज्या काळजांत घट्ट रिगून आसल्यो. अजून लेगीत तें तांकां विसरूंक पावूंक नासलें.

आनी निमाणें तो दीस उदेलो. सकाळींच रामू पॉश मोटारींतल्यान देंवलो. माईक भायर आपोवन सांगूंक लागलो ही मुस्तायकी बिंदूक दी आनी ताका भायर सरपाक मदत कर.

"रामू पापया, तें अजून ल्हान आसा मरे. अजून न्हाण लेगीत येवूंक ना ताका आनी तूं तांका धंद्याक लायता?" "माई तुका सांगलें तें कर. चड जाणवायो नाकात तुज्यो." माईच्या दोळ्यांत दुकां भरलीं पूण हाचेर कांयच उपाय ना म्हणपाचें माईच्या आजवेरच्या अणभवान जाणून घेतिल्लें. तिणें पदरान दुकां पुसलीं. काळजार फातर दवरलो आनी भितर गेली.

"बाय बिंदू, आज तुमकां सगळ्यांक पिकनिकेक व्हरतात खंय."

"कितें? पिकनीक? म्हणल्यार गे कितें?"

"भोंवपाक वचप गो."

"माई, इतलीं वर्सां जाली, खावप-जेवप आनी जनेलांतल्यान पयसुल्लो भायलो वाठार पळोवपा शिवाय हांवें कांयच पळयलेंना आनी आज भोंवडीशी?"

बिंदूक वाचूंक बरोवंक कांयच कळनासलें. केजी कितें शिकिल्लें तें केन्ना विसरून गेल्लें. तांकां हे बंदखणींत फकत पोटाक घालून जनावरां भशेन पोसतालीं. बिंदूचे तल्लख बुद्दीक लागून खंयचेच गजालीचेर तें विश्वासना आसलें. तें समजूंक पाविल्लें, ही सुवात बरी न्हय. सान पिराय आशिल्ल्यान ताका समजनाशिल्लें, आपल्याक हांगा चोरून कित्याक हाडलां, आपलो उपेग कितें? ना स्कूल, ना अभ्यास! माई आदीं-मदीं ताका कितें तरी सांगपाचो यत्न करी. पूण तिच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरना आसलीं.

माईची बिंदूचेर खाशेली माया आशिल्ली. ती ताका पोशेताली, सांसपिताली आनी मागीर सुस्कारताली. "माई कितें जालें?" म्हणल्यार तिणें केन्नाच जाप दिलीना. "भोग जल्माचे!" हींच तिचीं उतरां आसतालीं.

“बाय बिंदू, सर भायर, घाल मुस्तायकी. नाजाल्यार येतलो काळ म्हाका व्हावपाक.”

“माई हांव भायर सरतां, पूण तूं येतली मगे?”

“हांव? हांव गो कशी येवूं तुजे बराबर? हांव जड्डूल मगो”

“जड्डूल म्हणल्यार कितें गे माई?” बिंदून माईक वेंग मारून विचारलें.

“जड्डूल म्हणल्यार म्हातारी.”

“म्हातारेन आयल्यार कितें जाता? म्हजी आई तुजे भशेनूच आसली. बाबा तिका आमचे बराबर सगळेकडेन व्हरतालो.”

“बाय बिंदू, अजून तूं फाटल्यो यादी कशेंच विसरना. पापया, पापया, आतां तरी तूं विसर गो सगळें!” म्हणून माई रडपाक लागली. आपल्याक पळोवन, आपले कडेन उलयतना माई कित्याक रडटा हाचें बिंदूक सदांच कुवाडें पडटालें. पूण भुरगें मन रोखडेंच विसरतालें.

“चल, चल सडसडीत, बदल मुस्तायकी.”

“तुका सांगलें न्ही माई, तूं येना जाल्यार हांव भायर सरचें ना.”

“बरें तर, हांवूय येतां तुजे बराबर.”

“आतां कशें जालें!” मारिल्ली वेंग सोडयत बिंदून म्हणलें. “चल, तुंच बदल मुस्तायकी‘ म्हाका आनीक नवी कित्याक? हीच पुरो. तूंच बदल पळोवया सडसडीत.”

माईचे दोळे दुकांनी भरूनभरून येताले. बोकडे पिलांक पोटाक पोटभर घालून धश्ट- पुश्ट करून कसायाच्या हातांत जशे दिवपाक व्हरतात तीच अवतिकाय आज बिंदूची जाल्ली. पूण हांव कितें करूं? आयजवेर कितलीं पिलां मातोवन आपणें कसायांच्या हातांत दिलीं.? देवा-देवा हांवूय ह्याच नरकांतल्यान व्हड जालें. आनी आज ह्या थराक पावलें. देवा भोगोस म्हाका!

“माई, जालें गे म्हजें.” माई तनरेंतल्यान जागी जाली, जाल्यार मुखार सर्गांतली परीच तिच्या सामकार उबी. तांबड्यागुंज रंगाच्या घागऱ्या पोलक्यान बिंदूची सोबीतकाय अदिकूच उठून दिसताली. खीणभर माईक दिसलें-बिंदूची दिश्ट काडची. पूण कपल फुटक्याची दिश्ट आनीक कित्याक काडप? कोणा कसायाच्या हातांत पडून ताचें कौमार्य पिसडून वतलें! माई सुस्कारली. भरिल्ल्या

दोळ्यांनी ताका वेंगेंत घेवन ताचो उमो घेतलो. बिंदूक नियाळटना दर खिणाक माई आपल्याक बिंदूक मदीं सोदताली. फाटल्या यादींनी घुसपताली.

‘‘चल मगे माई, हेदोळ सामके ताकीत करताली? आतां वेळ कित्याक?’’

‘‘चल चल....’’

माईचो हात धरून आनी एका हातान घागऱ्याचें पोंत सांबाळून बिंदू मेकळे हवेंत पावलें. बिंदूक कितें करूं कितें नाका जाल्लें. माईचो हात सोडून तें हेवटेन तेवटेन नाचूंक लागलें. नविनूच पांखाटे फुट्टतकच सवण्या पोराची जात तशीच स्थिती बिंदूची जाल्ली. बिंदूक जाल्ली खोस पळोवन माईच्या पोटांत कालवा कालव जाल्ली. पोरा आयचोच मुक्त खीण भोग पापया. फुडें तुजे जिणेंत कसल्यो नरक यातना दवरल्यात, भोगणार दवरल्यात देवच जाणा. माई भितरले भितर हड्डें फोडून रडटाली.

रामून बिंदूक थोडो वेळ नाचूंक बागडूंक दिलें आनी मळबांतले घोणीन अचकीत सकयल येवन कोंबयेच्या पिलाचेर झोंपय मारची तसो रामू बिंदूचेर झुडून गेलो आनी ताचो हात धरून भरभरीत ओडपाक लागलो. अचकीत घडिल्ले घटनेंन बिंदू काचकियार जालें आनी रामूचो हात झिडकारपाचो अयशस्वी यत्न करूंक लागलें.

‘‘माई, माई, कितें करता पळय, कितें करता पळय.’’ बिंदूच्यो आड्डी सुरू जाल्यो. रामून कांय एक आयकनासना ताका ओडीत व्हेलें आनी मुखारूच दार उगडून उबी आशिल्ले पॉश मोटारींत धुकलून घालें. ‘‘माई-माई-माई’’ बिंदू मोटारींतल्यान भायर येवपाचो पुराय नेटान यत्न करतालें. ताणें मोटारींतल्यान भायर सरचे पसात हारशांचेर मुठी मारतालें. आपल्याक कोणें तरी सोडोवचें म्हणून जिवाच्या आकांतान आड्डतालें. पूण काळ्या हारशांतल्यान ताचो आक्रोश भायर कोणाकूच दिसनासलो. रामूक ह्यो सदच्योच गजाली आशिल्ल्यो. आयजवेर ताणें आनी ताच्या अन्य वांगड्यांनी कोंबयेची पिलां पारखून, चोरून हाडून तांचीं तलगां करून शिंदळकेच्या धंद्यांत घाल्लीं. मेजपाक येवचे नात इतल्या अस्तुऱ्यांचे श्राप घेतिल्ले. बिंदूक घेवन मोटार वेगान धांवताली. जिविताची काळखी रात सजोवपाक. आनी माई असाह्य, अगतीक जावन बिंदू गेल्ले वाटे कडेन निर्जीव हात हालयताली.

●●●

# 7 उजवाडाचीं किर्णां

आयज योगेशाचो सत्कार. ल्हानशा गांवांत रावून व्हड कर्तूब जोडिल्ल्या योगेशाचो सत्कार. सत्कार घडोवन हाडटा गांवांतली शिक्षणीक संस्था, एक माध्यमीक शाळा जें शाळेंतल्यान योगेशान धावी मेरेनचें शिकप केल्लें आनी शाळेक नांवारुपाक हाडिल्ली.

ल्हानपणा सावन योगेश शिकपाकच न्हय तर सगळ्याच कलागुणांनी मुखार आशिल्लो. परिस्थितीक लागून ताका शारांतल्या व्हड नांवाजत्या स्कुलांत प्रवेश घेवप शक्य नाशिल्लें. घरची परिस्थिती जशाक तशी, न्हय गरीब न्हय गिरेस्त. मध्यम परिस्थिती आशिल्ल्यान आनी व्हडलो भाव एकलोच जोडकार आशिल्ल्यान योगेशान गांवांतल्या स्कुलांत रावून लेगीत गुणवत्ता यादींत आपली सुवात सुगूर केल्ली. त्याय वेळार ताचो असोच सत्कार जाल्लो.

पूण ह्या सत्काराचें खाशेलेपण वेगळेंच आशिल्लें. योगेशान सर्जरी मळार व्हड जैत हातासून सुपुल्ल्या गांवाचें नांव परजळीत केल्लें. ज्याच्या ताच्या तोंडांतल्यान योगेशाचेंच नांव घोळटालें. ताणें केल्ल्या अथक श्रमाचें चीज जाल्लें. योगेशाचो घराबो धदोसकायेन फुलून गेल्लो.

परत एकदां योगेशाच्या स्कुलांत ताचो भव्य दिव्य असो सत्काराचो घाट घाल्लो. थळाव्या आमदाराची उपस्थिती तशेंच शिक्षणीक मळावयल्या नामांकीत व्यक्तींचे उपस्थितींत योगेशाचो सत्कार जावपाचो आसलो..

सहाजिकूच मुखा वयले रांकेंत योगेशाचीं सर्वेसर्वा म्हणल्यार भाव-भावज योगेशाच्या सांगातान बशिल्लीं. दोगांयचेंय काळीज अभिमानान भरिल्लें.

आवयबापूय अचकीत अपघातांत भायर पडटकच गुणान योगेश, युगा, युगेंद्राची जापसालदारकी आपल्या भुजांचेर घेतिल्ली. ताणें आपल्या भावंडांक केन्नाच अंतर पडूंक दिनासतना तांच्यो शिक्षण धरून सगल्यो गरजो पूर्ण केल्ल्यो आनी अजून लेगीत करितूच आशिल्लो.

गुणा बरोबरींत ताची घरकान्न गुणवंतीनूय आपलो देर आनी नणदेक केन्नाच आवय-बापूय ना हें कळूंक दिवंक नासलें. तिनूय भांवडां मदीं योगेश चड बुद्दीमान आशिल्ल्यान ताच्या शिक्षणाक, भाव-भावजेन केल्ल्या आदाराची योगेशाक पूर्ण जाणविकाय आशिल्ल्यान ताच्या काळजांत तांची सुवात देवा समान आसली. ताळयांच्या कडकडाटान योगेशाक माचयेर व्हरून बसोवपाक खासा ताचो हेडमास्तर गेलो. योगेशाची गुणवंदना आनी बुदवंतकायेचेर सगल्यांचींच उलोवपां जालीं. जेन्ना ताचो सत्कार करपाचो वेळ आयलो तेन्ना योगेशान आयोजकांकडेन मागणें केलें की आपल्याक आयज जी घडी प्राप्त जाल्या त्या खिणाची याद धरपाक म्हाका म्हजो भाव आनी भावज माचयेर आयिल्लीं जाय. म्हजे भाव-भावजेन आपल्यो सगल्यो गरजो फाटीं दवरल्यो; तांणी म्हाका भरूभरून मोग-माय दिवंक नाशिल्ली जाल्यार आयज हांवें जें येस हातासलां तें हांव केन्नाच हातासूंक पावचों नासलों. आयज हो सत्कार म्हजो न्हय तर म्हजे आवयबापायचे सुवातेर आशिल्ल्या भाव-भावजेचो. योगेश उलयत आशिल्लो आनी गुणवंती...

गुणवंतीचें काळीज भरून आयिल्लें. फाटल्या यादींचो पट तिचे दोळ्यां सामकार आयलो.

....'गुणवंती, तूं आनीक अशें तिनसांजचे कातरेर? यो, यो, भितर. बरें आसा मगो? यो, यो, भितर. आनी जांवयबापू खंय तर? एकलेंच आयलां?

'आई-आई, एकाच बरोबर कितले गे प्रस्न? कितल्या प्रस्नांच्यो जापो दिवं हांव?'

'बरें बरें तुका जाय तेन्ना दी जापो. पयलीं हातपांय धुवन घे. मागीर थंडसाणीन उलोवया. आगो अचकीत तुका हे तिळसांजचे कातरेर एकलें एकसुरें पळोवन कांचवेलें गो हांव. पळय पयलीं च्या घे. खावपाक कितें दिवं? '

'आई आई, खरेंच म्हज्यान सोंसू नजो'

'बाय-वन्ती, कितें जालां गो सोंशिनासपा सारकें?'

'आई गुणा कडेन जेन्ना म्हजें लग्न जालें तेन्ना हांव कितलें उमेदी आसलें. रंगरंगयाळीं सपनां घेवन हांवें संवसाराची गांठ बांदिल्ली. पूण आई... म्हजें सपन, सपनूच उरना मगे? म्हाका भिरांत दिसता.'

'वन्ती, वन्ती तुजें जालां कितें? हांसतें फुलतें फूल कित्याक गो पुता बावलें? सपन सपन, कसलें सपन?'

'आई, गुणी म्हजें कितेंच आयकना.'

'गुणी कितें आयकना?'

'म्हजें आनी गुणीचें संवसारांत पटतशें दिसना...'

'आगो वन्ती, तूं मोगान लग्न जालां न्हय गो?'

'हय आई, पूण आतां हांव चुकलांशें दिसता म्हाका.'

'हीं कसलीं अवचिन्नपणां उलयता गो तूं? तकलेन विरार बी जावंक ना मगो?'

'तोंच भंय जाला म्हाका. म्हणून तुजे सरीं धांवून आयलां.'

'वन्ती, गुणीत कितें उणें आसा? शंबर नंबरी भांगर. शिकला, राजबिंडो, कर्तुत्ववान आनी बँकेची शिर्वीस.'

'आई, सगलें खरें. हांव खंय ना म्हणटां. पूण एक गजाल तूं साप विसरता... ताच्या माथ्यार संवसाराचें वजें आसा. तो एकलोच जोडपी आनी सगलीं भावंडां शिकपी.'

'वन्ती, हें तुका पयलीं खबर नासलें?'

'आसलें.... पूण म्हाका दिसलें आवय-बापायलो आसतलो पोटलो. गुणीचेर सगलो भार पडटा ही गजाल म्हाका खबर नासली.'

'तरी बरें.... गुणीन लग्ना पयलीं हांतली एकूय गजाल तुजे पसून लिपोवंक नासली. तुजेर मोगाचें भूत बशिल्लें काय कितें गो? देंवलें भूत? आतां कित्याक निरशेलें?'

'आई, लग्न जातकच हांवें गुणीक वेगळें बिराड करपाक लायतलें अशें थारायिल्लें. पूण खंयचे कडेन कांय ना.'

'पिसावलां काय कितें गो तूं? वेगळें बिराड? आनी ताच्या भावंडांनी कोणाच्या तोंडा कडेन पळोवपाचें? तुका कितें म्हणचें तेंच म्हाका कळना. हांवें केन्नाच चिंतूंक नासलें. म्हजी चली इतल्या दुश्ट विचारांची आसतली.'

‘आई, फुडें आयक मगे, म्हजें शिक्षण हांवें रांदपा-वाडपांतूच घालप गे! गुणा सकाळीं भायर सरता तो तिळसांजे येता. ते मेरेन कितें करप?’

‘तुका सांगतां वन्ती, तुजें हांव कांयच आयकून घेवपाचें ना. गुणी सारको भांगर भुरगो मेळप म्हणल्यार भाग्य तुजें आनी आमचेंय. आवयबापूय अचकीत अपघातान भायर पडलीं आनी घराचो कर्तो गुणीक तूं भावंडां पसून वेगळावंक सोदता! खंय खंय फेडटलें गो हें पाप तूं? गुणीचो आपल्या भावंडांचेर जीव आनी मोग करपा सारकींच भावंडां तीं. एकामेकांक सोडिनात.’

‘आई पूण सगळ्या संवसाराचें वजें हांवेंच कित्याक घेवचें? हांव ह्या वज्या मुळा चेपतलें मगे! गुणील्या भावंडां खातीर हांवें म्हजें अस्तित्व सोंपोवप हो खंयचो कायदो?’

‘तूं कायद्याच्योश्यो गजाली करपाक शिकलें...आं...वन्ती सगल्योच गजाली कायद्यान जायनात... जाणा जा तूं. माया-मोग-कर्तव्य-जापसालदारकी ह्यो गजालीच वेगळ्यो.’

‘घटस्फोट तरी कायद्यान जाता न्हय?’

‘कितें? घटस्फोट?’

‘हय आई, हांवें घटस्फोट घेवपाचें थारायलां. हांवें गुणीक सांगलें, तुज्या भावंडांचे कश्ट काडपाक हांव तुजे कडेन लग्न जावंक ना. म्हाका संवसार म्हजे पद्दतीन करूंक जाय. तुका सांगून सांगून हांव थकलां. तेन्ना तूं भावंडांक घेवन बस, हांव चल्लें कुळारा. म्हजीं भावंडा, योगेश, युगा, योगेंद्र करीत करीत वर्सां वतलीं म्हजीं. म्हातारें जातलें हांव.’

‘गुणवंती , तुजी तकली जाग्यार आसा मगो? एके सादे गजालीक लागून घटस्फोट घेवपाच्या निर्णया मेरेन तूं?’

‘आई, तुका जरी ही गजाल क्षुल्लक दिसली तरी म्हज्या मतान ती म्हाका क्लेश दिवपी. म्हज्यान सोंसूंक जायना. हांव आयज गुणीलें घर सोडून आयलां. ताणें म्हजें आयकलेंना जाल्यार हांव परतें वच्चें ना.’

‘आनी आमी तुका घरांत थारो दिलोना जाल्यार?’

‘आई, आई, कितें उलयता गे तूं? तुमी म्हजीं आई बाबा, तुमचे मोगाचे धुवेक घरांत घेवचीं नात? आई....आई.... जें कितें चल्लां तें सगळें सोंसून सोंसून

हांव पिशें जातलें.'

'क्षुल्लक गजालीक लागून तूं गुणीक सोडपाचो निर्णय घेता. तुजेर ल्हानपणांत केल्ल्या संस्काराचो होच जर परिणाम तर निश्ठूरपणान आमकांय निर्णय घेवचो पडटलो. म्हाका दिसता तुवें तुजो वेगळो विचार करचो पडटलो. तुज्या अबुद्दीपणान घेतिल्ल्या निर्णयाक आमी तेंको दिवचीं नात.'

'आई...आई.. हांव खंय वचूं तर? गुणीक हांव धमकावन आयलां आनी तूं हें कितें उलयता गे?'

'वन्ती, ज्या चल्याक बरोबर तूं लग्न जालां तो तुका असोच मेळूंक ना. आपल्या भुरग्यां खातीर आवय-बापूय आपलें सर्वस्व ओंपतात आनी तुजे सारकें भुरगें हें सगळें ताका खिणांत विसर म्हणटा. शक्य ना तें. गुणी आपल्या भावंडांक वेगळावंक शकना. ताचें कर्तव्य तें.'

'आई, जल्म दिल्ल्या भुरग्यांक आपणें बरे तरेन ल्हानाचे व्हड करप हें जण एकल्या आवय-बापायचें कर्तव्यूच.'

'आनी भुरग्यांनी लग्न जातकच हें सगळें विसरप हेंय बी तांचें कर्तव्यूच? हय गुणवंती... सांग मगो.'

'आई.... हांव तशें म्हणूंक ना.'

'गुणीक वेगळें बिराड कर म्हणप हाचो अर्थ कितें जाता? जण एकलो आपआपले परीन विचार करता. आयज तूं फकत गुणील्या भावंडांचो भार तुमचेर पडला म्हणून पयस वचूंक सोदता. आयज तीं ल्हान पूण आपले खातीर तुमी घेतिल्ल्या कश्टांची जाणविकाय तीं विसरलीं नात. जेन्ना गरज तेन्ना पयस वचूंक सोदिनासतना सहानुभुती आनी मायेचो हात फुडें करपाक शीक. तीं भावंडां सदांच तुमच्या रिणांत उरतलीं. तुमकां विसरचीं नात. हें लक्षांत दवर.'

'आई म्हाका रडूंक येता गे....'

'वन्ती, लग्न- संवसार म्हणल्यार मोटी तडजोड. त्याग करप हें एक मोलादीक बळगें. झीज सोंसले बगर देवत्व प्राप्त जायना. लग्न जाल्ले चलयेन घोवालें घर सोडचे पयलीं खूब विचार करूंक जाय. एकदां फुडें घाल्लें पावल परत फाटीं घेवंक मेळना.' 'आई...खरेंच हांव चुकलें. गुणीक हांवें खूब कश्ट दिले. लग्न जावन फकत स म्हयने म्हणल्यार गुणीक एकूय दीस हांवें सुखान जगूंक दिलेंना. आई

म्हजीं देर नणंद म्हजी कितली अपुरबाय करतात गे. पूण हांवें वेगळेपणाची नदर दवरिल्ल्यान हांव कुड्डें जालें. आई, खरें गें. तूं सांगता तितलें खरें. आमचो योगेश शिकपाक खूब हुशार. ताका व्हड करूंक गुणीचो हात घट्ट धरूंक जाय. आई, खरेंच त्यांगांत व्हड बळगें आसा. खीणभर सुखाच्या विचारान हांव घराब्याचें सूख पिड्ड्यार करपाक मुखार सरिल्लें. गुणीचीं भावंडा म्हजेर मोग करतात तीं हांव साप विसरलें.'

नेटान गुणवन्ती आवयच्या घरा आयिल्लें पूण आवयन कठोरपणान आपले धुवेक कर्तव्याची जाणविकाय करून दितकच गुणवन्तीचे दोळे उक्ते जाल्ले. आपले आशिकुशीक भोंवपी देर नणंदेचे चेरे ताचे मुखार नाचूंक लागले. आपणें आपणाक बदलपाचो निर्णय घेवन गुणवन्ती परत गुणी म्हऱ्यांत पावलें. आपलें सर्वस्व ओंपून गुणी बरोबरीन वावुरलें. खिणाखिणाक मेळपी येसान घराबो सुखी जालो.

'गुणवंती घे मुगो फुलां तुरो,' गुणी ताका बोटांनी खुणायतालो. 'किंतें येवजिता?'

'खंय, किंतें... कांय ना.... आमचो योगेश कितले बेगीन व्हड जालो म्हणून चिंत्तालें.'

'तुमकां बी किंतें उलोवपाचें आसा'- कार्यावळीचो सुत्रनिवेदक गुणवन्तीक विचारतालो.

'ना ना... म्हाका कांय उलोवपाचें ना....'

गुणवंतीच्या दोळ्यांतल्यान आनंदाचीं दुकां देंवलीं.

'वयनी... भाऊ... तुमकां दोगांकूय हे सभेमाजार पांयां पडटां...' गुणवंतीचो हात योगेशाचे फाटीर आनी मनांत चिंतन- त्यागांत मोलादीक बळगें.'

वयनीन आनी भाऊन आपल्याचेर केल्ले मायेन योगोशाचें मुखामळ खूब किंतें सांगून गेलें.

●●●

## ४ अतृप्त

यशोदाव्हनयेचो घराबो मोटो. सात चले आनी तीन चलयो. यशोदाव्हनयेचें मुखामळ सदांच हांसतें. पिरायेची सत्तरी हुंपपा कडेन पावल्या पूण पळयतल्याक दिसता हिणें आतांच पंचविशींत पावल दवरलां काय. असो मनान आनी सभावान तरणेपणाचो रुबाब. सान भुरग्यां वरी चणे, भिकणां चॉकलेटी, चिरमुल्यो, आयस्क्रुटां, आयस्क्रीम मना पासून खावपाक आवडटा. चकचकीत आनी घटमूट दांत. आयटीन मोटवी पूण रुपान सोबीत आनी रंगान गोरीपिट्ट. प्रसन्न अशें मुखामळ पळयल्यार दिसतालें, हिका चिंता म्हणटा ती केन्ना आसचीच ना.

पूण चिंता ना म्हणटा ती गजाल फट. कारणूय तशेंच दूखदिणें आसलें. यशोदाव्हनयेच्या सुखी संवसारांत नियतीन अचकीत बिबो घाल्लो. आदल्या काळार जण एकल्याचो असोच व्हड घराबो आसतालो. यशोदाव्हनी आनी घरकार संवसारांत समाधानी आशिल्लीं, पुण एक दिसा गणपती घरांतल्यान सकाळीं भायर सरून गेल्लो तो गणपत घरा परतलोच ना. कोणाकूच कसलीच सुलूस लागूंक दिनासतना, सांगिनासतना जो घर सोडून गेलो तो परत आयलोच ना.

यशोदाव्हनी सासणाची सौभाग्यवती जाली. तिची कुसाचीय चूक नासतना, सगल्या सोयऱ्यांनी, आप्तांनी, शेजाऱ्या-पाजाऱ्यांनी, गांवच्या लोकांनी तिचो घरकार भुरगेबाळांक सोडून वचपाक योशोदाव्हनयेकूच दोशी थारायली. गणपत घर सोडून कित्याक गेलो हें एक कुंवाडेंच जाल्लें.

पूण थोड्याच तेंपान गणपताचें ना जावपाचें कारण कळ्ळें. गडगंज भाटकार आनी सरकाराची उंचेल्या हुद्याची शिर्वीस. ताच्या हाता सकयल धा - वीस

कारकून काम करताले. कशें आनी कितें घडलें खबर ना. पूण ताच्या हातांतल्यान व्हड गैरप्रकार घडिल्लो.

मानान जियेल्लो मनीस. आपल्या चरित्राचेर पडिल्लो दाग पळोवन निरशेलो. खरें पळोवंक गेल्यार गणपतान पयशांचो गैरवापर करूंक नासलो पूण ताच्या हाता सकयल्या कारकुनांनी ताचो गैरफायदो घेवन ताका काळखांत दवरून आपली भाकरी भाजून घेतिल्ली.

चारचौगांत बोवाळ, फुडली चवकशी, आपलें नांव पिड्ड्यार, एकाद्री बंदखणय जावये! गणपताची तकली सुत्र जाली, भेरेली. काम करिना जाली. विचार करचेली शक्त सोंपली आनी फाटलो फुडलो, आपल्या कवाथ्या वरी ल्हान आशिल्ल्या भुरग्याबाळांचो, इल्लो लेगीत विचार करिनासतना गणपत अचकीत घर सोडून गेलो.

गणपत घर सोडून गेलो तो गेलोच. दीस उजवाडचो रावनासलो. वाट पळोवन पळोवन  यशोदाव्हनी निरशेली. मनान खचली. येदो व्हडलो संवसाराचो दोंगर, सगली जापसालदारकी, कशें जातलें? प्रस्नार प्रस्न. दोळ्या सामकार उबें जातालें. पूण आयिल्ल्या प्रसंगांक आपले बगर कोणूच तोंड दिवंक शकचो ना ह्या गजीलीचीय तिका पुरेपूर जाण आसली.

यशोदाव्हनयेन काळजाचेर फातर दवरून येद्या व्हडल्या संकश्टाक तोंड दिवपाची तयारी केली. म्हणून आसा, उदकांत पडटकच मनीस आपसूक हातपांय हालोवन पेंवपाचो यत्न करता. यशोदाव्हनयेन आवयबापायगेर दूख म्हणटात तें केन्नाच पळोवंक नासलें. भांगरांशिंगरांनी भरून तिका व्हडल्या भाटकारागेर लग्न करून दिली.

थोड्याच वर्सां भितर यशोदाव्हनयेची होंट भुरग्यांनी भरूभरून गेल्ली. पूण घरकाराक अवदसा लागली. जेन्ना गणपत घर सोडून गेलो तेन्ना शेणिल्ल्या मनशांचो सोद घेवपी यंत्रणा तितली फुडारूंक नाशिल्लीं. तरी लेगीत तिच्या भावांनी, बापायन आनी हेर बरें मागप्यांनी आपले परीन खूब सोद केल्लो पूण कांय उपेग जालोना.

पोटा पाणयाचो प्रस्नूय नाशिल्लो. भाटकार गणपतालें घर भरिल्लें. तरी लेगीत धा भुरग्यांची जापसालदारकी, तांकां बरे तरेन वयर काडप सोंपें काम नासलें. दीस

वचूंक लागले तशी जाल्ल्या आघाताचेर खवळी धरपाक लागली. सुरवातीक खचिल्ली योशोदाव्हनी, इल्ली इल्ली सांवरली. तिणें आपलीच समजूत घाली. जें नशिबांत आशिल्लें तें आपल्याक फावो जालां. ताची इल्ली लेगीत सावळी आपल्या सानुल्यांचेर पडूंक दिनासप.

आपलो संवसार अर्दकुटो उडोवन गणपत जरी काडून गेलो तरी ताची ख्यास्त भुरग्यांक दिनासप. जाता ते तरेन आपूण तांचो फुडार पर्जळायतलीं. तांकां स्वभिमानान जगूंक शिकयतलीं. बापूय सोडून गेल्लीं भुरगीं म्हणून हिणसावपाक दिवचीं ना. मनांतल्यान तिका आपल्या घरकाराची तिडक येवन जीव घुसमट्ट्रालो. पूण आपलो घुसमट भुरग्यां खातीर केन्नाच उकतावचीं ना, असो यशोदाव्हनयेन मना-काळजांतल्यान निश्चेवूच केल्लो. आपल्या भुरग्यांचो फुडार बरो फुलचो होच हावेस तिणें बाळगिल्लो.

यशोदाव्हनयेच्या बऱ्या नशिबान दरेक भुरगें बरें शिकलें. आवयक मान दिवन, आवयच्या उतरा भायर वचनासतना, चारचौगांत आपली अशी तांणी खाशेली सुवात तयार केल्ली. स्वताच्या बळग्यार तांणी बऱ्यो शिर्विसोय मेळयिल्ल्यो. वता तशें सगलें घडत वतालें आनी फावो त्या वेळार जिवितांतलें एक एक कार्य घडटालें, म्हणुनूच फावो त्या वेळार तांची लग्नांय जालीं. पयशांची तुटवण केन्नाच आयलिना. पूण खिणा खिणाक बापायचो उणाव उबो जातालो. अशा समयार धीर करून दोळ्यांतल्या दुकांक वाट दिनासतना यशोदा व्हनी काळजांतल्यान रडटाली. वयल्याचाराक सदांच समाधान चिंते विरयत दाखोवपी यशोदाव्हनयेक मनांत पोखरणी आसलींच. तातुंतच आनीक एके पोखरणेची भर पडिल्ली.

देव दिता आनी देंवचार नाडटा तशांतली गजाल यशोदाव्हनयेच्या दैवांत बरयिल्ली. घरकाराचें सूख सोडल्यार तिका कांयच उणें नाशिल्लें. हें जरी खरें आसलें तरी आपले धाकले धुवे खातीर तिका सदांच हुसको जातालो. तिची धाकली धूव मातशी मंद बुद्दीची आशिल्ली. शिकपाकूय ती फाटीं आशिल्ली, रूपान गुणान खंयच उणी नाशिल्ली, पूण विचार करचेली शक्त ताचे भितर साप उणें आशिल्ली. खरें म्हणल्यार तें अर्दकच्चें आशिल्लें. यशोदाव्हनयेक आपले हे धुवेची चिंता जाताली. आतांच्या काळांतल्या शिट्रूक भुरग्यां सारकें तें न्हय हें ती पुरायेन जाणा आशिल्ली.

सगल्या व्हडल्या भावंडांक आपले भयणीची कुवत खबर आशिल्ली. म्हणून तांणी आवयक सांगिल्लें, अशे चलयेचें लग्न करून दुसऱ्याचो संवसार पिड्ड्यार करपाक आमी कारणीभूत थारचें न्हय. ताका आमचे म्हऱ्यांत रावूं दी. ताका आपली जीण कशी सारप हें ताकाच थारावं दी. तें मतीमंद भुरगें न्हय पूण बरेंच फाटीं . आमी ताका सदांच बरीं करतलीं.

यशोदाव्हनयेक आपल्या भुरग्यांचो विचार कसोच पटलोना आनी हेवटेन तेवटेन खटपटी करून पयशांच्या बळग्यार तिणे एक सोयरीगत जुळोवन हाडलीच. समंजस भुरग्यांनी आवयक फाटीं ओडपाच्या हर प्रयत्नाक जुमानिनासतना तिणें धाकले चलयेचें लग्न केलें. आयज मेरेन धिरान, समजिकायेन दरेक निर्णय धेवपी यशोदाव्हनयेचो हो निर्णय साप चुकीचो थारलो. आनी तो चुकीचो थारतलो ही गजाल सगलीं जाणा आसलीं.

आठ दिसांनी वेयजेवणाक आपयली तेन्ना सगली मंडळी आयली. दर एकल्याचो चेरो पडिल्लेवरी दिसतालो. जेवले उपरांत जेन्ना परतुपाचो वेळ आयलो तेन्ना मांयन आवयक भितर आपोवन व्हेली आनी सांगलें, तुमचे चलयेक थोडे दीस कुळारा रावूं दी. आवयन वाट पळयली. थोडे दीस म्हणून दवरिल्ले धुवेक घरचीं परत व्हरपाची वासपूस करिनात. चलीय बी घोवाघरा वचपाक उचांबळीत जाल्लें. आवयक धोंसतालें, आपणाक पावय म्हणून. आवयच्या उतराक मान दिवन पुतांनी भयणीक घोवाघरा पावयली. चारदां घोवाघरा व्हरून पावयली जाल्यार दर फावटीं चार दिसांनी ताचें परत कुळारा परतवण जावपाक लागलें.

घोवा, घरचीं मनशां सज्जन आशिल्लीं. तांणीय कसो तरी एक म्हयनो काडलो. सून अर्दकूटी म्हणून तांकां रोखडेंच कळ्ळें. पूण कितें करप हो प्रतिशठेचो प्रश्न जावन आशिल्ल्यान तांचीय कुचंबणा जाल्ली. निमाणें तांणी सांगलें, आपलो पूत फटावलो. यशोदाव्हनयेचीं सगलीं भुरगीं हुशार, हाचेर वचून तांणी चड वासपूस केलिना. चूक तुमची नासून आमचीच. लग्ना उपरांत कळून आयलें, ही चली संवसार करूंक योग्य ना. तेन्ना चड दीस काडिनासतना आमचे भितरूच मेटोवन घेवया. दोनांय घराण्यांचे चुकीन मदले मदीं चलो भुरगो कातरेंत सांपडून घटस्फोटीत थारिल्लो. सुखी संवसाराची सपनां पळोवन लग्न जाल्ल्या तांच्या पुताचीं सपनां अशे तरेन अर्दकुटींच उरलीं. दुदाच्या पेल्यांत मिठाचो कण पडून

जशें दूद विटकळटा तशी ताची जीण थारली.

आवयक आपली चूक समजून आयली. आपले चलयेचोय संवसार जावचो म्हणून तिणें हो लग्नाचो घाट घाल्लो. प्रत्येक आवयक दिसता आपले भुरग्याचें बरेंच जावचें पूण जल्मातच अर्दकुटे बुद्दीच्या भुरग्यांक फकत आवयच चड बरी समजून घेवंक शकता; न्हय दुसरीं मनशां. आनी लग्न हो आयुश्याचो प्रस्न. ह्या प्रस्नाचेर तडजोड जायना. यशोदाव्हनयेचे चलयेचें लग्न ही एक शोकांतिका जाली आनी हाका सर्वस्वी तीच थारली. न्हय कुमारिका, न्हय सौभाग्यवती. पूण एक गजाल वायट घडली. थोडेच दीस जांव, तें घोवाघरा उरिल्ल्यान अदींमदीं ताचो घोवा कडेन संबंद आयिल्ल्यान ताणें थोडेंभोव शारिरिक सूख भोगिल्ल्यान ताचे वृत्तींत हालींसरा वेगळे तरेचो बदल जाल्लो दिसूंक लागलो.

लग्ना पयलीं ताका शारिरीक सुख म्हणटात तें खबर नाशिल्लें. पूण लग्ना उपरांत ताणें तें थोडेंभोव चाखलें. वया वयलें तरणाटें भुरगें. ताच्यो वासना चाळवल्ल्यो आनी ताची प्रचिती ल्हवू ल्हवू दिसूंक लागली. भावाच्या सान भुरग्यांक अपुरबाय करपाच्या निमतान तें लागीं ओडटालें आनी तांची जीवघेणी अपुरबाय करतालें. चले भुरग्यांचें नोनेंच ओडप तर चली भुरग्याचे छातयेक घांस मारप, तांच्या गुप्त भागांत बोटां घुसडावप. भुरग्यांनी आड्डी मारतकच सोडप आनी व्हडान हांसप. पयलीं पयलीं कोणाकूच समजलेंना. दर एकलो आपल्या कामांत व्यस्त. भुरग्यांनी केल्ली मावळणीची कागाळ कोणेंच गंभीरतायेन घेतलिना. आनी तांची लैंगीक भूक वाडतूच गेली.

पूण एक दीस आकांतूच घडलो. त्या दिसा कोठयेकुडींतल्यान ल्हान भुरग्याच्यो आड्डी, बोबो, हुयेली आयकून यशोदाव्हनी आकांतान धांव जाल्यार मुखा वयलें दृश्य पळोवन भियेली. तिचे धाकले धुवेन भावाल्या पांच वर्सांच्या चल्याचें नोनें आपल्या तोंडांत धरलां आनी ओड ओड ओडटा. आनी तो जिवाच्या आकांतान बोबो मारून ताच्या हातांतल्यान सुटपाचो यत्न करता, तितलें तें ताका चिड्डिता, मुड्डिता पूण तोंडांतल्यान नोनें कशेंच सोडिना. सामकें खंकाळ जालां आनी येदे मोटे दोळे करून धांपेता, सोंशेता आनी नोनें रक्तबंबाळ जालां.

यशोदाव्हनयेन नातवाक ताच्या हातांतल्यान ओडून काडपाचो निरर्थक यत्न केलो पूण ताच्या आंगांत कांय हातयांचें बळगें आयिल्ले वरी तें ताका कशेंच

सोडिनासलें. नातवाच्यो काळीज चिरून वचपी आड्डी आयकून तिका कितें करचें तें सुचना जालें. घरांत आनीक कोणूच नासलो. नातू आड्डू-आड्डून निश्चेश्ट जावपा कडेन पाविल्लो. सगलें आंग घामान थपथपिल्लें आनी उदकांतल्यान भायर काडिल्ल्य नुस्त्या वरी तडफडटालो.

यशोदाव्हनी सैरभैर जाली. सगलें घर आपले भोंवतणीं घुंवता कशें तिका दिसूंक लागलें. हातांपांयांक कडकडो भरलो. चली आपलीं, नातू आपलो. पूण चलयेचेर आयिल्लो सांवार पळयल्यार तें सोंपेपणीं आटापाक येवचें ना. आनी खिणाचो लेगीत वेळ केल्यार नातू जिवानशीं हातांतल्यान वतलो. तिणें व्हडान किळांच मारून बोवाळ करचेलो यत्न केलो पूण भिरांतीन तिचो ताळो सुकून अंदल्ले वरी जावन तोंडांतल्यान उतरूच भायर फुटना जालें.

पिशांतरा वरी यशोदाव्हनी हेवटेन तेवटेन धांवूंक लागली. मदींच नातवाक सोडोवंक गेल्यार तिका चलयेन धुकलून उडयली. हातांपांयांक कांपरें भरून तिचो सगलो देह थरथरूंक लागलो. कितें करूं, कितें करूं अशें चित्तनाच तिका कोनशाक वांटप वांटपाचो फातर दिसलो. आकांता भरशीं खिणाचो लेगीत वेळ वगडायनासतना तिणें बिबट्याचे गतीन त्या फातरार झडप घाली आनी तो फातर उबारून चलयेच्या तकलेर घालो... आनी... आनी एका खिणा भितर चली धडाम् करून जमनीर उदारीच पडली, आनी सैल जाल्ल्या मावळणीच्या हातांतल्यान नातवान कशी तरी सुटका करून घेतली आनी धांवत येवन आजयेक घट वेंग मारली.

आपली चली आपले सामकार तडफडून मरणयातना भोगता, ताका लागीं करूं काय रक्तबंबाळ जाल्ल्या आपल्या नातवाक उपाय करूं? भ्रमिश्ट जाल्ली यशोदाव्हनी आक्रोश करून व्हडाव्हडान रडूंक लागली. नातूय आजयेक वेंग मारून भयंभीत जावन रडूंक लागलो. तिच्या आकांतान खिणा भितर सगलो वाडो एकठांय जालो. कितें घडलां कोणूच सांगूंक शकनासलो पूण जण एकलो आपआपले परीन तर्क लडयतालो.

भ्रमिश्ट जाल्ले यशोदाव्हनयेक कोणूच आटापूंक शकना आसलो.

●●●

# 9 मनसंवेदना

"आई निमणे खीण मेजता. दोळ्यांत प्राण एकठावन कोणाची तरी तळमळीन वाट पळेता. उतरां तर केन्नाच बंद जाल्यांत. राजूक पाविल्लो हो तिसरो रकाद."

वाट आनी कोणाची पळेतली? राजूची. राजूच एक तिचे पसून पयस गेल्लो. आईचो प्राण वचना. दोतोर सांगता – "आमच्या वैजकी नदरेन आई केन्ना सोंपल्या. पूण तिचो जीव खंय तरी घुस्पला. कोणूय येवचेलो आसल्यार तिचो जीव घुस्पून उरला. जाता तितले बेगीन ताका आपोवन घेयात आनी घुटमळील्ल्या आत्म्याक मुक्ति दियात. ना तर ती कितले दीस अशी उरत सांगू जायना."

आई, म्हजी आई! फाटले यादिंनी राजूलें काळीज भरून येता. राजूक याद जाता, आपल्याक कळपाक लागत पसून पळेला. आईन फकत कश्ट – कश्ट आनी कश्टच काडिल्ले. पूण तोंडातल्यान ब्र काडिनासतना. भुरग्यांक बरें शिक्षण दिवपाक धडपडिल्ली. संवसार चलोवपाक बाबाचें योगदान साप उणें. तागडेच्या दाल्यांत आईलें वजन चड थारतालें.

आई सुखवस्तू घराब्यांत जल्माक आयिल्ली. जल्माक येतना गडगंज बरो बुदवंत कायेचो पोटलो घेवन आयिल्ली. पन्नास-साठ वर्सां पयलींची गजाल. त्या तेंपार चलयांक चड शिकप दिना आसलीं. आईची बुदवंतकाय भुरगेपणांतल्यान दिसून येताली. आनी म्हणूनच म्हज्या आज्यान कोणाच्याच मताक जुमानीनासतना आईक पुर्तुगेजींतल्यान शिक्षण दिल्लें.

हे घडयेक लेगीत आईक व्हडलो व्हडलो हिशोब जिबेर येतालो. एक ते तीस पाढे तोंडपाठ येताले. बाजारांतल्यान कसलेंय सामान हाडल्यार कोंत (हिशोब)

तोंडार करताली. वाचपाचें पिशें. मानवल्लें पुस्तक सोंपयले बगर चैन पडनासली आनी त्या पासत ती रातीची राती जागरणां करताली. भुरग्यांचो अभ्यास घेवपा मेरेन तो घर संसार बरें तरेन सांबाळप मेरेन तिचो हात धरपी कोणच नासलो. तिच्यांत एकूय गूण उणो नासलो. सभाव तर साकर आटोवन - आटोवन केल्लो गोड पंकाचो गुळो कसो.

आपलें लग्न कशें जुळ्ळें ताची खबर सांगतना आई तल्लीन जाताली. आईच्या भावोजीन ही सोयरीक जुळयल्ली. फकत चलो भुरगो आनी ताचो धंदो पळेलो. बाबा दिसूंक राजकुंवर कसो दिसतालो. त्या राजकुंवराच्या माथ्यार केदी जबाबदारी आसा हाची फावो सारकी चवकशी जाली ना. भावोजीन सोयरीक केली आनी घरच्यानीं जांवयाच्या उतराक मान दिवून हां म्हळें. आदले काळार जांवयांचो मान व्हड आसलो. ताचें उतर केन्नाच सकयल वडयनासलीं.

जेन्ना लग्न जालें आनी आई घोवाल्या घरांत पावली तेन्नाच आईक व्हड घरच्या पोकोळ वांश्यांचो अणभव आयलो. भांगरा-शिंगरांनी भरिल्ली आई लक्ष्मीशी दिसताली तें पळोवन खंय शेजारी पाजारीं फुतफुततालीं. बाबाक खंय सदांच खंत भोगताली, आईक आपणें फटयली. खरें बाबान आईक फटोवंक नासली. जी भावार्थान चवकशी करूं जाय आसली ती सारकी करप जावूंक नासली.

पूण आई बाबाल्या सभावाचो जो धागो जुळिल्लो तो घट्ट बरो उरलो. आईन बाबाक सांगप, 'तूं खंती जावं नाका. म्हजे नशिबाची हांव. म्हजें कितें वायट जालां. भांगरा सारखो घरकार म्हाका मेळ्ळा तोच म्हजो व्हडलो अळंकार.' आई सदांच हांसकुऱ्या तोंडाची आसली.

राजूच्या मनाच्या पड्ड्यार एक-एक घडणूक जिवी तटतट्टीत कशी उबी जावपाक लागली. बाबाची येणावळ जितल्याक तितलीच आसताली. कुटुंब येवजणेचो फावो सारको प्रसार जावूं नासलो. खावपी तोंडां चड आनी येणावळ उणीं.

गांरगिऱ्या वाठारांनी शिक्षणाच्यो सोयी नाशिल्ल्यान सोयऱ्या-धायऱ्यांली एक-दोन भुरगीं. आजो-आजी, तांची म्हातारपणांतली दुयेंसां. आई संवसाराचो गाडो कसो रेट्ट्राली हाची भुरगे मनाक इल्ली लेगीत कल्पना येना आशिल्ली.

आई राजूक सदांच इल्लो चड वांटो दिताली. ताका कारण मात्शें भावनीक आसलें. राजूक ल्हानपणांत व्हड जिवघेणें दुखणें जाल्लें. तातुंतल्यान तो कसो

बसो वाटावल्लो. ताका चार म्हयने पथ्य आसलें आनी जेन्ना पथ्य सोंपले तेन्ना ताका भूकच लागताली. आई आपले परीन राजूची भूक भागोवपाची पराकाश्टा करताली. पूण हात उणें पडटाले. खुबदां आपूण उपाशी रावन आई राजूक भरयताली. भुरग्यां-भुरग्यां मदीं आवय अंतर करना तरी लेगीत आईलो राजू कडेन चड ओडो आसतालो. कारण तो व्हड दुखण्यांतल्यान वांचिल्लो.

फाटल्या यादिंनी राजूच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवक लागलीं. सदांच आईन दोन न्हेसणावयर आपल्याक केन्नाच सुबेज हाडलीं ना. गांवात, तशेंच सोयऱ्यागेर लग्नकारण, वा कसल्याच समारंभाक वचपाक फुडें सरली ना. तशे बरे जाग्यांनी वतलीं जाल्यार आंगखांद्यार सारकें आसूंक जाय. पूण भुरग्यांक केन्ना फाटीं ओडलीं ना. आई म्हळ्यार त्यागाची मूर्त. आईची वर्णनां करपाक शब्द लेगीत उणे पडटले. सगळें जाणां जावन लेगीत अशे आई कडेन राजून पडमूरपणां केल्लीं. आईक खूब दुखयिल्ली. पूण आईन केन्नाच तोंडांतल्यान वायट शब्द काडूंक नासलो.

राजू मॅट्रीक पास जालो. सर्वसादारण भुरगो पास जातकच कॉलेजाक वचपाक सोदता तसो राजूय सोदूक लागलो. आई-बाबान ताका दोन कारणाक लागून कॉलेजाक घालोना. एक, पयशांच्या नदरेन शक्य नाशिल्लें आनी दुसरें म्हळ्यार, राजू कांठार पास जाल्लो. म्हणून घरांत मात्सो आदार जांवचो म्हण बाबान ताक सिर्विसेक लायलो.

भुरगें मन, परिस्थितीची जाणविकाय आसून लेगीत ताका दिसतालें आपले बरोबरचे चडशे भुरगे कॉलेजाक गेले. म्हाका मात आई-बाबान सिर्विसेक लायलो. कारण कितें तर घरांत आदार. तो भितरले भितर घुस्मट्टालो. मना विरूध्द सिर्विसेक वतालो.

राजूच्या फुडल्याच वर्सा अवि मॅट्रीक पास जालो. अवि घरांतलो हुशार भुरगो म्हणटकच ताका कशेय तरेन फुडलें शिकप दिवूंकच जाय म्हणपाचें थारलें. आतां राजूय सिर्विस करतालो म्हणटकच कशें तरेन भागतलें. संवसाराचें गाडें रेटपाक आईले सगळें अळंकार सोंपिल्ले. शेवटाक एकच भांगराचो मणी आईच्या गळ्यांत आसलो. अविच्या फॉर्माक पयशांची गरज म्हणून अी तो विकपाक तयार जाली. हें पळोवन राजूचें मन बंड करून उठलें.

हांव कॉलेजाक वता म्हळें तेन्ना आई-बाबान म्हाका फाटीं ओडलो कारण कितें तर पयशांची अडचण. आनी आतां अविचे मुखा वयल्या शिक्षणाक आपणालो

गळ्यांतलो भांगराचो मणी विकपाक आई तयार जाली. म्हणजे हे घरांत म्हाका म्हत्व ना. म्हाका म्हण शिकचें दिसना. आतां तर हांव जोडपाक लागलो. हांवें जोडप आनी अविन शिकप? अशें जांवचें ना. कश्टप हांवें आनी.... ना ना ना आईक विचारतांच. आनी विचारा सरशीं राजू आई म्हऱ्यांत गेलो.

"आई घरांत कितें चल्ला?"

"खंय कितें चल्ला रे?"

"ह्या घरात म्हाका वालोर आसा काय ना?"

"आरे राजू कितें जालां तुजें? कितें उलयता तूं."

"हांव खरें तेंच उलयतां"

"तुका घरांत कित्याक वालोर आसचो ना?"

"आत्तांच कळ्ळें न्ही"

"तू मरे कितें उलयता तेंच म्हाका कळूंना."

"हांव कितें उलयता तें तुका कळचेंच ना. अवि कितें उलयता तें तुका कळ्ळ्यार पुरो."

"अवि उलयता तें कळ्ळ्यार पुरो.... हें आनी कितें उलयता तूं?"

"आई नकळो जावपाचें नाटक करनाका"

" कितलो सुबेज उलोवंक लागलो रे तूं? काल पयर म्हजे वेगांत बसपी पोराक केदे बेगीन पांखां फुटलीं कळ्ळीं लेगीत ना." तुका कितें सांगपाचें आसा ते सारकें उलय. भायर-भितर -भायर -भितर नाका.

"उलय म्हणजे, उलयतलोंच. भितां काय कितें?"

म्हाका कॉलेजाक धाडपाक तुमचे कडेन पयशे ना जाले.

भुरगेपणांतच म्हाका सिर्विसेक लायलो आनी आतां म्हजे नाड्यार अविक कॉलेज? म्हजो फुडार पिड्ड्यार करून अविचो बरो फुडार घडोवपाक तुमकां खोस भोगली.

"राजू तूं एदोळच्यान कितें उलयतालो तें म्हाका आतां समजलें "

"समजलें मगे?"

"हय सारकें समजलें. बाब राजू हाचेर तुजे म्हणणें कितें?"

"म्हणणे आनी कितें? म्हाकाय कॉलेजीक वचूं जाय."

"राजू, ते कशें शक्य आसा?"

‘‘शक्य ना मगे. म्हणटकच म्हजो विचार हांवेंच करचो पडलो.’’ सिर्विस करता म्हणून तर म्हाका भंयच ना.

‘‘शाण्या राजू, पळय. असो अविचारी जावूं नाका आनी गैरसमज करून घेवूं नाका.’’

‘‘हांव अविचारी आनी म्हजो फुडार पिडूड्यार करपी तूं आनी बाबा विचारी मगे? अशेंच दिसपाचें तुमकां. भुरग्यांक विचार करचेली शक्त ना- अशेंच न्ही आई?’’

‘‘पळय राजू, आमच्या घरांत अवि इतलो हुशार भुरगो ना आनी म्हणून दिसलें ताका जर कॉलेजीचें शिक्षण दिवून मुखार काडलो जाल्यार तो घराब्याचें नांव वयर काडये. बरें शिक्षण घेतल्यार ताका बरी सिर्विस मेळूंयेत. मागीर फाटल्या भावंडांची जापसालकी बरे तरेन निभावंक शकता.’’

‘‘आनी हें सगळें म्हज्या भरवंशार मगे?’’

‘‘तुज्याच भरवंशार कशें? अविक फॉर्म भरपाक आयच्या खिणाक गरज म्हण हांव म्हजो निमणो भांगराचो अळंकार विकपाक तयार जालीं.’’

‘‘खबर आसा म्हाका, सगळें खबर आसा.’’

‘‘आनी इतलेंय करून तूं अशें उलयता? म्हाका दिसलें, अविचें शिकप पुराय करपाक तुजोच आदार. आरे संवसारांत व्हडपण आनी मान मेळोवपांत कितली धन्यता आसा हें तुका येन्ना कळचें ना.’’

‘‘आई निमणें सांगतां.... म्हाका धन्यताय नाका आनी व्हडपणाचो मानय नाका. तुमी पुतां-पुतां मदीं वेगळोचार केलो ही खंत घेवून हांव म्हजी वाट पळेतां.’’

‘‘म्हळ्यार रे?’’

‘‘म्हळ्यार हांव घरांतल्यान वतलो आनी---’’

‘‘तूं घरांतल्यान गेल्यार अविचें कशें जातलें?’’

‘‘हेंच-हेंच तें... तुमी मुखार सरल्यांत तीं करात अविचें कितें करपाचें तें... म्हजे जोडीचेर अविक शिकूंक मेळचें ना....’’

आईक केन्नाच दिसूं नासलें, राजूक इतली शिकपाची आवड आसा म्हणपाची. कांठार मार्क घेवन राजू मॅट्रीक पास जाल्लो तेन्ना आई - बाबाक हीच व्हडविकायेची गजाल दिसली. आवय-बापायचें विचारांतलें अंतराची जाणविकाय

राजूल्या उतरांनी आईक जाणवली. ताच्या उतरांची खरसाणय आईक जाणवली.

उदकाचें पाजण दिवन सड्यार फुलां फुलोवचीं तशे तरेन रगताचें उदक करून आईन भुरग्यांक वाडयिल्लीं. बरे संस्कार आनी विचारांचें सारें घाल्लें. - आकांताचो पावस पडून सारें सगळें व्हांवून वचचें तशें... खिणांभितर जाल्लें. भुरगेपणांतलो राजू एकदम व्हड जालो आनी आई-बाबा तसोच माणकुल्या भावडांचो मोग तोडून पयस गेलो. आपल्या घुस्मटमाराक ताणें वाट करून दिली. घराक एकदम अवकळा आयली.

राजूचे शिर्विशेच्या आदारान उबें रावपाक आयिल्लें घर परतें नेमता शें दिसूंक लागलें. अविचे शिक्षणाचें सपन खंयचे खंय विरगळून गेलें. आई - बाबा मनान खचलीं. पूण तांणी दाखोवन दिलें ना. राजूविणें घर रितें दिसपाक लागलें. वादळ थांबपाक जरी वेळ लागलो तरी हळू हळू नित्यक्रम सुरू जालो सगळीं आपआपल्या वेव्हारांत घुस्पून घेवपाचो यत्न करूं लागलीं...

आपल्याक लागून एदें व्हडलें महाभारत घडलें हे गजालीचो अविच्या मनाचेर व्हड परिणाम जालो. हे आईक कळपाक कळाव लागलो ना. पूण तिणें आपल्याक समजलां अशें दाखोवन दिलें ना. अविचो भितले भितर घुस्मटमार जातालो. त्या घुस्मटमाराक एक दीस अविन वाट करून दिली.

''आई, म्हाका लागून हें सगळें घडलें. राजून आमची साथ सोडली आनी वेगळी वेवस्था केली हका हांवूच जापसालदार.''

''पळय अवि, तूं अशें मनाक लावन घेवूं नाका. जे घडपाचें तें घडलें.''

''पूण तें म्हाका लागून घडलें.''

''आयक अवि, सगळींच भुरगीं समा विचारांचीं जातलीं अशें आवय बापायन गृहीत धरूं जायना.'' ''फुडें केन्नाय घडटलें आशिल्लें तें पयलींच घडलें. आनी तशें पळोवंक गेल्यार राजूक हो निर्णय घेवपाक खरीं जापसालदार आमी. आई - बाबा राजूक वळखूंक कमी पडली. जाला ताका उपाय ना. आतां तुजें फुडलें शिक्षणाचें पळोवया.''

''आई आतां हांव आनी शिकना.''

''कितें?''

''हय, आई, आतां हांव सिर्विशेच्या खटपटीक लागता.''

''म्हाका कितें उलोवप तेंच कळना जालां.''

“आई राजू गेलो, आतां बाबाक आदार करप म्हजी जापसालकी.”

“हांव नाकाय म्हणूं शकना आनी...”

“आई, हाचे फुडें तुका तुजो भांगराचो मणी केन्नाच विकचो पडचो ना. हांव सगळे भांवडांची जापसाली घेतलों. म्हाका फुडलें शिकप करूंक मेळूंकना पूण, हांव म्हजे धाकट्या भावंडांचें शिकप पुराय करतलो. आजवेर तुमी ज्यो खस्ती कडल्यो त्यो व्यर्थ वचूंक दिवंचो ना. राजू गेलो म्हूण तूं निर्शेवं नाका. तुमी आयजवेर पेरलें तें सगळेंच पोल जावंचे ना. मेकळे मनान म्हाका आशिर्वाद दी. फुडे सरता त्या कामाक म्हाका यश, किर्त, नामना लाबूं.”

अविच्या भावार्थाक नशिबान आदार दिलो.

आईच्याच पयसुल्ल्या सोयऱ्यांगेर अवि सिर्विसेक लागलो. थंय ताणें विस्वासान काम केलें. आईची बरी शिकवणी आनी बरें संस्कार अविचो पर्जळीत फुडार घडपाक उपेगी पडले. अवि एक – सोपण चडत थोड्याच तेंपान मॅनेजराच्या हुद्द्यार पावलो.

सगळें अविच्या मना सारकें घडत गेलें. धाकट्या भावंडांक तांच्या-तांच्या आवडी प्रमाण शिक्षण दिवन आज जण एकलो समाजांत प्रतिश्ठेन जगपा लायक थारलो. सगळ्यांची लग्ना कारणां जावून सुखी समाधानी संवसारात वावुरतालीं. पुला खालच्यान खूब उदक व्हांवन गेल्लें. शुल्लक कारणाचें निमित्य करून सगळ्यांक सोडून पयस गेल्लो राजू मात परत केन्नाच आईल्या सुखाच्या घराब्यांत पावल दवरूंक पावलो ना. आईचो ताचेर केन्नाच राग नाशिल्लो. आपले रगताच्या आंकराक पळोवपाक तिचो जीव आशेतालो.

आईच्या उतराक मान दिवन अविन खूबदां राजूक परत घरांत आपयिल्लो पूण राजूक आई म्हऱ्यांत येवपाक तोंड नाशिल्लें. तो सासणाचो खंती जाल्लो.

आईक सगळें समाधान लाबिल्लें. पूण राजू खातीर आई निमणे खीण मेजताली. तिचो जीव वयर सकयल जातालो. म्हणून राजूक तिसरो रकाद पाविल्लो.

●●●

## 10 अंदल्ले उस्वास

मार्गावयल्यान विनायकाच्या घराकडल्यान वतना दोनूय वाटांनी पाचवीचार कुळागरां तांच्या सैममोगाची वळख करून दिताली. अशा पाचव्याचार कुळागरांत आशिल्लें विनायकाचें घर म्हणल्यार सुखी संवसाराचें आगळें वेगळें प्रतीक जावन आसलें. कुळागारांतल्या नितळ, शितळ उदकाच्या पाटांवरी विनायकाल्या घरांतय निखळ मोगाचे आनी उर्बेचे पाट व्हांवताले.

अशा विनायकाच्या सुखी घराब्याचेर आज दुख्खाचें सांवट पातळिल्लें. शेकड्यांनी लोक घरांत तशे घराभायर आनी आशीकुशीक भरिल्ले. कोणाच्याच तोंडांतल्यान शब्द सुटनासलो. चुरचुरे आनी हुस्काऱ्यांबगर कोणाकूच दुसरी भासच सुचनाशिल्ली. घरांत रडपाक हुंवार आयिल्लो. कोणच कोणाकंच सांत्वन करूंक शकनासलो. जण एकल्याच्या दोळ्यांतल्यान दुकां आनी हुंदकेच भायर येताले. आशाढांतलो पिरीपिरी पडपी पावस सदचेवरी पडनासतना काळ्या कुपांनी दडी मारून भितरलेभितर घुस्मटा कसो भास जातालो.

तरण्या-ताट्या दत्ताची, विनायकाच्या पुताची छिन्न विछिन्न जाल्ली कूड धव्या फुल्ल लुगटांत गुठलावन सालांतले बाज्जेर दवरिल्ली. ती फुलांनी भरिल्ली. तोंडलेगीत फुलांनी धाकिल्लें. धांकिल्लें म्हणपाक दत्ताचें तोंड तरी आशिल्लें खंय! अक्सिडॅण्टांत तें छिन्न-विछिन्न जावन वळखुपाच्या भायर पाविल्लें.

दत्ता आनी तन्वी विनायक आनी विजयाचे वालीर फुलिल्लीं अपुरबायेचीं फुलां. आपलें कुळागार सांबाळून लेगीत विनायक सार्वजनिक बांदकाम खात्यांत तर विजया शिक्षिकेची सिर्विस करतालें. सुखी घराब्यांत आजो आजाचें मायेचें

पांखें आशिल्लें. आजी-आज्याचें मायेचें उबेंत मणकुलीं भुरगीं व्हड जाल्लीं. दत्ता-तन्वीचो एकामेकांचेर हिसबाभायलो मोग आसलो.

भावाचे कुडीचेर आपल्याक घालून घेतगीर तन्वीचें विचारचक्र घुंवपाक लागलें. आपराधी तन्वी, न्हय आवयची, न्हय बापायची समजिकाय घालूंक शकनासलें. कारण तन्वीक लागूनच सकाळीं दत्ता सिर्विशेक वचचे पयलीं घरांत आकांताचीं झगडीं, वाद जाल्लो. इतले दीस दत्ताच्या मनांत धुंवपी धुंवरेन निमाणें आज अचतीत पेट घेतिल्लो.

तन्वी निकतेंच तोंड धुवन भायर येतालें तेन्नाच दत्तान तन्वीक उलो मारलो.

''तन्वी कितले दीस जाले तुका विचारतलो विचारतलों म्हणटां. पूण एक तर तूं हांव ऑफिसांतल्यान घरा पावचे पयलीं जेवून न्हिदपाचें नाटक करता....''

''हांव न्हिदपाचें नाटक कित्याक करतलें?''

''हांव नकळो तूंच जाणा.''

''भैया, तूं कितें सांगूक सोदता?'' तन्वीन म्हणलें.

''तें तूंच बरें जाणा.'' दत्ता.

''हांव जाणा म्हणचें रें?''तन्वी.

''हय बरे तरेन जाणा.''

''भैया, भैया, तुका कितें जालां?''

''म्हाका कांयच जावूं ना.... आतां फुडें जावचेलें आसा. तुज्या करण्यांनी. तुज्या, तुज्या.....''

''आरे दत्ता'', विनायकान भायर येत म्हणलें. ''तुजें सकाळीं सकाळीं जालां कितें?''

''आनी तन्वीचेरसो तापार जाता?'' विजयान घोवाच्या उतराक पुस्ती जोडली.

''पप्पा, मम्मी,.... हांव तन्वीचेर कित्याक तापार जालां तें तुमकां खबर नासत पूण तन्वी जाणां.''

''दत्ता, असो कुवाड्यांनी उलोवं नाका!'' मम्मीन म्हणलें.

''तुजें आनी तन्वीचें जालां कितें? एकामेकांचेर मोग करपी अपुरबायेचीं म्हजीं भुरगीं तुमी! म्हाका तुमचो सदांच अभिमार मरे! '' पप्पान री ओडली.

''पप्पा तुमचो अभिमान रसातळाक पावचेलो वेळ आयला.''

''कितें? कितें जालां....?'' पप्पा.

''मम्मी पप्पा, म्हाका दिशिल्लें, येन्नाधर तन्वीचीं कर्तुपां तुमच्या कानार पावलीं आसतलीं.''

''तन्वीचीं कसलीं रे कर्तुबां?'' मम्मीन प्रश्न केलो.

''हय मम्मी, म्हज्या इश्टांनी म्हाका तन्वीची गजाल सांगून शिटकायल्लें.... पूण म्हाका तांचें खरें दिसलें ना.'' - दत्तान मम्मीक सांगलें.

''शिटकायल्लें?.... खरें दिसनासलें? कितें उलयता दत्ता तूं?'' पप्पान प्रश्न केलो.

''हय पप्पा, मम्मी आनी तूं सामकीं सादीं भोळी मनशां. नाकामुखार पळोवन चलपी. तुमी आमकां सगळे तरेची मेकळीक दिली. आयच्या जमान्यात असली मेकळीक उपकारना. कारण हेंच पळय, तन्वीन तुमचे मेकळिकेचो गैरफायदो घेतलो.''

''तन्वीन कसलो गैरफायदो घेतलो रे दत्ता? सारखें सांग, उलय सडसडीत.'' मम्मी.

''आयकतली? आसा शक्त तुका सत पेलपाची?'' दत्तान म्हणलें.

''दत्ता, दत्ता.... आमच्या तन्वीन अशें कितें केलें रे? सांग सांग बेगीन...'' पप्पा.

''पप्पा, मम्मी.... हांवें सांगचेपरस तन्वीन आपलें कर्तूब आपल्याच तोंडान तुमकां सांगल्यार चड बरें जातलें. मम्मी, तन्वीविशीं कितलीं सपनां हांवें पळयल्लीं....! कसलीच गजाल आजमेरेन आमी एकामेकांपसून लिपोवन दवरली ना. आनी तन्वीन हो अचकीत बदल कसो काय म्हणटां? जाणा मम्मी, पप्पा आमचें तन्वी मोगांत पडलां. नकळो न्हय तुमी? तन्वी मोग करता.''

''कितें? आनी आमकां इल्ली लेगीत सुलूस लागूंक ना?''

''मम्मी, तन्वीचो मोगी कोण, कितें करता? खंयचो? कितें शिकला? कांयच विचारनाका म्हाका.''

''आरे दत्ता, ही पिराय शिकपाची मरे आनी तें सोडून तन्वी मोग करूंक लागलें हें आयकतनाच म्हाका थरथरो भरला. तन्वी, हांवें केन्नाच चिंतू ना, तुका शिकतना ह्यो भिकार भासो येवजतल्यो म्हणून''. मम्मी खासावीस जावन

उलयताली.

‘‘मम्मी, आयक गे आयक, इतली खासावीस जावूं नाका.’’

‘‘खासावीस जावूं नाका जाल्यार करूं कितें? नाक कापपाक फुडें सरलें मरे हें तन्वी! कॉलेज बी बंद करून उडयतां हांव.’’

‘‘मम्मी, मम्मी, पिरायेन जरी हांव तुमचेपरस ल्हान आसलों तरी आयचे तरणे पिळगेचो घटक जावन आसां. म्हज्या आनी तुमच्या विचारांत अंतर आसा.’’

‘‘दत्ता, तूं कितें सांगूक सोदता? म्हजी तकलीच भेरेल्या रे.’’ मम्मी.

‘‘म्हणूनच सांगतां, हांव कितें सांगतां तें सारखें आयक. तुका आनी पप्पाक सांगचो ना म्हूण थारायल्लें; पूण ही गजाल लिपून उरची न्हय. हांव तन्वीच्या मोगाविरुध्द ना आनी तुमीय आसूंक फावना.’’

‘‘कितें? कितें म्हणटा रे दत्ता तूं?’’पप्पा तिडकलो.

‘‘पप्पा तिडकूं नाका. म्हाका खबर आसा, जी गजाल आमच्या घरांत घडल्या ती नविदाद. पूण आतां जग बदललां आनी जगाबरोबर सगळ्यांनी बदलूंक शिकूंक जाय. आपल्या सपनांतलो राजकुंवर आपणावपाचो पुराय अधिकार आमी तन्वीक दिवंया. मोग करप म्हणल्यार जगाभायली गजाल, हे बुरसटिल्ले विचार सोडून दिवप ही काळाची गरज. पूण मोग करतना दोळे धांपून करिनासतना आपल्या फुडाराची जाणविकाय धरून करूंक जाय. खासा आपल्याक आनी आपल्या घराब्याक दुख्खांत तशेंच समाजांत वावरूंक आडमेळीं येत अशें कर्तूब करूंक फावना. जाणा मम्मी, पप्पा, तन्वीचो मोगी तवनास, पारपोळ, बेकार, आनी शिकपसुध्दां ताचें अर्दुकुटें. म्हणूनच म्हजो विरोध आसा.’’

‘‘आनी तन्वीन अशें कितें पळयलें तर त्या भुरग्यांत? मोग करपासारखें आसा कितें ताच्यांत?’’

‘‘सोबीतकाय...’’दत्ता.

‘‘कितें’’....? मम्मी.

‘‘हय मम्मी, तो भुरगो गोरो गोरो पिट्ट. लांब, आंगा-पांगान घसशीत आनी रुपान भोवूच सोबीत. म्हज्या इश्टांनी त्या बेकार लवडी भुरग्याबरोबर पळयेलां. तेन्ना सुरवातीक तांणीय कान-दोळो केलो. पूण जेन्ना तन्वी आतऱ्या पयऱ्यान ताचेबरोबर दिसूं लागलें तेन्ना दुबाव खरो थारलो. तांणी म्हाका प्रत्यक्ष दोळ्यांनीच

पळोवपाक सांगलें आनी मम्मी, पप्पा, तुमी म्हजेर विश्वास दवरचीं नात अशे अवस्थेंत दोंगुल्लेच्या देगणांत पळयलें गे,'' दत्ता घुस्मटून रडपाक लागलो.

''तन्वी इतलो वेळ तोंड धापूंन, तकली सकयल घालून दत्ता आपलेविशीं सांगता त्यो कागाळी मुकटयान आयकतालें. ताणें तोंडांतल्यान ब्र काडूं नासलो. पूण ताचो उस्वास कोंडिल्लो. राग दोळ्यांतल्यान भायर सरिल्लो दिश्टी पडटालो. जेन्ना ताका मम्मीन विचारलें,''''तन्वी, दत्ता सांगता तें खरें?''

तेन्ना ज्वालामुखी फुटून रसरशीत लाव्हो भायर सरचो तशीं तन्वींचीं उतरां भायर सरलीं.

''हय, हय हांव मोग करतां. एक वर्स जालें हांव अमिराच्या मोगांत पडलां. आनी म्हाका अठरा वर्सां पुराय जातकच आमी लग्न करतलीं. हांव अमिराबरोबर दुबय वतलें. आसा कितें जाप हाजेर?''

ल्हाय फुट्टा तशीं तन्वीच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लीं उतरां आयकून पप्पा मम्मी आनी दत्ता तोंड आं करून माणकुल्या अपुरबायेच्या, संस्कारीत तन्वीक अजापान पळयतच उरलीं.

''इतलेंच न्हय मम्मी, आज अमिराचो वाडदीस. पप्पान म्हाका एक हाजर रुपया दिवंक जाय. ताका प्रेजेंट दिवन म्हाका ताका अजापांत उडोवं जाय. मागीर तो सगळ्या इश्टांक पार्टी दितलो. इश्टांकूय हांवें सांगलां, पार्टेचो खर्च हांव करतलें. आज म्हाका घरा येवपाक वेळ जातलो. अमिरूच म्हाका घरा पावयतलो, आनी पप्पा आज तो म्हाका लग्नाची मागणी घालतलो.''

''तन्वी तन्वी... हें तूंच उलयता गो?.... खरेपणीं सांगतां.... खरेंच दिसना.'' मम्मी

''खरें ना दिसपाक हांव कितें कुकुलें गे, आज्जेच्या वेंगांत बसून कुरूकुरू काना आयकूंक? भैयान आज विशयच काडलो म्हणून सगळें एका दमान सांगून उडयलां. हांव कोणाकूच भियेना. मोग करपाक कसलो भंय?'' तन्वी.

''तन्वी, म्हजे मोगाचे भयणी, अजून वेळ वचूं ना. त्या पारपोळ, बेकार, लवडी अमिराचो सांगात सोड. सगळो गांव ताका तवनास म्हूण वळखता. तुका हेरूनूच ताणें गरयलां. पिशेपणां सोड. मम्मी-पप्पा तुका भोगशितलीं. सान पिरायेचेर वाट चुकता अशी समजिकाय करून घेतलीं.'' दत्ता.

“भैया, आमचो मोग इतलो घट्ट रिगला की तो हुमटावप कोणाकूच शक्य ना.”

“तन्वी, मम्मी-पप्पाचें तरी चिंत. गांवांत तांकां कितलो मान प्रतिष्ठा आसा. तूं जर अशा लोफर भुरग्याकडेन संबंध दवरीत तर तांकां तोंड वयर करून चलप कुस्तार जातलें.”

“भैया, आतां म्हाका कशेंच फाटीं सरपाक जावंचे ना. अमिराच्या मोगाखातीर हांव कितेंय करूं शकतां. जाणां भैया, म्हजो जीवलेगीत हांव दिवूंक शकतां. इतलो आमचो मोग घट जाला.”

“तूं जीव दिवूं नाका. जीव दिवपाचो वेळ आमचेर आयला. पूण तुका परत विनवणी करतां, तूं त्या लोफराचो सांगात सोड आनी तुजें शिकप बरे तरेन पुराय कर. तुजेफुडें पर्जळीत फुडार उबो आसा.”

“तन्वी, पळय, कितलो समजिकायेचो भाव तुजो तो! तो कितें सांगता तें मनपूर्वक आयक. आमी सगळीं तुज्या बऱ्याकच सांगतात. तुजें शिकप पुराय जातकच तुजें दबाज्यान लग्न करून दिवप हीच आमची इत्सा.” मम्मी.

“मम्मी, इतलो वेळ जालो तुमकां सांगता, म्हज्या लग्नाची तुमी चिंताच करूं नाकात.... जर तुमी म्हज्या लग्नाक मान्यताय दिली ना जाल्यार हांव अमिराबरोबर शादी करपाक मेकळें आसा. ताचीं घरचीं आतांच म्हाका आपणावपाक तयार आसात.” तन्वी.

“हय मुगो, तर लाग चलूंक घरांतलें. आतांच्या आतां चल. तरेतरेन तुका सांगून पळयलें तरी तुजें मन पाझरना! एकमेकांचो जिवापाड मोग करपी भावणां तुमी! भैयाचे विनवणेक तूं पाळो दिना, तुका कितेंच सांगिल्लें पटना जाल्यार सासणाचें तोंड घेवन चल. तू जल्मतांच मेलें, म्हगेर तूं जालेंच ना अशें हांव समजतां. चलूं लाग म्हणलें न्ही दोळ्यांमुखावेलें!”

अचकीत बोवाळ आनी आकांत चड जालो. दत्ताक उबारचेलो वेळ जाल्लो. कोणेंतरी पांयांक वेंग मारून बशिल्ल्या तन्वीक पेल्यान काडपाचो यत्न केलो. तन्वी भैयाचे पांय सोडपाक कशेंच तयार नासलें. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकांचे पाट व्हांवताले. उमाळ्यार उमाळे.

सकाळींच तापिल्ल्या वातावरणाचें मणमणाचें वजें मनार घेवन दत्ता कायनेटिकार

बसलो. सदांच एकामेकांचो मोग-माया करून हांसत-खेळत भुरगेपण सारिल्लें खीण दत्ताच्या दोळ्यांसामकार उबे जाले. तन्वीक बोटाक धरून शाळेंत व्हरपी, ताचो बोटवो, उदकाची बाटली सांबाळपी, घरा आयलेबरोबर गणभेस काडपाक आदार करपी, तन्वीक आवडटा म्हूण आपलें अर्दें आयस्क्रीम ताका दिवपी. दोगांय भावंडाचो मोग तांच्या सोयऱ्यांक आनी शेजाऱ्यांक भावतालो. सदांच तोखणायेचीं उतरां आयकत तीं व्हड जाल्ली.

पूण जुवानपणांत पांय दवरतना तन्वींत जाल्लो बदल घरच्यांचे नदरेंत केन्नाच गेलो ना. बारावे नंतर कॉलेजांत पावतकच तन्वीचें विश्वच बदल्लें. दत्ता चिंततालो, मोग केलो म्हूण कांयच वायट ना. पूण तो मोग फुडार काळखांत उडोवपी आसूंक फावना. म्हणूनच सकाळीं वाद जाल्लो.

आनी तन्वीचीं सुबेजपणाचीं उतरां. तांणी तर शीमच हुंपली. खंयचो कोण लोफर अमिर आनी ताचेकडेन अबुद्दिपणान लग्नाची गांठ बांदपामेरेन मजल मारपाचीं उतरां...शी...शी...मम्मी आनी पापाचीं निरशेल्लीं आनी हताश जाल्लीं तोंडां. दत्ताच्या दोळ्यांमुखार आयलीं आनी अशाच असावध खिणाक मुखावल्यान येवपी टँकराचो ताका अदमास गावलो ना. दत्ताची कूड छिन्नविछिन्न जाली. एका खिणाभितर सगळें सगळें सोंपलें.

अशें कशें हांव पिशें जालें? हांवें कितेंच चिंतलें ना? म्हज्या बऱ्याचें सांगिल्लें आसतना हांवें पप्पा, मम्मी, भैयाक आरतीं परतीं उतरां दिलीं. खंयची शक्त आयली म्हाका? भैया....भैया....

भैयाच्या पांयांक वेंग मारून तन्वी घुस्मटून हुंदक्या हुंदक्यांनी रडटालें. खिणाभितर उध्वस्त जाल्ल्या घराब्याक आपुणूच जापसालदार म्हणून ताका कळून चुकिल्लें. सकाळीं जाल्ल्या वादांत हांव भैयाचें आयकून जर फाटीं सरिल्लें जाल्यार अशें घडचें नासलें. आतां मम्मी-पप्पाक आसा कोणाचो आदार? कानांत भैयाचीं उतरीं घुमतालीं. ' तूं जीव दिवूं नाका. जीव दिवपाची पाळी आयल्या आमचेर.'

भैया तुज्या मरणाक हांवूच जबाबदार.... हांवूंच जबाबदार... अंदल्ल्या हुंदक्यांत तन्वीचीं उतरां भायर सरनासलीं.

●●●

# 11 खेळ नियतीचो

सपना नानाची घरकान्न. दोन वर्सां पयलीं ताचें लग्न जाल्लें. लक्ष्मीच्या पावलांनी सपनान नानाल्या घरांत पावल दवरिल्लें. नानाक सगळे तरेचो आदार दिवपाचो सोपूत घेवनच गांठवल बांदिल्लें. नानाक सर्ग दोन बोटां वयर उरिल्लो.

जेन्ना सपना नानाच्या ऑफिसांत बदली जावन आयलें तेन्ना सगळो स्टाफ ताका पळयतच उरलो. कारण सपनाची कायाच तशी आसली. ल्हानपणांत उज्यांत हुलपल्ल्यान ताचें मुखामळ विद्रुप दिसतालें. पयल्याच खेपे पळयतल्याक खिणभर किळस येवची अशी ताची स्थिती आसली. पूण सपनाचो जेन्ना ऑफिसांत वावर सुरू जालो तेन्ना आपले उजू गुणांनी आनी कर्तव्यदक्षपणान सगळ्या स्टाफांची मनां ताणें जिखलीं. ताचें कुरूपपण खंयचे खंय विरगळून गेलें.

नानाचो सभाव सदांच घुमो. ऑफिसांत तो कोणाच कडेन चड मिसळनालो. आपलें काम बरें आपूण बरो. आपल्या सवंगड्यां पसून चार हात पयस रावप तो पसंत करतालो. शिकिल्लो, सुसंस्कृत, टापटीप रावपी. ताका पळयतकच अशें दिसतालें की ताका कसली तरी खंत आसा जी जाका दिसरात पोखरता. अशा एकमुळ्या नानाक लेगीत सपनान बदल्लो.

सपनान नानाक बदल्लोच न्हय, तर हळूहळू तीं दोगांय लागीं येवपाक लागलीं. दोगांकय एकामेकांचो सांगात मानवूंक लागलो. हें पळोवन ऑफिस स्टाफाक अजाप दिसलें कारण एकलकोंडो नाना अशा विद्रुप कायेच्या सपनाक कसो लागीं पावलो?.... पूण अशें घडटालें खरें.

एक दीस नानान धीर करून सपना कडेन मन उकतें करपाचो निश्चेव केलो.

"सपना, आयज ऑफिस सुट्ट्रकच म्हाका मात्शें मेळशी? म्हाका मात्शें उलोवंक जाय."

"बरे भशेन. कसलें काम काडलां आयज."

"आसा गरजेचेंच."

"ऑफिसांत सांगूंक जायना?"

"अं...अं...ना...ना... कित्याक , तुका वेळा ना?"

"म्हाका वेळ भरपूर आसा. घरा उमळशिकेन वाट पळोवपी म्हजो आसा तरी कोण?"

ऑफीस सुटकच नाना आनी सपना ऑफिसा भायरूच मेळ्ळीं. पयलेच मेकळे भेटींत नानान लिपयनासतना आपले जिणेची कथा आनी व्यथा मेकळेपणान, भीड मुरवत दवरिनासतना सपना मुखार उकती केली. सपनानय आपली परिस्थिती नानाक सांगली. दोगांय समदुख्खी आसलीं.

नानान चड अडे-वेडें घेनासतना सपनाक सरळ आपले कडेन लग्न जाता काय विचारलेंन आनी अपेक्षे प्रमाण सपनान थंयचे थंय हयकार दिलो. दोगांयनीय एकामेकांचीं सांगाती जावपाचो सोपूत घेतलो. जरी नानाची पिराय जाणटेपणा कडेन झुकिल्ली तरी सपना सारके चलयेक आपणावपाचो ताणें धीर केल्लो कारण ताका दिसलें, सपनाच आपल्याक सांबाळून घेवपाक योग्य आसा.

नानाची आवय नानाक जल्म दितनाच सोंपिल्लीं. चाळीस वर्सां आदलो काळ. आतांचे वरी सुख-सुविधा, वैजकी सेवा, चांटेपावलाक दोतोर, हॉस्पिटलां नासलीं. गोंय स्वतंत्र जाल्ल्यान हळूहळू सुदारणां जावपाक लागिल्लीं. जे गांव न्हंयांक लागून शारां पसून वेगळे उरिल्ले त्या ल्हान व्हड न्हंयांचेर निकतीच पुलांची उबारणी जाताली.

नानाचें घर गांवगिऱ्या वाठारांत वशिल्लें. पयलीं तार वा पनेळान न्हंये पलतडच्या गांवांत यो-वच जातालें. तांचो गडगंज घराबो गांवांत प्रतिशठीतांत मोडटालो. चार बापोलये, तांच्यो घरकान्नी भुरगी, लग्न करून दिल्लीं बापायच्यो चार भयणी. आजो, आजी, बापोल आजो, आजी तांचीं भुरगीं-बाळां.

घरांतले सगळे निर्णय जाणटेले घेताले. ते थारायतात ती पूर्व दिशा. संपन्न घराबो, भाटबेसांनी भरिल्लो. आटसाटे भुरगे आपलें शिकप, वेवसाय शिर्वीस करताले. पूण सगळ्या गजालींचेर घरांतल्या जाण्टेल्यांचो शेक चलतालो. कोणें कसलें शिकप घेवचें, कोणें कसली सिर्वीस करची, कोणें कसलो वेवसाय

आपणावचो.... जाण्टेल्यांच्या उतरा भायर कोणूच वचनासलो. कांय वेळ जाण्टेल्यांनी घेतिल्ले निर्णय चुकीचे थारताले. पूण ताचे आड ब्र लेगीत काडपाची कापास्ताद कोणाकूच नासताली. असो दरारो तांणी सांबाळिल्लो.

अश्याच जाण्टेल्यांनी घेतिल्ल्या चुकीच्या निर्णयाची ख्यास्त नाना भोगतालो. भरिल्ल्या घराब्यांत आतऱ्या-पयऱ्यान, जावं घरांतल्या बायलांचीं वा लग्नां करून दिल्ल्या धुवांचीं बाळंतपणां घरांतच जातालीं. कांय वेळार आवय, धूव, सून एकाच वेळार बाळंत जावपाच्यो घडणुको घडटाल्यो. आनी तातूंत कोणाकच अजाप दिसनासलें कारण त्या तेंपार अश्यो घडणुको घडत आसताल्यो.

गांवांत फिशाल वैजिणी आसताल्यो. त्यो घराच बाळंतपण करताल्यो. खूबदां वैजिणीचे चुकीन वा बाळंटिणीच्या पिड्ड्यार जाल्ले भलायकेक लागून जल्मल्लें भुरगें वा बाळंटीण मरपाच्यो घडणुको सर्रास घडटाल्यो. पूण ताचो बोवाळ जायनासलो. अशें गृहीत धरतालें की घडपाचें घडून गेलें. सरासरीन बायल मनीस आठ ते धा भुरग्यांक जल्म दिताली.

जांव गरीब जांव गिरेस्त, इतल्या भुरग्यांक जल्म दितकच बायल मनशेची भलायकी कशी बरी उरतली? हाचेर कोणूच खोलायेन विचार करिनासलो. जेमतेम म्हयनो जाता सर बाळंटीण घरांतलो घश्टो करपाक उबी रावताली. गिरेस्त घराब्यांनी लेगीत भायलीं कामां सोडल्यार रांदपाचें काम घरचीं बायलांच करतालीं. रांद-वाड होच तिचो थारिल्लो नित्यक्रम आसतालो.

नानाची आवय नानाचो गर्भ धरत पसून भलायकेन बरी उरनासली. सुरवातीक नानाचे आजयेक दिसलें दीस गेल्यात म्हणून जेवण-खाण नाका जालां. दर दिसा तिची भलायकी इबाडतच वचूंक लागली. पूण नानाच्या बापायचें बायले कडेन लक्षूच नाशिल्लें. तो दिसरात आपल्या वेव्हारांत गुल्ल. म्हणून एक दीस आजयेन आपल्या घरकाराक सांगलें, ''व्यंकूचे बायलेची गुरवारपणाची पयली खेप पूण तिची भलायकी बरी दिसना. म्हाका तिचो हुस्कोच जाता. तेन्ना तिका शारांत व्हरून दोतोराक दाखोवन हाडल्यार बरी. अन्न-उदक नाशिल्ल्यान तिचो कांटो जाला.''

''कमल , तूं एक-एक नविदादूच सांगता मगो? घरांत कितें गुरवारी जाल्योच नात?''

''हांव अणभवी बायल. आजवेर हांवें खूब गुरवारी पळयल्यो म्हणूनच सांगतां

तुमकां. व्यंकूचे बायलेचीं चिन्नां म्हाका हुस्क्याचीं दिसतात.''

''हांव सांगता तिका कांयच जावंकना. तुजी घरगुती वखदां दी मगे तिका?''

''हांव वखदां करतांच पूण तिका इल्लो लेगीत गूण पडना. आवय नाशिल्लें पोर. कुळारा तरी कशी धाडूं चार दीस? म्हणून म्हणटां तिका शारांतल्या दोतोराक दाखोवन हाडूंया.''

''कमल, ओगीच जीव खावूं नाका. तुका हुस्को, चिंता करचेली जाल्या सवंय. म्हाका वेळ जाता. मानाय कामाक लागले आसतले भाटांत.'' नानाचो आजो बायलेचें कानार घेनासतना भाटांत वचपाक गेलो.

नानाची आजी अणभवी आसली. आजवेर तिणें कितल्यो तरी गुरवारी पळयल्यो. पूण हे सुनेची तारा तिका वेगळीच दिसताली. तिच्या पोटांत कितेंच धरिनासलें आनी दिसभर तकली उशांत चेंपून ती दीस सारताली. घोवाक तर आपल्या व्यापा मुखार तिचे कडेन लक्ष दिवचें अशें दिसच नासलें.

आनीक एक दीस म्हयने पुराय जावचे पयलींच भर आषाढ म्हयन्यांत रातच्या दोन वरांचेर तिका पोटांत जावपाक सुरू जालें. थांबनासना पडपी पावस, चारी वटांनी गुपाट काळोख. अशो परिस्थितींत वैजिणीक हाडली. वैजिणीन पळयतनाच सांगलें आपले कडेन जावपाचें ना. जाता तितले बेगीन शारांत व्हरया वा दोतोर हाडया.

आषाढ म्हयन्याचो उटंगाराचो पावस, न्हंयो, व्हाळ पावसाच्या उदकान तुटूंब भरून व्हांवताल्यो. गुप्प काळखी रात. गांवच्या भायर सरतलो जाल्यार पलतडीं व्हरपाक तारयाची गरज. दोतोराक हाडप वा गुरवारीक व्हरप महाप्रयासाची गजाल. व्यंकूचे बायलेचे तळमळे घरच्या बायलांक आनी वैजिणीक पळोवचे पडटाले. वैजीण आपले घरगुती उपाय करून निचेश्ट जावन पडिल्ले व्यंकूचे बायलेक सावचीत करचेलो यत्न करताली. पूण सगळे यत्न निर्फळ थारिल्ले. वैजीण सैरभैर जाल्ली.

''आगे, कमलाबाय असो कसो घात घेतलो गे तुमी सुनबायचो? इतली अळंग जाल्ले गुरवारीक भर पावसांत तुमी पयलींच शारांत व्हरपाची न्ही गे? कसलीं निश्ठून काळजाचीं मनशां तुमी? सुनेच्या जिवा कडेन खेळ केलो मगे तुमी. आतां बरें वायटाचीं जापसालदार तुमीच थारतलीं. देवा रे देवा, तूंच पावरे प्रसंगार. म्हज्या धनया... तूंच पाव.'' वैजीण देवाक सांकडें घालताली.

कमल कितें सांगताली आपले पुताचीं आनी घरकाराचीं निश्काळजीपणां. धांपिल्ली मूठ... दोतोर पावतासर खूब कळाव जाल्लो. खूब रगतस्त्राव जाल्ल्यान सुनेचो रगताचो दाब देंवलो आनी तिची प्राणज्योत पालवली. पूण वैजिणीचे फिशालकायेक लागून भुरगें वाटावलें. घरभर दुख्खाचें सांवट पातळ्ळें.

कमलान सांगून लेगीत आपणें सुनेचे भलायके कडेन आडनदर केली. खूब निश्काळजीपणां केलीं. आपणें केलीं तीं केलीं, व्यंकूनय कशीं केलीं? आपल्या इतलीच ताचीय जापसालकी आसली. बायलेचे भलायके कडेन इल्ली तरी नदर दवरपाची न्ही? घडणूक घडले उपरांत पश्चाताप करून कितें उपेग? अशें घडत म्हणून आपणें सपनांत लेगीत चिंतूंक नासलें. देवान बापूय-पुताक सुनेचो प्राण घेवन, नकळटां जाल्ले चुकीची व्हड ख्यास्त तांकां फर्मायिल्ली. नानाचो आजो हे घडणुकेक आपूणच जापसालदार म्हणून भितल्ले भितर घुस्मट्टालो.

नातवाचो बारसो करपाक घरच्यांक तोंडच नासलें. आजो, आजी, बापूय तशींच घरांतलीं आनी घरचे कामाक आदार करपी कामेऱ्यां मदीं व्यंकूचो पूत व्हड जातालो. दीस, म्हयने वताले. निकतेंच ताका उतर सुट्टालें. सदचे वरीं एक दीस ताका कोणें तरी विचारलें, ‘‘बाबा तुजी आई खंय रे...’’

ताणें बोबड्या उतरांनी म्हणलें ‘‘ना....ना....’’ तेन्नाच्यान ताका नांवच पडलें नाना. पाळण्यांत घालिनासतना नाना हेंच नांव रूढ जालें.

काळ सगळे तरेच्या वायट-बऱ्या घायांचेर खपली धरता. नाना आतां इल्लो व्हड जातालो. ताची पुराय जापसालदारकी आजी-आज्यान घेतिल्ली. हळूहळू घर परतें रुळार येवंक लागलें. सण, परबो सुरू जाल्यो. वाडदीस मनोवप जाताले. नानाच्या वाडदिसाक घरांत ताचे आवयची तीथ आसताली आनी सवायशीण जेवोवन गोडशाचें जेवण जातालें. घरचीं बायलां सवायशिणीचीं व्हॉट भरून तिका पांय पडटालीं. नानाकय पांय पडपाक लायतालीं. दर वर्सा अशेंच चलतालें.

जेन्ना नानाक समजिकाय आयली तेन्ना एक दीस ताणें आजयेक विचारलें, ‘‘आज्जे म्हजो वाडदीस केन्नाच कित्याक करिनात गे?’’ आजी कितें जाप दितली. दोळ्यांतल्यान दुकां गळयत तिणें नानाक वेंगेंत घेतलो आनी म्हणलें, ‘‘पुता तुजो वाडदीस आमी केन्नाच करूंक पावचीं नात. पूण तूं मात तुज्या पुताचो करूंक विसरनाका.’’

आजी कित्याक रडली तें नानाक समजलें ना... ‘‘आजे, तूं रडूं नाका गे. तूं

रडल्यार म्हाकाय रडूंक येता. हांव परत तुका केन्नाच विचारचो ना. तूं रडूं नाका. तूं रडूं नाका.'' अशें म्हणटा म्हणटा नानाच रडूंक लागलो. आजयेली आपले वयली माया ताका खबर आसली.

आजी- नातू वेंग मारून रडटात तें पळोवन बाकी आशिकुशीक आशिल्ल्या घरच्यांच्याय दोळ्यांत दुकां भरलीं. नानान त्या दिसाच्यान आपल्या वाडदिसाची याद काडलिना. घरांच चलपी उलोवण्यां वयल्यान सानुल्याक समजल्लें की आपल्याक लागून घरांत कितें तरी वायट घडलां.

जशी जशी ताका समजिकाय येवपाक लागली तशें ताका आपले आवय विशीं, तिचे बाळंतपण आनी मरणा विशीं कळ्ळें आनी ताचे मन कश्टी जालें. आवयच्या मरणाक आपूणच जापसालदार अशें तो चिंतूक लागलो. कशेंय केल्यार ताच्या मनांतले विचार ताका सोडनासले. दिसभरच्या चिंतनानी तांच्यांत इल्लो इल्लो बदल घडपाक लागलो. सभावांत एकलेपण जाणवूंक लागलें. उलोवप साप्प उणें जालें. गुन्यांवकारपणाची भावना सासणाची ताच्यांत रिगली. घुमेपण हो ताचो सभाव जालो.

गांवांतल्या घरांतय उलथापालथ जाल्ली. जण एकलो गांव सोडून शारांत वसणुकेक गेल्लो. गांवांत रावन शिक्षण, वेवसाय शिर्वीस फावो सारकी जायनासली. जाण्टेले सोंपिल्ल्यान जो घरंदाजपणाचो दबदबो आसलो तोय सोंपिल्लो. एकवटीत घराबो सोंपून घरांत वेगवेगळ्यो रांदपाच्यो कुडी जाल्ल्यो. बायलेच्या दुख्खान पयलीं व्यंकू सोंपिल्लो. आनी ताचे फाटल्यान आजो-आजी. आतां नानाक एकटेपण चडूच जाणवतालें.

जेन्ना लक्ष्मीच्या पावलांनी सपना नानाच्या मनकाळजांत रिगलें तेन्ना ताणें थारायलें, आपल्यो सगळ्यो अर्दकुट्यो उरिल्ल्यो अपेक्षा आपूण सपनाच्या सांगातान पुराय करतलों. सपनाक जेन्ना दीस गेल्ल्याचें ताका कळ्ळें तेन्ना ल्हवचीक ताका भास जालो. सपनाक खंय दवरूंक खंय नाका अशें ताका जालें.

सपनाचें ताणें रूप पळयलेंना तर फकत आपलेपण. ताका लागून नानांत व्हड बदल जालो. तो आतां मेकळेपणान उलोवंक लागलो. ताचे वयलें दडपण इल्लें इल्लें कमी जावपाक लागलें. तांचे दीस सुखान वचूंक लागले. सपनाक कितेंच उणें पडूं नये हाची तो पुरायेन जतनाय घेतालो. ताका कितें जाय-नाका हाची खोलायेन चवकशी करतालो. चुकनासतना म्हयन्याच्या म्हयन्याक दोतोरागेर

घेवन वतालो.

आपले आवयच्या काळार वैजकी सेवा वेळचे वेळार मेळूंक नाशिल्ल्यान आनी घरच्यांच्या दुर्लक्षपणाक लागून आपले सोंपिल्ले आवयची याद नाना केन्नाच विसरूंक शकनासलो. आपल्या हातान इल्ली लेगीत चूक घडची न्हय म्हूण तो सपनाची जतनाय घेतालो. आपलो वाडदीस तो केन्नाच मनोवंक पावंक नासलो ही खंत ताच्या काळजांत रिगून उरिल्ली ती खंत ताका आपल्या भुरग्याच्या वाडदिसाच्या रुपान सोबोवपाची आसली. अशीं खूबशीं सपनां नाना बाळगून आसलो.

जेन्ना सपनाचे दीस लागीं पावले आनी ताका बाळंतकळा येवपाक लागल्यो तेन्ना नानाक कितें करचें तेंच समजना जालें. हो ताचो पयलोच अणभव आशिल्ल्यान तो सामको काचाबूल जालो. पूण थंड सभावाच्या सपनान नानाक धीर दीत सांगलें की आमी बेगिनात बेगीन हॉस्पिटलांत पावया. जेन्ना तीं थंय पावलीं तेन्ना दोतोरान सपनाक तपासपाचे कुडींत व्हेलें आनी तपासलें. अचकीत दोतोराच्या कपलार सपनाक आटयो दिसल्यो तेय अवस्थेंत सपनान दोतोराक विचारलें.

“दोतोर कितें जालें?”

“कांय ना, कांय ना. तशें भियेवपाचें ना. पूण तुका बेगीनच ऑपरेशन करचें पडटलें. सांगता तुज्या घरकाराक.”

बाळंतीचे कुडी भायर नाना चिंतेस्त जावन येरादारी घालतालो. दोतोराक पळयना फुडें तो ताचे म्हऱ्यांत वचपाक दोतोरानच ताका आपले तपासपाचे कुडींत आपयलो.

“पळय, तुजे घरकान्नीचें अर्जंट ऑपरेशन करूंक जाय. तेन्ना केस पेपरार तुज्या हयकाराची सय गरजेची.”

“दोतोर, दोतोर, भियेवपा सारकें कांय ना न्ही?”

“आरे भियेवं नाका. सपनाचें प्रेसांव मातशें देंवलां. दुसरी गजाल, ताका म्हयनेय पुराय जाल्यात. आमी रावंकय शकनात. ताका रोखडेच मेकळें करया.”

“दोतोर”

“पळय सांगले न्ही तूं थंड बस. कांयच भियेवचेली गरज ना. रगताची गरज पडल्यार आमी वेवस्था करतात.”

“दोतोर सारकें सांगता न्ही. तुमी म्हाका कितें तरी लिपयातात”

“दोतोर बेगीन भितर येयात. पेशंट कितें तरी...”

“चल, चल नर्स... चल बेगीन.”

“दोतोर, दोतोर...” नाना व्हडल्यान आड्डलो.

सगळीं दारां बंद जाल्लीं. भायर नर्सी, पेशंटाक मेळपाक येवपी सोयऱ्यां-धायऱ्यांची यो-वच चालू आसलें. बाळंटीचे कुडींतलो आवाज इल्लो लेगीत भायर आयकूंक येनासलो. चिडीचूप्प. नानाच्या दोळ्या मुखार भिण्ण काळोख पातळिल्लो. ताका कितेंच सुचनासलें. तो परत परत चिंत्तालो - दोतोर इतलो अस्वस्थ कित्याक जालो? नर्सीन कितें सांगलें? दोतोर कित्याक धांवलो? प्रस्नचिन्नांचेर प्रस्नचिन्न नानाच्या दोळ्य मुखार उबीं जातालीं.

चिंतनांत कितलो वेळ गेलो नानाक खबर ना. दाराच्या आवाजान नाना चिंतनांतल्यान भायर येवपाक दोतोराचीं आकांताचीं उतरां ताच्या कानार आदळ्ळीं, “नाना... नाना... सॉरी, तुका कशें आनी कितें सांगूं. गेलें रे सपना. गेलें. आमी भुरग्याक वाचोवंक शकले पूण...”

दोतोराचीं उतरां कानार पडना फुडें नानाक सगळें हॉस्पिटल आपले भोंवतणी धुंवता असो भास जाल्ल्यान आकांतान नानान दोतोराकच वेंग मारली.

“दोतोर, अशें कशें घडलें. अशें घडलेंच कशें? ना... ना... दोतोर तुमी फट उलयतात.”

“आरे, सपनाचो रगतदाब अचकीत देंविल्ल्यान असो अनर्थ घडलो. आधुनिक उपायांच्या आदारान आमी सर्तीचे यत्न केले. पूण केल्ल्या उपचारांक सपनाची कूड साथ दिवंक पावलिना. नाना... म्हजे लागीं उतरां नात... तुजें दुख्ख सासपूंक.सॉरी.... नाना सॉरी”

“सपना, तुका हांवें फुलावरी जपिल्लें, कांयच कमी करूं नासलें. तुवें म्हाका आयज वयल्या मनस्तापांतल्यान मेकळो करून जगपाक शिकयलें. फुलतें फूल घेवन आमकां जगचें आशिल्लें. आतां... आतां... हांव कितें करूं...”मनांतल्या मनांत घुस्मटून घुस्मटून नाना हॉस्पिटलांतले खाटीर धवेफुल्ल चादर पांगरून सासणाची न्हीद घेतिल्ल्या सपना मुखार दुकां गळयतालो.

नियतीन ताचे बराबर क्रूर खेळ मांडिल्लो. ताचें सपन भंगिल्लें.



# 12 खिणयाळें सूख

कुशावती घराचे पडवेर बसल्या. आशिकुशीच्या घरांचेर मोनेळ पडल्या. तिळसांज जाल्या. काळोख पातळूं लागला. पूण कोणाच्या घरांनी उजवाड दिसना. उलयिल्ल्याचो आवाज ना. सगळे कडेन चूप चूप. इतलें की अशें दिसता सैम लेगीत रागार जाला. पान हालना, वारो व्हांवना....

एका तेंपार माणकुलो शिमे गांवचो वाडो पांचव्याचार सैमान भरिल्लो. वणतीक वणत तेंकिल्लीं कुचकुचीत घरां न्हंयचे देगेर बशिल्लीं. थंड, शितळ वारो नित्यनेमाचो सांगाती, वाड्यावेल्या लोकांचो दीस उदेवपाक आदार करतालो. भुरगीं, बायलो, दादले आपआपल्या सोयी प्रमाण फावता तेन्ना न्हंयेंत न्हावप, उमळप करतालीं.

नुस्तें गरोवंक फिशाल आशिल्ले तरणाटे, जाण्टेले आपल्यो गरयो घेवन तांजें तट्ट्रीत नुस्तें गरोवन हाडटालें. गरोवणेक चड नुस्तें फारावलें जाल्यार वाड्यार ताचो वांटो पावतालो. न्हंयचे देगेर कानळांची, चिंपांची हारीन झाडां. कानळां फुलतकच वाड्यावेल्या भुरग्यांच्या फाटीक लागून चलयो कानळां खुंटून घेतालीं. चिपांची झाडां जेन्ना चिपांनी भरून तवकतालीं तेन्ना भुरग्यांक तीं केन्ना काय काडन जातालीं.

पूण चिपां काडपाक वचप म्हणल्यार रेबडांत मुंगरपाचो भंय आसतालो. पूण चिपांची रूच भुरग्यांची जीब हुळहुळायताली. सकयल उदक, दलदलीत मातयेंत पडल्यार मायणाक लागून मुंगराचो भंय आसून लेगीत धाडसी भुरगीं कसलीच पर्वा करिनासतना पिकिल्लीं चिपां कशीं बशीं गोळोव मारून काडून हाडटालीं आनी

आवयां कडल्यान आंबट तिखट झणझणीत बरी चटणी करून घेतालीं. सगळीं वाड्यावेलीं भुरगीं बसून खातालीं.

कोणें चिपां हाडलीं, कोणाले आवयक चटणी वांटली हांतून अंतर दवरनासतना वाड्या वेलीं सगळीं भुरगीं एकठांय जातालीं आनी वांटणी जाताली. अमुरपिकीं चिपां बोटव्यांनी घालून शाळेंत पावतालीं आनी मदले सुटयेंत दारां खाचींत चिड्डून सगळीं भुरगीं मिटक्यो मारीत खातालीं.

शाळेची बाई धेंगसो घालताली – ''आरे तन्नी चिपां खाल्यार थंडी जातली. ताळो थंडेन फुलतलो. भिड्डां जातलीं.'' पूण भुरगीं बाईचें कांयच आयक नासलीं. भुरग्यांची मनासावन चिंता आशिल्ल्यान बाई भुरग्यांच्या भलायकेचो हुस्को करताली. तिका दिसतालें चिपां खावन. भुरगीं जर बरी ना जालीं जाल्यार गैरहाजीर रावतलीं. तांकां अभ्यास चुकून तीं फाटीं उरतलीं.

वाड्यावेलो लोकय शाळेचे बाईक बरी मानाची वागणूक दिताले. तिका आपल्यांतलीच समजताले. आपल्या भुरग्यांचो पर्जळीत फुडार बाईच्याच हातांत आसा अशे समजताले. ''फाल्यां तुमच्या घराच रकाद धाडटां, मागीर काडूनी दोदोन फोग'' बाई आपले परीन भंय घालताली. पूण मजेची गजाल, भुरग्यांक चिपां खावन केन्ना थंडीय जाली ना आनी ताळोय थंडेन फुल्लो ना. कारण गांवांतले वातावरण शुध्द आनी शित–कालवण जेवून दर एकल्याची भलायकी घटमूट आसली.

शिमेवाड्या वेल्या दर घराक भाटकाराली तल्लूक आशिल्ली. भाटकार आनी मुंडकार असो भेद नाशिल्लो हो वाडो. भाटकारान केन्नाच मुंडकारांचेर भाटकारपण गाजयलें ना आनी मुंडकारान भाटकाराक दुखयलो ना. मुंडकारानी नाल्ल पाडून घेवप आनी भाटकारान विश्वासान तांचेर पातयेवप.

शिमे गांवच्या वाड्यार गणपती पूज नासले. पूण भाटकारालो गणपती सगळ्या वाडेकारालो गणपती जावन आशिल्लो. तय, चवथ, पंचम तिनय दीस भाटकारागेर ताण बरो भूस मारप आनी कामाक हातबोट घालप. उरिल्लें सुरिल्लें गोडशें, नेवऱ्यो शिमे गांरच्या वाड्यार घराघरांनी पावतालें. भाटकार मारानाचें बॉक्स पडवेर उगडटालो आनी आपल्या भुरग्यां बरोबरीन वाड्या वयल्या भुरग्यांक माराण आनी फोगाची वांटणी करतालो.

जी चवथीची गजाल तीच नवरात्र, दिवाळेची. तशें पळोवं गेल्यार दर सणा परबां दीसा शिमे गांवचो वाडो भाटकारागेर जेवतालो, खातालो. कसलोच भेद भाव नासतालो. भाचकाराल्या गोठ्यांत गायो-म्हशी वियेल्यार वाड्यार न चुकता पोस पावतालो. वाड्यावेल्या बायलांक पोस करप बरो जमना म्हणून भाटकान्न जाणां आसली.

भाटकार वाड्यावेल्या लोकांक देवा सुवातेर आसलो कारण लग्न कारणाक, अडिअडचणींक भाटकारच तांकां पावतालो. कसल्याच बरपाचेर बोट लावन घेवप ना, इतलो वाड्यावेल्या लोकांच्या उतराचेर, मुंडकारांचेर विश्वास. भाटकाराल्यो तल्लुको फकत नांवा पुरत्योच भटकाराल्यो आसल्यो. भाटकारान केन्ना कोणें घर वाडयलें वा खोंपी वाडयल्यो वा वंयो घाल्यो म्हणून विचारप लेगीत ना. सदांच म्हणप ''फुडें त्यो तुमीच पळोवपाच्यो रे. हांव खंय खंय पावतलों?''

पूण हालींसरा वारेंच उरफाटें व्हांवक लागलें. शिमे-गांवच्या वाड्यार मिनाचे प्लॉट तयार जाले. एक-एक म्हणटा -म्हणटा प्लॉटांचें जाळेंच कशे मिनेर विणू लागले. घरांतल्यान पावल भायर काडलें जाल्यार धुल्लान माखूं लागले. सुरवेक वाड्यावेल्या लोकांनी विरोध केलो. पूण गांवच्या ज्या मुखेल्यांक लागून हे प्लॉट वाड्यार पाविल्ले तांणी वाड्यावेल्या घराघरांनी भोवन मिनाक लागून जावपी फायदे सांगतकच अज्ञानी लोक वगी रावले. सगळ्या लोकां बरोबर तांणी रावपाचें थारायलें.

मिनाच्या प्लॉटांनी आदलो सैम इबाडून उडयलो. न्हंयचे देगे वयलीं घरां धुल्लान माखून गेलीं. पांचवो रंग नदरेक पडपाक कुस्तार जालो. चिपांचीं, कांदळांची झाडां वचून थंय लांबचे लांब मिनाच्यो जेटी बांदल्यो. न्हंयचे देगेर मिनाचे ढिगारे, नदर पावना अशे तयार जाले आनी ताचे वयर ऑरबिनाची आंखणी. दीस रात मिनाचे ट्रक ऑरबिनाचेर उबे रावन बार्जींनी मिनाचे फातर भरपाचें काम करपाक लागले. त्या आवाजान कान सामके फुटून वचपाक लागले.

नुस्तीं गोरोवप, न्हंयचेर न्हावप, उमळप खंयचे खंय केदे बेगीन नाच्च जालें. मिनेरांनी दर एकल्याच्या दारांत नळ पावयले. न्हंयचे उदक आपलो निर्मळ नितळ धवो रंग विसरून मिनाच्या तांबड्या रंगांत केन्ना एकरूप जालें तांकांच खबर ना. कितलो सोबीत, सुंदर, नितळ शिमेगांवचो वाडो, कळत नकळत मिनेरांचे भकीक

केन्ना पडलो कळलो लेगीत ना. न्हंयचे देगे वयले माड मिनाचे मातये भरवण जाल्ल्यान भाटाकारालें भाटावेलें लक्ष गेलें. जंय मुंडकारच मिनाचे गोडयेन मिनेरांक लागीं गेले जाल्यार माड आनी भाटकार कितें करतले?

मिनेरांनी शिमेगांवच्या लोकांचेर पयशांनी मोनेळ घालो आनी पयश्यां आशेन तरणी पिळगी सामकीच हाताभायर गेली. शिकप अर्दे साडलें.पयलीं-पयलीं थंयचे थंय ट्रिपी, प्लॉटा वेल्यान ऑरबिनाचेर मारपाक लागले. मोटार चलोवपाचें लिसेन्स ना. मार्गार येनासतना अश्यो ट्रिपी मारून मेळपी पयश्यांची भुरग्यांक गोडी लागली. वाड्या वेलें लागींचें इश्कोल आसूनय भुरग्यांची गळटी जाली.

मुख्याध्यापकान पालकांक रकाद धाडून तांच्या भुरग्यांच्या शिक्षणा विशीं कळकळीची विनंती करून जाणविकाय दिली. ''पळयात आज शिक्षणाची गंगा दारादारांनी पावल्या. आदले काळा वरी मैलांचे मैल पांयांची रपेट करून शिक्षणा खातीर धांवपळ करचेली गरज ना. आदले काळार शिकपाची उमेद आसून लेगीत अडचणींच्या दोंगरांक लागून, फी फारीक करपाची अर्थिक स्थिती कमकुवत आशिल्ल्यान बुदवंत भुरगे लेगीत आपलें शिक्षण पुरे करपाक पावना आसले. सोयऱ्यां धायऱ्यांगेर रावून, तांची घरचीं कामां करून शिक्षणाचें ध्येय पुरें करचें पडटालें.''

''आज आदली परिस्थिती फाटीं पडल्या. मेळटा ती संद तुमच्या भुरग्यांक वगडावंक दिनाकात. आयची संद फाल्यां येना. पयसो केन्नाय जोडूं येता. पयशांच्या हावेसा पोटीं भुरग्यांचें भुरगेंपण वगडावंक जापसालदार जावं नाकात. तुमचे भुरगे गुणी , कलावंत. चित्रकला तांच्या बोटांनी खेळटा. तबलें-पेटी वाजोवंक तर हातचो मळ. भजनां करपाक, सतींत वांटेकार जावपाक कोणूच फाटीं ना. खेळामळ तर तांणीं गाजयलां. कबड्डी, खो खो खेळांनी आमच्या स्कुलान तांच्याच बळग्यार तसरीपो हाडल्यात. तेन्ना भुरग्यांच्या फुडाराचें चिंतात.''

पूण उमथ्या कळशार उदका प्रमाण मुख्याध्यापकांच्या मोलादीक सुचवण्यांचो कांयच परिणाम जालो ना. पालकांच्यो सुचोवण्यो आयकुपाच्या फुडें भुरगे पाविल्ले. सान वयाचे आसून लेगीत सोरो, मटको, चरस, गांजाचे भकीक पडिल्ले. रात- रात घरा भायर रावताले. कोणाचो पांयपोस कोणाच्या पांयांत आसनासलो. मधानपणा, गुंडगिरी पावला कणकणी दिसताली. बेशिस्तीन तेंगशी गांठिल्ली. भलायकेची वाट

लावपी खिणयाळें सूख तांकां चड लागिचें जाल्लें. त्या सुखाची तांकां इतली गोडी लागिल्ली की त्या रेबडांतल्यान आतां भायर सरप कुस्तार आसलें.

मिनाक लागून जावपी वायट परिणाम, जाण्ट्यां बरोबरीन फुडली येवपी पिळगी पिड्ड्यार जाता ती पळोवन समाज सुधारकांक काळजाक पीळ पडटालो. शिमेगांवच्या वाड्या लागसार आनीकय वाडे आसले पूण त्या वाड्यांक मिनाची झळ बादूं नासली. त्या वाड्यावेल्या कांय तरणाट्यांनी एक कार्यावळ आयोजीत केली. खास मिनाक लागून जावपी दुश्परिणामाचें विश्लेशण करचे पासत. तांकां मना पासून गांवचें बरें जाल्लें जाय आसलें. कार्यावळीचें मुखेलपण मनोहरान करपाचें थारायलें. मनोहर भोव कश्टांनी शिकून गांवचो पयलो वयलो इंजिनियर जाल्लो.

मिनाक लागून गांवची भलायकी, एकवट, नापीक जमीन, व्यसनधीन तरणी पिळगी, मर्गा वेले निश्काळजीपणान जावपी अपघात हाचेर गंभीरतायेन विचार जावचे पासत खास करून हे कार्यावळीचें आयोजन केल्लें. वस्तुस्थितीचेर पोटतिडकीन उलोवपीय हाडिल्ले. जाणीं आज मेरेन समाज प्रबोधन वरवीं समाजांत बरी विचार धारा जागोवपाचो यत्न केल्लो. समाजाचे दोळे उगडपाचें कार्य चालू दवरिल्लें.

वाड्यावेल्या पिंपळा पेडार कार्यावळीचें आयोजन केल्लें. हो पिंपळ वाड्यावेल्या बऱ्या वायटाचो तेस्तमुद (साक्षीदार) आशिल्लो. जो गेल्लीं देडशें वर्सां आपलीं पाळांमुळां मातयेंत घट्ट मुंगरून हांगासर देवत्त्वाच्या रुपान उबो आशिल्लो. पेडार मेज- कदेलां असो अडेचो देखावो नाशिल्लो. फकत वाड्यावेल्या लोकां खातीर ही कार्यावळ आशिल्ली. आयतार आशिल्ल्यान सगळो वाडो खिट्ट भरिल्लो.

बायलो मार लग्नकार्याक आयिल्ले वरी गडगंज भांगरां घालून आयिल्लीं. अन्याय ना-मिन दारांत पाविल्ल्यान लक्ष्मी दर एकल्याच्या घरांत उदक भरताली. आनी म्हणूनच दर घरांतली बायल भांगरां शिंगरांनी तवकताली. प्रत्येक घरांत ट्रक, ट्रॅक्स, सुमो, मारूती व्हॅन, मोटारी पाविल्ल्यो. कंपनी वाहनां खरेदी करपाक रीण दिताली आनी परत कंपनीच्याच कामाक लायिल्ल्यान दर म्हयन्याक हजारांनी पयशांचो घोगो घरा मेरेन पावतालो.

कोलवाच्यो खोंपी आनी बारकेल्या नळ्यांचीं घरां वचून तेर्रासाचीं घरां उबीं

जाल्लीं. घरा मुखार दोन-दोन, तीन-तीन ट्रक, तशेंच सुमो, ट्रॅक्स, मारुती गाडयो उब्यो आशिल्ल्यान घरचेच भुरगे वाहनां चलयताले. पिरायेचो प्रश्नच नाशिल्लो. वाहन कोणाकय लागलें आनी अपघात जालो जाल्यार मिनाच्या प्लॉटांचे जाळवणदार मिटोवपाक तयार आसताले. कसलीच पर्वा नासली.

घरांतली बायल फाटलें सगळें विसरून खिणयाळ्या सुखा फाटल्यान धांवपाक लागिल्ली. एकाच घराब्यांतली बायल अशी न्ही, तर सर्रास बायलांचीं उतरां घोड्यार बसून वतालीं. पयशांचो मद ठायीं-ठायीं भरिल्लो. सर्त तर पराकश्टेची सुरू जाल्ली. भुरग्यांक धा मिनटांचे वाटेर इश्कोलाक वचपाक येवपाक कंपनीच्यो बसी. त्या शिवाय सनी आनी स्कुटी लागताल्यो. चल्यां बरोरीन चलयोय सनी आनी स्कुटी मनाक जाय तश्यो फरफरायताल्यो.

आपल्या भुरग्यांच्या प्रतापांक बापाय परस आवयो चड थुळेताल्यो. शिकप पाड पडिल्लें पूण हेर गजालींचेर चड भर पडिल्लो. नवे नवे तरेचे म्हारगायेचे मोबायल ल्हान व्हड भुरग्यांच्या हातांत घोळटाले. मुस्तायकी तर दोळ्यार धरनासली. थळावे बाजारांतलीच न्हय तर सणा-परबां वेळार व्हडल्या शारांनी वचून नवे-नवे मोदीची मुस्तायकी खरेदी केल्ली, भुरगीं बाळां तशेंच दादले बायलांच्या आंगार दिसताली.

मिनाच्या राकेसान शिमेगांवच्या वाड्यार अच्छेव मातयल्लो. जाण्ट्यांच्या उतराक मान उरूं नासलो. चलता तो अच्छेव पळोवंक नजो जावन उतर भायर काडलें जाल्यार, माज आयिल्लेवरी ''तुज्यान आमचें बरें जाल्लें पळोवं नजो, सोसूं नजो जाल्यार तुका जाय थंय तोंड घेवन वच'' ही मुजोरीपणाची भास पोटचे पोरांची आयकुंची पडटाली. तोंड धांपून पानार पडटा तें खावन ओगी रावल्या बगर उपाय नासलो. वाड्यावेल्या सगळ्या घरां-दारांचेर सांवार आयिल्लो.

पिंपळापेडा वेल्या उलोवप्याची रघुल्या मनोहरान वळख सांगली. तो केदो व्हड मनीस आनी समाजाची ताका तळमळ. आयचे तरणे पिळगेक तशेंच जाण्टेल्यांचें खंय कितें आनी कशें चुकता तांकां मार्गदर्शन करपा पासत आपणें ताका शिमेगांवच्या वाड्यार आपयला आनी कितें - कितें.

''पुरो मनोहर, पुरो तुजें''- एक आवाज आयलो.

''तुगे उलोवप आमी सदांच आयकतात. तेका उलोवं दी''- दुसरो आवाज.

''बरें- बरें तर, आतां आमचो सोयरो दिलेश आमकां कितें सांगता तें

आयकुयां.''

दिलेशान आपलें उलोवप सुरू केलें. ''म्हजो इश्ट मनोहराल्या उतराक लागून हांगा जमिल्ल्या सगळ्या मानेस्तांक म्हजो मायेमोगाचो नमस्कार.''

''पावतो सा. पावलो रे बाबा नमस्कार. कर तुजें सुरू. आमकां आयताराच्या बाजाराक वचपाक जाय.'' दिलेशाक कच्च जालें. कसले रे हे लोक? मनोहर सांगतालो तेंच खरें. मदांत, मस्ती तकलेक मारिल्ले लोक.

दिलेश उलयतच रावलो. ''आज म्हाका मनोहरान मुद्दाम आपयला हाचें कारण, ह्या मिनान आमचें कशें-कशें लुकसाण केलां तें तुमचे मुखार मांडपाक. जाणा जायात, आमी मिनाचो धंदो नाका म्हणनांत. कारण खूबश्या लोकांचें पोट ह्या धंद्याक लागून भरता.

पूण मिनाक लागून जावपी वायच परिणामय आमी जाणां जावन घेवया. मिनाच्या धुल्लाक लागून टी.बी. चें दुयेंस बळावपाची चड शक्यताय आसता. जाका जाण्टेले बारीक जोर म्हणटाले. ताळ्याचें दुयेंस - म्हणल्यार ताळो फुलून गिळपाक, जेवपाक त्रास जावप. दम्याचें दुयेंस तर सान भुरग्यां मदीं पावलां कणकणीं दिसूंक लागलां. सदां सर्वकाळ आपल्या निर्मळ उदकाची परवण करून पोसवण दिवपी न्हंयचें उदक मिनाचे मातयेन दुशीत जालां.''

''ऑरबिनाचेर ट्रक चडोवन सकयल बार्जीनी रकोवपी मिनाच्या कर्कश आवाजान भैरेपणीचीं दुयेंसा वाडपाक लागल्यांत. पूण लोकांक पयशांची चटक लावन ह्या जावपी अनर्था पसून पैसावपाची धुर्त मोख मिनेरांनी केल्या. म्हणून आज वेळ आयला हाचेर विचार करचेलो. तुमच्या ल्हान ल्हान भुरग्यांनी इश्कोलांनी वचपाचें बंद केलां आनी तुमच्या दोळ्या हुजऱ्यां ते भुरगे ल्हान ल्हान ट्रिपी मारतात. तांचे कडेन वाहन चलोवपाचें लिसेंस ना. पिराय ल्हान आशिल्ल्यान तांकां परवाने मेळनांत. पूण तुमी पालक तांचो फुडार घडोवपाचो सोडून, जाणां जावन पिड्ड्यार करपाक मुखार सरल्यांत. अशें करूं नाकात. वेळेक म्हत्व आसा. गेल्लो वेळ परत येना. ''

''कोण रे तो वदळच्यान फरफरता. आं. आमकां शाणेपणां सांगपाक आयला? आमी बरे खाता जेवतात तें तुज्यान पळोवं नजो काय कितें रे'' गर्दैतलो एक आवाज.

"तूं हांगासल्लो गेल्यार बऱ्याक पावतलो. आमचें आमी पळोवन घेवपाक समर्थ आसात." दुसरो आवाज.

"पळयात, आज तुमकां दिसता तुमी बरें खाता जेवतात. पूण तुमी खाता जेवतात ताचे बरोबर तुमच्या पोटांत कितलो धुल्ल वता हाची तुमकां कल्पना ना. तुमचीं घरां मिनाच्या प्लॉटाच्या मदेकात आसात, हाचो मातशी तकली थंड दवरून विचार करात. " दिलेश.

"ओगी राव रे हो तो. आमकां शाणेपणां सांगूंक आयला? इतलो तेंप जालो आमी मेले ना मरे? आतांच आमकां दुयेंसां जातलीं?" गर्देंतलो आवाज.

"इतलो तेंप तुमी निर्मळ-नितळ सैमाच्या गोपांत वावुरताले. आतांचें प्रदुशीत वातावरण तुमकां दिसून येना? काय दोळे आसून तुमी आंधळेपणाचें सवंग घेतात?"

"मनोहर तुगेल्या सोयऱ्यांलें उलोवप चड जालें आं."

"कितें चड जालें." मनोहर उलोवंचे पयलीं दिलेश पोटतिडकीन उलोवपाक लागलो! "आरे सभाग्यांनो अजून वेळ वचूंना. समुळशे ना जावचे पयलीं, धुल्लाच्या रेबडांत लोळनासतना भायर सरपाचो यत्न करात. तुमच्या हातांत पयसो खुळखुळटा तो विखारी पयसो. खिणयाळ्या सुखा फाटल्यान धावूं नाकात. चितात ह्या मिनाच्या नरकांत तुमचीं घरां बुडल्यांत. फाल्यां तुमचीं भुरगीं बाळां सगळे तरेच्या दुयेंसांच्या भकीक पडून, वायट व्यसनांच्या आदीन जावन जिवानशीं ना जातलीं."

"तुमचे भरिल्ले संवसार रसातळाक पावतले. संवसाराचे संवसार बुडटले. पयसो आसा पूण खातलीं तोंडाच ना जातलीं. तुमकां कळकळीची बिनंती करतां, आजून वेळ वचूं ना. तुमच्या घरा कुशीचे प्लॉट हालोवन पयसुल्ल्या वाठारांत व्हरपाक मिनेरांचेर चेपण हाडात. आमी मीन बंद करूं नये, पूण तुमी रावतात तशे मिनाच्या धुल्लांत रावूं नाकात."

दिलेश गुल्ल जावन आनी भावनाविवश जावन उलयत आशिल्लो, जे ताचे खरे तळमळे आशिल्ले. दिलेशाचे शिमेगांवच्या वाड्याकडेन कसलेंच लागींचे संबंध नासले वा नातें गोत्याचीं मनशां रावतालीं. पूण ताची विचार सरणी वेगळेच तरेची आसली. समाजा मदीं जागृताय हाडून समाज सुधारपाची समाज प्रबोधन.

“जाणा जायात, आयची तरणी पिळगी फाल्यांचो भारत देश घडोवपी नागरीक. तिका मेकळो स्वास घेवपाक दिवया. दुयेंसा, वायट व्यसनां विरयत जगूंक दिवया. वायट परिणामाचें धनी तुमी पालक जाल्ल्यान, तुमकांच गुन्यांवकारी थारावन, आयची नेणार तरणी पिळगी तुमकां पालकांकच दोशी थारायतली. पूण तेन्ना वेळ गेल्लो आसतलो.”

दिलेश उलयत आशिल्लो. ‘ठो’ करून केन्नाच गर्देंतल्यान एक मिनाचो फातोर आयलो तो दिलेशाले तकले बरोबर निंदार बसलो. ‘आवयस्’ करून दिलेशान काळीज चिरून वचपी किळांच मारली आनी तो धडांयच करून पेडार पडला मात. घे फातरांचो शिंवोर सुरू जालो.

“मारा रे ताका, मोडून घाला रे ताका, चेंचा ताका. आमकां शाणेपणां शिकोवंक आयलां. शिमेगांवच्या लोकांक शाणेपणां शिकोवंक आमी कितें पिशे रे.” सांवार आयिल्ले वरी सगळो वाडो हातांत कितें मेळटां तें शेवटूपाक लागले. दिलेशाचेर तुटून पडले.

कितें घडटा कांयच कळलें ना. बायलो भुरगीं मेळत ते वटेन धांवपाक लागलीं, धांवता-धांवता पांयांक पांय आपटून पडलीं तरी आड धांवपाक लागलीं. पडलीं, चेंचडलीं. सामको आकांत आनी फातरांचो शिंवोर चालूच. मनोहरान दिलेशाचेर घालून घेतलें आनी ताका ह्या आकांतांतल्यान सांबाळपाचो व्हड यत्न केलो. पूण तकलेक लागिल्लो फातोर ताका सामकोच घातमारो थारलो. मनोहरय खूब धाडावलो.

कितें घड्टा कोणाक सारकें कळचे पयलींच आकांताचें फातर शेवटुपाचें वादळ जालें आनी मिनटां भितर फांफसलें. कांय खिणां पयलीं एकठाविल्या गर्दीचें नांव निशाण नाच्च जालें. पेडार लोकांची खेट जाल्ली, सांगल्यार विश्वास बसून बसचो ना इतलो शुकशुकाट पेडार पातळिल्लो. जांच्यांनी सडसडीत धांवक, चलूंक जायना अश्या जाण्ट्यांच्यो हातांत बडी घेवन चलप्यांच्यो फाटी दिसताल्यो.

पेडार उरले फकत मनोहर आनी रगतान बरबटिल्लो दिलेश. दिलेश निचेश्ट पडिल्लो. हालचाल नासली आनी तकलेंतल्यान रगताची धार व्हांवताली. दिलेशाल्या मोटारिची वाड्यावेल्या लोकांनी वतना हारशे फोडून, दारां चेपोवन दुर्दशा केल्ली. मनोहर हातपांय गळसणून दिलेशाक वेंगावन पिशांतरां वरी, कोणी

आदाराक मेळत काय म्हणून पळेतालो. एकलो एकसुरो मनोहर दोळ्यांतलीं दुकां आनी काळजांतले उमाळे चिड्डून सैरभर जाल्ले वरी जाल्लो.

शिमेवाड्यावेलो हो वाडो मुखेल मार्गावेल्यान बरोच भितर म्हणल्यार अर्द किलो मिटरार आशिल्ल्यान मार्गावेल्यान यो वच करप्यांक वाड्यावेल्या पेडार कितें घडलां हाची कांयच कल्पना नासली. आयतार आशिल्ल्यान प्लॉटय बंद आशिल्ले. मनोहर धडपडत उठलो आनी काळजार फातर दवरून रगतान मांखिल्ल्या दिलेशाक वेंगांत घेवन ओडीत ओडीत धडपडत मोटारी मेरेन हाडून कसो बसो मोटीरींत धुकल्लो.

तशीच मोटार ऑस्पितालाच्या दारांत पावयली. मनोहराचो अवतार पळोवन नर्सी, दोतोर कांचवेले. थोडे भितर खबर कळटकच स्ट्रेचरार घालून दिलेशाक भितर हाडचे पयलीं दोतोरान तपासलो आनी सांगलें, फातराच्या नेटान दिलेशालो मेंदू फुटिल्ल्यान आनी भरपूर रगत गेल्ल्यान दिलेशाली प्राणज्योत पालवली.

मनोहरान नेट धरून दिलेशाक ऑस्पिताला मेरेन कसो-बसो हाडिल्लो. फातोर लागिल्ल्यान दिलेश निचेश्ट जाला. ताका दिशिल्लें - उपचार करतकच दिलेश सुदारतलो पूण जेन्ना दोतोरान ताची प्राणज्योत पालवली म्हणून सांगतकच मनोहरान हांबेर फोडली आनी हातपांय बडोवन आकांतान रडपाक लागलो. आपणाक जाल्ल्या घायांची दूख तो विसरलो.

शिमेगांवचे लोक पयशां मुखार स्वत्व विसरूंक लागिल्ले पळोवन, फुडली पिळगी तरी सादूर जावची आनी मिनाच्या प्लॉटांतल्या धुल्लाच्या विळख्यांतल्यान भायर सरून निर्मळ-नितळ स्वास घेवंक पावची. एकतर प्लॉट बंद करचे वा लागीं दुसरी सुवात सोदून राबितो करचो म्हण आपलो इश्ट दिलेश वरवीं मनोहरान समाज प्रबोधनाचो वांटो उखलिल्लो.

पूण केलें कितें, जालें कितें? आपल्या इश्टाक दिलेशाक आपणें सांसणाचो सोंपयलो. ताच्या घरच्यांचो आपूण गुन्यांवकारी जालों. काळजांत रोमिल्ल्या भाल्यान मनोहर खासावीस जालो. दिलेशाल्या कुडीक वेंगावन रड-रड रडलो. नर्सी दोतोरांनी ताका खूब थातारलो. हळू हळू गर्दी जमपाक लागली. खंय कितें घडलें म्हणपाची गजाल रोखडीत फां- फां जाली.

पुलीस केस जाली. दिसा धवळ्या पन्नास शंबर लोकां सामकार वयावेल्या

तरनाट्याचो फातर मारून जीव घेवप. वाठार हालोवन उडोवपाची गजाल. पुलीस आयले, वाड्यावेल्या खूबश्या लोकांक पुलीस स्टेशनार व्हरून जबानी घेतल्यो. दुबावितांचीं नांवां वदोवन घेवपाचो यत्न जालो. पूण सगळें निर्फळ. कोणेंच तोंडांतल्यान ब्र काडलें ना. दिलेशाक निंदार तीर धरून फातर मारपी वाड्यावेल्या तिरादोराक सगळे वाडेकार भुरगेपणांतल्यान वळखताले. पूण ह्या वेळार कोणूच उलयलो ना.

दिलेशाचेर फातर मारून ताका सासणाचो सोंपोवपी वाड्यावेलो मनीस कोण ही गजाल वाड्यावेले तांती - पील जाणां आसलें. मिनच्या पयशांनी सगळ्यांची तोंडां बंद आसलीं. ह्या वेळार वाड्यावेलो एकवट दिसून आयलो. पुलीस लेगीत चवकशे खातीर आयले गेले. पुरावो नाशिल्ल्यान चवकशेक नेट आयलो ना. चवकशेची भोगावळ कांय दीस चल्ली. केस फुडें गेलींच ना. वाडो थोडे दीस चिडी-चिप्प जालो. जशे-जशे दीस वचूं लागले तशी चवकशी मंदावली आनी हळू हळू बंद जाली. वाडो पयलींच्या पदार आयलो. सगळ्या कामांनी नेट धरलो. घडिल्लें विसरून गेले. कांय जाण्टेले मात पेडार दनपारच्या पारार घडिल्ले घडणुकेन न्हिण्णल्ले.

पूण त्या दिसा वाड्यार अघटीत गजाल घडली. सदचे वरी रामदासान प्लॉटार वचपाक ट्रक भायर काडलो. फाटोफाट दोगी पूतय चडले. कुशावतीय भायर उबी रावन वते ट्रकाक तेळपाक लागली. रामदासाल्या पुतांनी ट्रीप भरली आनी रामदास ट्रकार चडलो. पूतय ट्रकांत बसले. ट्रक ऑरबिनार वचपाक गेलो.

हरशीं ट्रकाची काश वयर उखलचे पयलीं रामदासाले पूत ट्रकांतल्यान देंवतात. पूण त्या दिसा ट्रक ऑरबिनार पावता थंय आसा, कशें आनी कितें घडलें खबर ना. ट्रक मीन रकोवचे पयलींच एकदम सकयल पडलो. 'घडांयच' असो मोठ्ठो आवाज जालो आयकता म्हणसर ट्रक सोमतोच न्हंयत पावलो. बरोबर रामदास आनी दोगूय पूत.

न्हंयक जोरगत आशिल्ल्यान तुडूंब भरिल्ली. उदकाक नेट आशिल्लो. ट्रक उदकांत पडना फुडें नेटान भितर-भितर मुंगरूंक लागलो. कितें जालां, कसलो आवाज? सगळ्याक एकूच बोवाळ.... ट्रक बुडलो तो पळोवन बाकीच्या प्लॉटावेले कामकार धडाधड थंय पावले.

"ट्रक कोणालो."

"रामदासालो."

"आनी पुतय आसले."

"हें घडलें कशें रे?"

"आरे रामदास आनी पूत दिसनात मरे."

जांकां पेवंक येतालें तांणीं धडाधड उदकांत उडयो मारल्यो. रामदास आनी पुतांक सोदपाचो यत्न केलो. पूण हाताक यश आयलें ना. हां-हां-हां-म्हणटां वाड्यार बातमी पावली आनी अख्खो वाडो प्लॉटार पावलो.

सगळो वाडो प्लॉटार, न्हयचे देगेर पावलो खरो पूण जांकां पेवंक येता ताणींच उदकांत घालून घेतलें. पूण कोणाच्याच हाताक रामदास आनी पूत लागनासले. झपाझप क्रेन चालू जाली आनी खिणा भितर क्रेनीन ट्रक उबारून देगेर हाडलो. जाल्यार ट्रकां भितर छिन्न-विछिन्न जाल्ल्यो तिनूय कुडी. ट्रक लागोड्यो मारून मारून वेल्यान पडिल्ल्यान कुडिंची दुर्दशा जाल्ली. ट्रका बरोबर मिनाच्या फातरांनीय लागोट्यो घेतिल्ल्यान तिगी जाण फातरांनी चेंचवल्ले.

कुशावतीचो संवसार उध्वस्त जाल्लो. हड्डें बडयत कुशावतीन तकली जमनीर आपटून रगतबंबाळ केली. कांकणाचो चुरो केलो. फुगार जावन, सैर भैर जावन मड्यांचेर घालून घेवपाक वचपाक लागली. हालींसरा कुशावती वग्गी-वग्गी आसताली. रामदासाल्या कर्तुबान आनी पुतांच्या तवनासपणांनी भितल्ले भितर फुगार जाताली. कश्टकरी आवय बापायली धूव. रामदासाल्या आवयन मागून हाडिल्ली. तिका हाडत पसून रामदासाची चडटीच जाल्ली. वाड्यार प्लॉट आयले. बुदवंत रामदासाचे हात धरपी कोण नाजालो. पयसो हातांत घोळूंक लागिल्ल्यान कितें करूं कितें नाका जालें.

गांवांतलो फामाद तिरादोर म्हणून सगळो गांव जाणां आसून लेगीत कोणेंच तोंड उगडें करूं नासलें. "दिलेशाक रामदासानच फातर मारला." म्हणपाचें एकामेकां कडेन हळू आवाजात फुतफुतून गजाली जाताल्यो. पूण वाड्या भायर केन्ना पावूं नासल्यो. रामदास वाड्यावेली वजनदार आसामी आसली. वाड्यावेल्या चार मुखेल्यां मदलो एक. प्लॉटार ऑफिसांत बसका जाताल्यो तेन्ना रामदासाकय आपोवणें आसतालें.

चार ट्रक, एक सुमो, एक मारूती गाडी, मोटार सायकल आनी कितें म्हणून ना. रामदासा विरूध्द नांव काडपाची कोणाचीच बिशाद नासली. ताचो व्हडलो पूत, ताचे दोन पूत, तांच्या वाड्यार गुंडा बशेन शेक. ताका धूव नासली. ताचो व्हडलो पूत पिरायेच्या सतरा वर्सांचेरच शेजारच्या वाड्यावेल्या सुंदरेल्या धुवेक भयण-भयण म्हणून घेवन भोंवलो. निमणें पोट वाडयतकच, गुपचुप दोतोरागेर व्हरून व्हळयलें. खंयचें कडेन कांयना म्हणून नामा निराळो. धाकल्या पुताक तर वाड्यावेल्यो चलयोच न्हय तर कुशावतीचे पिरायेच्यो बायलो लेगीत चार हात पयसच रावताल्यो.

सुरवातीक रामदासाले गिरेस्ताकायेन कुशावती भुल्लुशिल्ली. पूण हळू हळू घोवालीं आनी वाडट्या पुतांची हुंवाळून वडोवपी कर्तुबां तिका कळपाक लागलीं तेन्ना ह्या सगळ्याचो तिका तिटकारो येवंक लागलो. बायल आनी आवय म्हणून तिका घरांत रेस्पेद नाशिल्लो. दिलेशाली मरणाची गजाल जायत मेरेन, घोवाल्या धाकाक लागून तिणें शेजारय सोडिल्लो. मेकळेपणान उलयतली तरी कितें, आनी कोणा कडेन! पयशांचे उबेन वाड्यावेल्या सगळ्यां घरांनी थोडो-चड फरकान अशीच परिस्थिती आसली. धरल्यार चाबता, सोडल्यार पळटा. कुशावतीच्या संवसाराची जाल्ली वाताहात पळोवन सगळ्यांचीं काळजां भियेलीं. चित्तालीं, अशेंच फुडें घडत वतलें काय?

"हांवें तुका विचारिल्लें न्ही, कित्याक तुवें दिलेशालो जीव घेतलो? तो आमकां आमच्या बऱ्याचें सांगूंक आयिल्लो न्ही! तुवें ताका चेंचावन-चेचांवन मारलो रे. आज, तुकाय तेंच पानवळ फावो जालें पळय. तुकाय देवान चेंचूनच मारण दिलें. आवयस्... आवयस्, देवा, म्हजे पूत, पूत म्हजे सैतान जाल्ले,..... सांवार आयिल्लो रे तांचेर! वाड्यावेल्यो धुवो, आवयो लेगीत तुमकां भियेताल्यो मरे! बापायवरींच तुमचेरय काळ आयिल्लो, आनी तुमीय दिलेशाक फातरांनी चेंचायल्लो. हांव कोणाकय सांगीन म्हण म्हजें शेजार वचप तुमी बंद केल्लें. कितलें-कितलें सोसलें रे हांवें. कितें मेळयलें रे तुमी, सभाग्यांनो, पयसो-पयसो म्हणून गांवांत नांव पिडूड्यार मरे केलें तुमी? देवान... हय, देवानच म्हजें तोंड उगतें केलें...."

"कोण भोगतलो रे हें सगळें. हायस्... भोगोस्. कितें करूं रे हांव, खंय रे

वचूं...? तुमी म्हाका तोंड दाखोवंक जागो दवरूं ना ... कोणा खातीर जगपाचें रे हांवें? फुगार जावन जावन दीस काडले. पूण आतां म्हाका जगपाचें ना. कोण रे आसा... म्हज्या पुतांनो, येतां रे हांव येतां रे हांव, येता... येतां''

कुशावती विकळापानी रड-रड रडटाली. वाड्यावेल्यो बायलो तिका आटापा हाडपाचो, समजावपाचो यत्न करतालीं. भ्रमिश्ट जाल्ली कुशावती.

कुशावतीचो संवसार उध्वस्त जाल्यार आज बारा दीस जाल्ले. कुशावतीक कसलेंच भान नासलें. पिशांतर जाल्ली कुशावती पडवेर बसून भकास नदरेन दिगंतराचो सोद घेत पुटपुटत आशिल्ली, ''वेळ गेल्लो आसतलो.... आतांच सांबाळात भुरग्यांक सांबाळात!''

●●●

# 13 निर्णय

आशूक ऑपरेशन थियेटरांत व्हेलां. आईक कशेंच सोडपाक तयार नासलें आशू. कमलाचोय जीव वयर सकयल जातालो. आबूज जाल्ल्या आशून कमलाचो हात घट्ट धरिल्लो. तो सुटून सुटना आसलो. आशू काकुळटेन दोतोराक आनी आशिकुशीच्या नर्सींक पिशांतराचे नदरेन तेळटालें. मनीसपणाचे नदरेन दोतोराचीय अवतीकाय बदल्ली. निमाणें दोतोरान कमलाक सांगलें,

''तुमची धूव, तुमकां सोडपाक कशीच तयार ना.''

''हय दोतोर कितें करूं, सांगलें म्हणून आयकुपी न्ही.''

''खबर आसा, म्हाका सगळें खबर आसा. पळय, म्हणुनूच तर निरूपायान ताचे हात आनी पांय बांदल्यात.''

''दोतोर म्हजेर उपकार तुमचे. तुमी म्हणुनूच ताका ॲडमीट करून घेतलां. सगळी जापसालकी आपणायल्या.'' कमलाक हुंडको आटापना जालो.

''पळयात अशें भावनाविवश जांव नाकात, आतां तुमकांच मन घट्ट करचें पडटलें.''

''हय...हय...हय दोतोर... म्हाका सगळें खबर आसा...''

''तरी लेगीत तुमी तुमकां आवरूंक शकनात. हांव तुमचो फॅमिली दोतोर. म्हाका वेगळें सांगपाची गरज ना.''

''म्हणून तर तुमचो आदार घेतला, दोतोर. तुमी सगळें जाणांत. तुमी सगळें धांपलां आनी दोतोरकेच्या पथ्याक पाळो दिला. तुमचे उपकार हांव जल्मोजल्मी विसरचें ना.''

"अशें म्हणूं नाकात... तुमकां मार्ग दाखयलो, आनी... काळजार फातोर दवरून तुमी तो मार्ग आपणावपाचो निर्णय घेतलो. हातूंतच तुमचें व्हडपण दिसून येता... तुमकां जापसालकी कळ्ळी."

"दोतोर... आवय... हांव... आनी... आनी..."

"कमल आतां चड वेळ वगडावचो ना.... हांव अशें करतां..."

"म्हणल्यार..."

"आशुक हुंग्री दी म्हणसर तुमी ऑपरेशन थियेटरांत रावात."

"देव तुमचें चड आनी चड बरें करूं."

"ना जाल्यार तें कशेंच आटापा येवचें ना. खंकाळ जातलें." कमल.

"कितें करात जाणां, तुमी तोंड मात्शें तेवटेन करात. ना जाल्यार आशूकच पळयत रावात. कारण सूय तोपता तेन्ना तुमकां चड त्रास जातले." दोतोर हुंग्री दिवपी दोतोराकडेन कडेक वचून कितेंतरी हळू उलयले.

"मागीर मात तुमी भायर वचचें पडटलें." दोतोरान म्हळें.

"आई....आई...आई..." दोतोर कमलाकडेन उलयतां उलयतां हुंग्री दिवपी दोतोरान आशूक केन्नाच हुंग्रेचें इंजेसांव तोपलें.

एका खिणा भितर आशून कमलाचो घट्ट धरिल्लो हात सकयल लोंबकळूंक लागलो. बेगी बेगीन नर्स आयली आनी तिणें आशूचो हात अचळय ऑपरेशनाच्या मेजार दवरलो.

"चला... बेगीन भायर चलात."

"दोतोर... ताका... म्हज्या आशूक.."

"नर्स, तांकां भायर पावय..."

"दोतोर-दोतोर...."

"चलात सडसडीत... दोतोर मागीर तापयतलो." कमलाक भायर काडून नर्सीन केद्या खिणांत दार बंद केलें कमलाक कळ्ळेंच ना.

ऑपरेश थियेटराच्या भायर आशिल्ल्या कदेलाचेर कमल हताश निर्शेल्लेवरी, हांतपांय गळसणून बसलें. चितिल्लो निर्णय घेंवचोच पडलो म्हणून कमलाचे विचारचक्र घुंवतालें.

तकले वयर फॅन घुंवता तशें कमलाचें विचारचक्र घुंवपाक लागलें. सादारण सोयरिको करून लग्ना जातात, तशेच तरेन कमलाचें कृष्णा कडेन दबाज्यान लग्न

जाल्लें. राम-सीतेचो जोडो, सुखी जीण जियेतालीं आनी सुखी संवसाराचे वालीचेर आशू केन्ना फुल्लें समजलेंच ना. कमल कृष्णाची आशा. अपुरबायेन आशू जालें. दिसा-माशीं आशू व्हड जावपाक लागलें. पयलेचदां ताणें जेन्ना कूस परतिली तेन्ना कृष्णाचेर केदो बोवाळ पडलो.

"कमल पळय... पळय आशून कूस परतिली."

"कूस परतिल्यार इतलो बोवाळ, जाल्यार आशू चलपाक लागतकच कितें घर माथ्यार घेतलो काय कितें?"

"हय हय घेतलोंच... ए कमल पळय गो...."

"कितें पळय म्हणटा... म्हाका आनीक कामां ना काय कितें?"

"ए... आसूं गो तीं कामां... तुका दिसना आमच्या फुलत्या फुलाक अशेंच पळयत रावचें शें... ताची अपुरबाय करीत रावचें?"

"दिसना कशें... दिसताच... पूण दोगांयनीय जर आपलीं कामां फाटीं दवरलीं जाल्यार कशें जायत? पळय, तूं ताच्या म्हऱ्यांत बस, दोगांयचीय अपुरबाय थोडे वेळापुरती तूंच कर."

"म्हाका कळटात गो तुजीं उतरां."

"पळय वायट दिसलें? हांवें खऱ्यांनीच म्हळां."

"आनी तुवें मात्शीं घरांतलीं कामां फाटीं दवरून हांगा बसल्यार कितें संवसार बुट्ट्लो?"

"आतां बेस बरो उलयलो."

"म्हणजे?"

"पळय कृष्णा आशू आतां इल्लें इल्लें व्हड जाता."

"हय मागीर?"

म्हजी बाळंतपणीची सुटी केन्नाकच सोंपतली म्हाका कळचें लेगीत ना.

"कमल सारकें सांग म्हाका तुका कितें सांगपाचें आसा तें." रागान कसो कृष्णा उलयलो.

"कृष्णा असो उतावीळ जावूं नाका. आशूची अपुरबाय तुजे भशेन म्हाकाय आसा. पूण आतां शिर्विशेक वचपाचे दीस लागीं पावतात तशे ताका धरूंक दवरिल्ल्या रेणुका कडेन ताका चड दवरूंक जाय. खरें काय न्ही?"

"हय गो, सारखें खरें...पूण...पूण..."

कृष्णा, हांव ताची आवय, म्हाका ताचे पसून पयस वचन दिसना. पूण आशूक बरे तरेन व्हड करतलीं, बऱ्यांतलें बरें शिक्षण दितलीं जाल्यार ताची तजवीज येन्नाच्यानूच जावंक जाय न्ही?

"हय कमल... खरें तुजें."

"तशें जाल्यार, ऑफिसाक वचपाची तयारी कर. डबो तयार आसा. रेणू पळयतलें ताका."

नित्यनेमान अशे संबाद कमलाच्या घरांत घडटाले. हळूहळू आशू उमथें पडलें. पोट ओडपाक लागलें, बसपाक लागलें, वण्टीक वा मेळत ताचो आदार घेवन उबें रावपाचो यत्न करूंक लागलें. आनी हात सोडून तें केन्ना चलपाक लागलें समजलें लेगीत ना.

दर दिसा ऑफिसांतल्यान येतकच कमल आनी कृष्णा रेणून सांगिल्ल्या गजालींचेर धादोशी जातालीं. ताची पोटभर अपुरबाय करतालीं. घरांत आसा सर कमल ताची आवय तर ऑफिसांत वतकच रेणू ताचें आवयवरी, सगळें वेवस्थीत करतालें.

करतां करतां आशू दोन वर्सांचे जालें. आतां तें थोडे थोडे शब्द उलयतालें. आपले धुवेची जाता ती प्रगती पळोवन कृष्णा-कमल धादोशी जातालीं. रेणू ताचेर जीवा पाड मोग करी, जणू काय ताची धाकटी भयणच कशी. शेजारींय बरीं आशिल्ल्यान तांचेर पातयेवनच कशें कमल नोकरेक वतालें. पूण ताचो जीव आशू भोंवतीच आसतालो.

कमलाचो देह ऑफिसांत आनी मन आशू खातीर घरात आशी अवतिकाय आसली. पूण ताच्या फुडारा खातीर ताका ही धडपड करूंकच जाय आसली. कृष्णा-कमल आशूच्या फुडाराचीं सपनां रंगतयच संवसारांत गुल्ल आसतालीं. आनी... असोच एक दीस...

ऑफिसांतल्यान घरा पाव जाल्यार रेणू दारांतच उबें. पूण सदचे वरीं आशू ताचे वेंगेंत दिसलें ना. दोगांकय खप्प जालें. कितें जालें? खंय गेलें? केन्ना स्कुटर थांबयतलीं आनी...

'रेणू, आज आशू खंय?'' उतावीळ जावन कमलान विचारलें.

"ताई-ताई तें न्हिदलां.'' रडकुरें जावन रेणून सांगलें.

"न्हिदलां? अशें येदे वेळार तें केन्नाच न्हिदना.''

‘‘ताई–ताई ताका जोर आयला.’’

‘‘केन्ना...केन्ना आयलो जोर? तुवें म्हाका फोन करपाचो न्ही?’’

‘‘तुमी ऑफिसाक वतकच थोड्याच वेळान ताई.’’

‘‘आनी - आनी तूं येदो वेळ मेरेन रावलां?’’

‘‘ताई, हांवें खूबदां फोन केलो, पूण-पूण कोणच काडिना जालो. हांवें शेजारचे शरयूताईक लेगीत सांगलें करपाक.’’

‘‘मागीर ताणें केल्लो म्हाका फोन?’’

‘‘हय ताई, ताणेंय खूबदां केलो. पूण लागना जालो. ताणें मागीर जोराची गुळी दिली. ती ताका घाल्या. ताई–सकाळीं दूद पियेल्लें तेंय ताणें ओंकून वडयलें. आशून कांयच खावूं ना आनी म्हणून हांवेंय कांयच खांव ना. जेवण लेगीत तशेंच आसा, ताई’’ रेणू भयभीत जावन रडूंक लागलें.

‘‘आगो, कमल रेणूक वयर–सकयल मागीर कर. पळय आशूचें आंग कितलें खतखतता’’

‘‘आवयस् म्हजे...आतां...आतां... चल आसा तशेंच ताका दोतोरागेर व्हरया.’’

‘‘काय दोतोराक घेवन येवूं?’’ कृष्णा.

‘‘बाय आशू, बाय आशू, कृष्णा पळय रे, जाप सुध्दां दिना मरे तें. देवा–देवा... कितेंय चुकलां जाल्यार चूक पदरांत घाल रे... म्हज्या गुण्याक बेगीन बरें कर रे... कृष्णा, आमी ताका दोतोरागेरच व्हेल्यार चड बरे उपाय जातले. चल... चल कृष्णा.’’

‘‘ताई–ताई गो.... हांवें ताका कांयच करूंना गो... ताई...’’ रेणून हांबेर फोडलो. तशें कृष्णान ताका म्हन्यांत घेवन समजायलें. ताकाय आशूची माया लागिल्ली. रोखडींच दोतोरागेर वचून येतात अशें सांगून कमल–कृष्णा आशूक घेवन तांच्या फॅमिली दोतोरागेर गेलीं.

दोतोरान ताका तपासलें. आशू जोरान फणफणतालें आनी सामकें निश्चेष्ट जाल्लेवरी दिसतालें. नर्सीन थार्मोमिटर घालून जोराचो अंदाज घेतलो. जोर तिनां वयर दाखयलो. दोतोराली चिंता, हुस्को तोंडार दिसतालो.

‘‘कृष्णा, ताका केन्ना जोर आयलो?’’

‘‘आमी ऑफिसाक वतकच.’’

‘‘रातीं बी ताका सिनाल दिशिल्लें?’’ दोतोर.

‘‘दोतोर , रातीं आशू सुस्त न्हिदूना. उसउसतालें. पूण ताका जोर येवं ना.’’ कमलान उचांबळीत जावन म्हळें.

‘‘कृष्णा ताका हॉस्पिटलांत ॲडमीट करया.’’

‘‘दोतोर दोतोर कितें जालां म्हजे धुवेक.’’ कमलान आकांतान विचारलें.

‘‘पळय, भियेवपाची गरज ना. सायन्स खूब फुडें पावलां. आमी कसलेच तरेचो दुबाव घेवंक जायना. ॲडमिट करतकच सगळ्यो तपासण्यो करपाक सोपें जातलें. म्हाका ताच्या जोराविशीं सादेंपण दिसना. तेन्ना दुबाव पयस करचे पासत ताका आमी ॲडमीट करया.’’

‘‘दोतोर तुमी कितें तरी लिपयतात.’’ कमल.

‘‘हांव कांयच लिपयना. विश्वास दवरात म्हजेर. तुमचे इतलोच दोतोरांकय आपल्या पेशन्टाचो हुस्को आसता.’’

‘‘मागीर सांगात, आशूक कितें जालां?’’

‘‘पळय कमल, तुमी शिकिल्लीं मनशां, तुमीच अशीं वागलीं जाल्यार....’’

‘‘दोतोर आशू म्हज्या काळजाचो कुडको. तें पळयना, दोळे उगडना, उलयना, म्हाका भिरांत दिसता. अचकीत अशें कशें जालें?’’

‘‘म्हणूनच ॲडमीट करून ताच्यो सगळ्यो तपासण्यो करूंक जाय. शांत जा. कृष्णा, कमलाक पयलीं घरा पावोवन यो...’’

‘‘ना... ना... दोतोर... ना... हांव कांयच करना... खऱ्यानीच हांव तुमकां त्रास दिना. पूण दोतोर म्हाका घरा धाडूं नाकात.’’ कमल रडतच उलयलें.

पूण दोतोराचे सांगणेन कृष्णान कमलाक कशें बशें खुसलायलें आनी घरा हाडून पावयलें. दोतोरान आशूक तपासणे खातीर दवरून सगळे तरेचे उपाय केले. पूण आशू बरें जालेंच ना. जोर ताच्या मेंदवाक धक्को दिवन गेलो. ताचो मेंदू कुलपाद जालो. वयलेतराक पळयत तर एकच दिसाचो जोर.

दोतोरान उपायांची पराकाश्टा केली. एक म्हयनो हॉस्पिटलांत दवरून आशूक घरा हाडलें. कळसुत्रे बावलेवरी ताची जीण जाल्ली. ताका कांयच समजनासलें. खावयतकच खातालें. जेवयतकच जेवतालें. ना धांवप, ना धडपडप. कसलीच हालचाल ना. अपंगुळाची आवतीकाय. आशू बरें जावचें म्हणून कमल आनी कृष्णान खूब दोतोर केले. सांगता-सांगता थंय व्हरून तपासणी केली. देव-धर्म,

उपास-तपास सगळें-सगळें करून थकलीं. पूण आशूंत इल्लो लेगीत गूण पडलो ना. तांच्या यत्नांक निर्शेणीच आयली.

अशींच वर्सां वतालीं. ही घडणूक घडटकच रेणून तांचो सांगात सोडलो ना. ताका आपुणूच गुन्यांवकारी दिसतालें. ताणें कृष्ण-कमलाक उतर दिलें- आपूण हांगा रावून ताची सेवा करतलें. जरी रेणून तांकां उतर आनी आदार दिलो तरी पिरायेन तें ल्हानच आसलें. अपंग आशूची सगळी जापसालकी ताचेर घालप योग्य नासली.

सुरवातीक आलटून पालटून सुटी घेवन, घरा रावन कमल-कृष्णा आशूची कुयदाद करातलीं. रेणूचोय सांगात आशिल्लो. पिराये मानान आशूची वाड घसघशीत जाताली रेणूय पिरायेन वाडटालें.

कमल-कृष्णाचीं आशूच्या फुडाराचीं सपनां खंयचे खंय विरगळून गेल्लीं. कमल बायल मनीस जाल्ल्यान आपलें दुख्ख दुकांतल्यान व्हांवयतालें, पूण कृष्णा भितरले भितरले भितर घुस्मट्टालो. आशून दोनच वर्सां आपल्या गुणांनी तांकां सुखी केल्लीं. त्या सुखाच्या यादींचेर आशूच्या सांगातान फुडली जीण कशी सरची हाची कमल-कृष्णा आंखणी करतालीं. तांचे खातीर तांकां नोकरी गरजेची आसली.

रेणून तांकां आशूक व्हड करपाक सांगाताचें जरी उतर दिल्लें तरी निसर्गाच्या नेमा प्रमाण ताच्याय जिवितांत बदल घडपाक लागलो आनी एक दीस बरेतरेन कमल-कृष्णान ताका ताच्या आवय घरा धाडलें. ताचे आवयन ताचें लग्न थारायलें. रेणूक आशूक सोडून वतना पावलां उखलना जालीं. आशूक वेंगेंत घेवन तें पोटभर रडलें पूण आशूचेर ताचो कसलोच परिणाम जालो ना. कमल-कृष्णावरींच रेणूनय ताचेर मनांतल्यान माया केल्ली.

रेणू वतकच आशू खातीर तांणीं आनीक एक भुरगें आदाराक हाडलें. जी तांची गरज आसली. शेजारीय लक्ष दितालीं. कमल-कृष्णाचे दीस चिंतनेतच वताले. जियेवपाक जाय म्हणून जेवतालीं आनी आशू खातीर तांकां जगूंकच जाय आसलें. तांच्या जगपांत आतां कांयच अर्थ उरूंक ना अशेंच तांकां दिसतालें. आनी एक दीस अघटीत घडलें. सकाळ जाली तरी कृष्णा उठलोच ना.

तो सासणाची न्हीद न्हिदिल्लो.

कमलाचेर आकांत आयलो. एका फाटल्यान एक संकश्टांची वळेरी कशी सुरू आसली. आशूक बापूय मेलो म्हणपाचें समजूंक नासलें. घरांतलो आवयचो

आकांत पळोवन तें आवयक वेंग मारून बशिल्लें. आवयचीं दुकां पुसपाचो यत्न करतालें. बेठेंच हातवारें करून विचित्र आवाजान उलोवपाचो यत्न करतालें.

जेन्ना कृष्णाक उबारपाचो वेळ जालो तेन्ना कमलान अगतीक जावन व्हडान हांबेर फोडलो.

''म्हजो आदार तूंच आसलो. आतां कशें पेलूं रे हें संकश्ट? आशू खातीर आमी सांगातान जियेवपाचें थारायिल्लें. म्हाका एकटें दवरून तूं कसो गेलो रे?'' कमलाच्या आकांतान जमिल्ल्या लोकांचीं काळजां भरून गेल्लीं. आवयचो आकांत पळोवन आशूय विचित्र आवाज काडून रडपाक लागलें.

एकटेंच कमल आशूचो भार पेलपाक उरिल्लें. आशूक पळोवन कमलान काळजार फातर दवरून दुख्ख सोंसलें. कमल चिंततालें - कितले उमेदीन संवसार वालीवयल्या फुलाची जपणूक केल्ली. देव कसली परिक्षा घेवचेलो आसा काय? जोराचें निमित्य तांचो संवसार उध्वस्त करून गेल्लें.

दीस कोणाक रावना. निसर्ग नेमा प्रमाण आशूंत बदल जावपाक लागलो. आनी एक दीस आशूक न्हाण आयलें. आशू परिपूर्ण बायल जाली. कमलाक खप्प जालें.

आतां तर आशूक सांबाळचेली जापसाली दुपेटीन वाडली. शेजाऱ्यांच्या आदारान आनी आशूक पळोवंक दवरिल्ल्या भुरग्याच्या आदारान आज मेरेन ताणें आपली नोकरी चालू दवरिल्ली. पूण आतां ताका आशूचो हुस्को जावपाक लागलो.

दर म्हयन्याक कमल चार-चार दीस सुटी घेवन घरा रावतालें. ऑफिसांतलो अधिकारी ताची अडचण पुरायपणान जाणां आशिल्ल्यान आनी सहकारी वांगड्यांची सहानभुती ताच्या फाटल्यान आशिल्ल्यान तें आयिल्ल्या संकश्टाक सामकार वतालें. आशूचो सगळो वेव्हार कमलच करतालें. आदाराक दवरिल्ल्या भुरग्याक तें चार दीस कांयच करूंक दिना आसलें. कमल चिततालें आपलें आशू तशेंच तेंय भुरगें. आशूचो सांबाळ करता तेंच व्हड. अशे तरेन आयिल्लो दीस धुकलतालें.

आनी एक दीस ऑफिसांतल्यान घरा यो जाल्यार घराचें दार आड आसा आनी आशूच्या आंगावेली मुस्तायकी अस्ताव्यस्त जाल्या. आदाराक दवरिल्लें भुरगेंय ना. खंय गेलें काय हें म्हणून भायर-भितर सोदलें.

केन्नाच आशूक सोडून भायर वचनाका म्हणून सांगून सुध्दां खंय गेलें काय म्हणून कमल चिंतपाक लागलें. आशूक सांगूंक येना आसलें पूण तें हातवारें करून, मुस्तायकी वयर काडून कितें तरी सांगपाचो यत्न करतालें. भितल्लें अंगवस्त्रय नाशिल्लें.

कमलाच्या मनांत पाल चुकचुकली. आपल्या आशूचेर बळजबरी बी जावूं ना मूं... ह्या विचारा सरशीं कमलाचो ताळो सुकून आयलो. धर्तरी फुटून आपल्याक भितर आस्पावन घेत जाल्यार कितलें बरें जावपाचें! ताचे हातपांय गळसणले. सगळें घर ताचे भोंवतणी घुंवपाक लागलें.

आपणें आनी आशून कितें-कितें भोगपाचें आसा म्हणपाचें चिंतून ताणें आशूक वेंगेंत घेवन हांबेर फोडलो. घुस्मटून घुस्मटून रड-रड रडलें. ताच्या रडपाचो आशूचेर इल्लो लेगीत परिणाम जालो ना. दुख्खाच्या वेळार मायेन फाटीर हात भोंवडावपी कृष्णाची ताका भोंवन-भोंवन याद जावपाक लागली. कमलान कसलोतरी निश्चेव केलो. मन घट्ट केलें.

सडसडीत उठलें. तोंडार उदक मारलें. घोंटभर उदक पिलें. आतां ताका मात्शें बरें दिसलें. साडी सारखी केली आनी दाराक भायल्यान कुलूप घालें आनी बद्द बाजारांत वचून रिक्षा हाडली. रिक्षा दारांत उबी केली, आनी आशूची मुस्तायकी बदल्ली. ताका भायर काडलें आनी बद्द तांच्या फॅमिली दोतोरा म्हऱ्यांत घेवन गेलें.

हो दोतोर म्हळ्यार ताका देवा समान. संकश्टाक आदार करपी. येद्या व्हडल्या संवसारांत ताका तारपी. कमलाविशीं सगळें जाणां आशिल्लो. आशूची सगळी जीण आनी घटनेचो साक्षीदीर होच दोतोर आसलो.

जेन्ना दोतोरान आशूची तपासणी केली तेन्ना कमलाचो दुबाव खरो थारलो. आशूचेर आगळीक जाल्ली. ताच्या दोळ्यांमुखार काजुले लिकलिकले. पांयांतल्यान चडून येवपाक लागलें. आपल्या हातांतल्यान कसलो गुन्यांव जाला म्हणून असली जीण आपल्या नशिबांत आयल्या? आशूचे जिणेंतली ही खबर कोणाक सांगतलीं? आदाराक दवरिल्ले चलयेचो कसो सोद घेतलीं? चार चौगांत फां-फां जाल्यार तकली वयर काडून समाजांत भोंवपाक लेगीत सुवात उरची ना.

कमलाची तकली सामकी भेरेल्लेवरी सुन्न जाली. दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो

झरी व्हांवपाक लागल्यो. कितलें सांबाळ्ळें आशूक, पूण कोणा विकृताचे भकिचें साधन जालें? संवसारांतल्या विकृतांचे भकीक कितल्यो असहाय्य अस्तुऱ्यो पडटात जांवये! जांकां ना कोणाचो आदार!!!

कितें करूं....कितें करूं... हांतल्यान मार्ग कसो काडूं? कशें सांबाळूं हांव म्हज्या काळजाच्या कुडक्याक?

''कमल, म्हजें आयकशी?'' दोतोर

''आं... आं... कितें म्हळें दोतोर....''

''हांव जी गजाल सांगतलों ती तुमकां साप्प रुचची ना. पूण तुमच्या हिताचे नदरेन तुमचो फॅमिली दोतोर म्हणून सांगपाचें धाडस करतां.''

''आसली कसली गजाल दोतोर?''

''हांव जी गजाल सांगतलो तें आयकून तुमी म्हजेर रागार जावूं येता पूण म्हाका दिसता तुमची मती हाचेर विचार करपाक तुमकां प्रवृत्त करतली.''

''दोतोर हांव सामकें थकलां, म्हज्यांत सोंसपाची इल्ली लेगीत ताकत उरूंक ना. तुमी म्हाका भावा समान. घरकारा फाटल्यान तुमीच म्हाका आदार. जें कितें तुमी सांगतले तें म्हज्या बऱ्या खातीरच हाची म्हाका पुरायेन खात्री आसा.''

''आशूक आमी मेकळें करया.''

''म्हळ्यार-म्हळ्यार दोतोर?''

''कमल, तुवें काळीज घट्ट करचें पडटलें.''

''दोतोर कितें सांगपाचें आसा तें सडसडीत सांगात. कितेंय आयकुपाची तयारी आसा म्हजी.''

''आज आशूचेर बळजबरी जाली न्ही?''

''हय दोतोर, तुमची ताका आतां तपासलां.''

''कितलो तेंप तूं ताची राखण करतलें? समाजांतल्या लांडग्यांचे नदरेंतल्यान बरीं-बरीं शाणीं सुरतीं मनशां सुटनांत थंय तुमच्या अपंगूळ आशूची तूं कशी राखण करतलें?''

''दोतोर हांव कितें करूंक शकतां? सांगात दोतोर.... म्हाका कांयच सुचना. पिशें जावपाकडेन पावलां हांव.''

''आशूचो प्रतिपाळ करतलें जाल्यार तुका नोकरी करची पडटली.''

"खरें तुमचें, ताचे बगर पर्यायच ना."

"पळय कमल, आशूच्या आयुश्याक अर्थच ना, ताका लग्न ना, ताका संवसार ना. तेन्ना समाजांतल्या नराधमां पसून ताची मुक्ती करपाक ताचें ऑपरेसांव करून युटेरस (गर्भाशय) काडून उडोवया."

"दोतोर – दोतोर तुमी हें कितें कितें सांगत?"

"आशूक आवयपण न येवचे पसत हो उपाय करपाक तुवें राजी जावचें."

"दोतोर!"

"कमल, तुका कितें दिसता? हांव खोसयेन तुका असली गजाल करपाक सांगतां. आगो दोतोराचें कसब म्हणल्यार रोगाचें निदान करून मनशांची राखण करपाची. पूण दुर्येसच जेन्ना हाताभायर वचून गँगरीन जाता तेन्ना कांय वेळार आमकां तो भाग कापून वडोवचो पडटा. समाजांतल्या विकृतिचें गँगरीन तुज्या आशूक भोगचें पडूं नये म्हणून होच-होच एक निमाणो उपाय."

"दोतोर " कमल हड्डे फुटून रडटा.

"कमल वेव्हारी जा. दोळे उक्ते दवरून चिंत. आज एकट्यान वाट लायली. आशूच्या कौमार्याकडेन खेळ केलो. ताका पिसडून वडयलें. फाल्यां तूं खंय आनी कोणाक राखतलें? तुवें फकत राखपाचें आसा आशूक... जिवें आसा सर आनी ताका जिवें दवरतलें जाल्यार, पोट भरतलें जाल्यार तुका नोकरी ही करचीच पडटली आनी ताका सर्वस्वी दुसऱ्याचो आदार जाय. आशूक दुसऱ्यांचेर विश्वासून तुका नोकरेक वचूं जाय."

"दोतोर कसलो प्रसंग म्हजेर आयला? सत्य परिस्थिती तुमी म्हज्या मुखार उबी केल्या. तुमी सांगतात तें सगळें खरें. एकान एक खरें... पूण दोतोर आवय हांव ताची... असो निर्णय हांव कसो घेवूं?"

कमल खासावीस जावन दोनय हातांनी आपलें तोड धांपून घेवन खोलसून खोलसून रडूंक लागलें.

"कमल, समाजाची नदर बदल्ल्या. नर आनी मादी दोनच नातीं उरल्यांत अस्तुरे भोंवतणी वखवखिल्ल्यो, बुरसटिल्ल्यो विकृत नदरो भोंवतणी वाडीक लागल्यात. बरें वायट चिंतपाची तांक इल्ली इल्ली कमी जायत गेल्या. नाजाल्यार तुवें विश्वासान आशूक पळोवपाक दवरिल्लें भुरगें, असहाय्य, अपंगुळाक अशें

लांडग्यांचे सुवादीन करचें नासलें. तूं त्या भुरग्याक सोदून काडून कायद्यान ताका ख्यास्तय फर्मावशीत, पूण फुडें कितें? तूं कोणा–कोणाचेर विश्वासतलें?''

''दोतोर म्हाका चिंतपाक थोडे दीस दियात. येदो व्हडलो निर्णय घेवपाक मन धजना, कांचवेता, फाटीं फुडें येता. तुमी सांगलां तें सगळें खरें पूण म्हाका विचार करूं दी.''

''पूण याद धर कमल, विकृत समाजाचे नदरेंतल्यान आशू सारख्या भुरग्याची सुटका करचे पासत तुजे सारखे शिकिल्ले बायलमनशेन हो कणखर निर्णय घेवपाक फाटींफुडें येवपाक जायना. विकृती विनाशाकडेन पावल्या आनी आपल्या अपंगूळ भुरग्यांची राखण करप दिसान दीस कठीण समस्या जायत चल्ल्या. हाका कांय अपवाद आसूं ये पूण लागींच्या सोयऱ्यांचेर सुध्दां पातयेवपा खातीर बरोच विचार करचो पडटा''

आशूचो जल्माचो खीण... कमल, आवयपणाचो पाट फावो जाला म्हणून खोशेन न्हाल्लें आनी आज तेंच कमल आपले धुवेच्या शिलाचे राखणे पासत दोतोराल्या विचारांकडेन एकरूप जालां. ''देवा म्हाका माफ कर, माफ कर, माफ कर.'' कमल आपले पोले बडोवंक लागलें.

''कमल आतां तुजो हुस्को सोंपलो. आशूची काळजी घेवपाक नर्सी आसात. ताका गुंगेंतल्यान भायर येवपाक खूब वेळ आसा. तूं घरा वचून यो.''

''ना ... दोतोर... म्हाका खंयच वचपाची इत्सा ना.''

...आशूबगर आसा कोण म्हजो? आशू... म्हाका माफ कर... साडयेच्या पदराचो गुड्डो करून तोंडांत कोंबून कमल आपलें रडप थांबोवपाचो यत्न करतालें. समाजाचे विकृती कडेन हार घेवन घेतिल्ल्या निर्णयान कमल अगतीक आनी असहाय्य नदरेन ऑपरेशन कुडीकडेन पळयतालें.



# 14 एक बळी-चंगळवादाचो

सुधाकर 'कोमांत' गेल्यार आयज आठ दीस जाले. आसा म्हणून आसा. सुकिल्लें कलेवर कसो. दोतोर कांयच सांगूंक शकना. तकलेक पडिल्ल्या टांक्यांनी जाळें कशें विणलां. कोणाकच खबर ना अशे विचित्र घटनेंत सुधाकर भाटांत तकली फुटून रक्तबंबाळ स्थितींत मानायांक दिसलो. घडणूक घडलीच तशी. सुरवातीक लागींच्या तशींच घरच्या मनशांनी हॉस्पिटलाची कूड उपाट भरताली. पूण आतां घरचींच मनशां बायल लक्ष्मी, आवय लिलावती आनी नाना घांस मारून आसलीं.

ल्हानपणांत सावन सुधाकराचो सभाव मायेस्त आसलो. आयलें पयलें ताका चड लागना आसलें. आपलें घर, घरांतलीं मनशां- आवय, बापूय आनी शिकप. गरज उप्रासली जाल्यार भाटांत वचप. भाटाचेर मनासावन मोग. आवय बापायचो एकलो एकसुरो पूत आसून लेगीत तांणी सुधाकराची मर्यादे भायर केन्नाच अपुरबाय करूंक नासली आनी ताच्या गरजेच्या मागण्यांक केन्नाच आखुडटो हात घेवंक नासलो.

आई-बाबा तशीं खास शिक्षित नाशिल्लीं तरी आपल्या भुरग्यांचेर तांणी आपले परीन बरे संस्कार केल्ले. एकलो आसून लेगीत तो शेफारूंक नासलो आनी खऱ्यांनीच बरो संस्कारीत भुरगो थारिल्लो. जाण्ट्यांचो बरे तरेन मान राखप, सगळ्यां कडेन मेळून मिसळून वागप.

स्कुलांतल्यान ताचे विशीं केन्नाच एक कागाळ घरा पावूंक नासली. दर वर्सा वर्गाचो मोनिटर तोच आसतालो. मैदानी खेळ खोखो, कबड्डी तशेंच क्रिकेट,

व्हॉलिबॉल, बॅडमिंटन हातूंत ताचो हात धरपी कोणूच नासलो. चुकनासतना टिमीचो कॅप्टन सुधाकरूच आसतालो. मॅट्रिकेच्या वर्सा 'ऑल राऊंडर' विद्यार्थी जावपाचो मान ताणेंच हाताशिल्लो. आई–बाबाक ताचो अभिमान आसलो.

सुधाकर बऱ्या मार्कांनी मॅट्रीक आनी उपरांत बारावी पास जातकच ताणें आपली शेतकी वेवसायांतलो इंजिनीयर जावपाची इत्सा आपल्या आवय–बापाय मुखार मांडली.

हरवें सोदिल्ल्याक पिकेंच मेळ्ळें अशें सुधाकराल्या बाबाक दिसलें. ताका सदांच दिसतालें - गडगंज भाट–भेंस आसा. एकलो एकसुरो पूत. आपले फाटल्यान चलयत काय? घोवा बायलेचें उलोवप जातलें.

''हांवें मना पसून म्हज्या जाण्टेल्यांनी भाटाच्या रूपान दवरिल्ली मिरास बरे तरेन सांबाळ्ळी. पूण फुडाराक आमचो पूत सुधाकर सांबाळीत काय?'' नानू.

''येन्नाच कित्याक चिंता करतात तुमी.'' लिलावती.

''तशें न्हय गे, आदलो काळ वेगळो आनी आतांचो काळ वेगळो. कोणाचीच शाश्वती दिवूं नजो.'' नानू.

''पूण आमचो सुधाकर तसो न्हय. पळयलां तुमी? आपलो अभ्यास सांबाळून लेगीत तुमकां गरज उप्रासता तेन्ना तो वाजेनासतना आदार करता.'' लिलावती

''तें खरें गे, पूण सांगूं नजो. आतां सुदारणा जायत वता. चिंता, हुस्को दिसता.'' नानू.

''देव समर्थ आसा. आमी बऱ्या विचारांचें रुजूं घाल्लें बीं बरेंच किल्लतलें. आमचो सुधाकर आमच्या मनांतलेंच करतलो. येन्नाच भाटा बेसांची कित्याक चिंता? आनी तुमी कितें येन्नाच म्हातारे जाल्ले वरी उलयता.'' लिलावती.

''तशें न्हय गे.''नानू.

''तशें आनी अशें, फुडले फुडें!'' लिलावती.

अशे तरेचो संवाद तांचो केन्ना–कोन्नाय चलतालो.

जेन्ना सुधाकरान 'ॲग्रीकल्चर इंजिनीयर' जावपाची इत्सा परगटायली तेन्ना नानून ताका कडकडून वेंग मारली. ताका मनांतल्यान खोस भोगली.

''जाणां सुधाकर आयज तूं म्हज्या मनांतलें उलयलो.''

''बाबा इंजिनीयर जावन हांव शिर्वीस बी करचो ना''

''कितें करतलो तर?''

“बाबा, आमची इतली व्हडली सैमीक गिरेस्तकाय आसा, तिची आमी आधुनीक पद्दतीन जतनाय घेवन बरे तरेन वाडीक लावपाची म्हजी आदीं सावन इत्सा आसली.”

“खरेंच, खरेंच! !”

“हय बाबा. म्हाका आमच्या पुर्वजांनी सांबाळून दवरिल्ल्या दायजाचो बरे तरेन सांबाळ करून तें उदरगतीक हाडूंक जाय.”

“उलय, उलय पुता, तुवें उलयत रावचें आनी आमी आयकत रावचें. भाग्य आमचें, खऱ्यांनीच भाग्य आमचें.”

“जाणा बाबा, म्हणूनच हांवें अग्रीकल्चर इंजिनीयर जावपाचें थारायलां.”

“आयज म्हजें मन तृप्त जालें. सासणाचो हुस्को ना जालो.”

“कसलो हुस्को बाबा?”

“आरे तूं आमचो एकलो एकसूरो पूत. दिसतालें आधुनीक मताचो. फाटीं फुडें सांबाळीत काय आमचें पुर्वजांलें दायज? ना.... ना. आतां म्हाका कसलोच हुस्को ना.”

“बाबा.... आई तुमी बिनधास्त रावात. हो तुमचो पूत केन्नाच नेगार वच्चो ना. तुमकां सदांच खोशी दवरतलो. तुमच्या उतरा भायर वा तुमकां मानवना असली गजाल केन्नाच म्हज्या हातांतल्यान घडचीं ना.”

“ल्हान पिरायेचेर तुमी म्हजेर केल्ले संस्कार सासणाचे उरतले. तुमी म्हजी अपुरबाय करतनाच सदांच कर्तव्याची जाणविकाय दिल्या.”

“सुधाकर, धन्य जालीं रे आमी तुजे विचार आयकून. तथास्तू पूता, तथास्तू! सदांच तुजें बरें जांव.”

सुधाकर अग्रीकल्चर इंजिनीयर जालो. शिकतनाच ताचो लक्ष्मी नांवाचे चलये बराबर मोग जालो. जें ताचेच बराबर इंजिनीयरींग शिकतालें. ताणें ताका सांगले....

“लक्ष्मी, तुका पयलींच सांगतां, आमचो गांवगिरो वाठार. जाण्टेल्यांनी आमकां भाटाच्या रुपान व्हड गिरेस्तकाय दवरल्या. आवय-बापायचो हांव एकलोच पूत. म्हजें ल्हानपण सैमाच्या गोपांतच गेलां. सैम म्हज्या रगताच्या थेंबा थेंबात आसपावला.”

“आरे सुधा, तुजो शेर्मांव सो चल्ला?”

“लक्ष्मी तुका हांव पयलींच सांगूंक सोदता. जर तूं म्हजे वांगडां लग्न जालें

जाल्यार म्हजे बराबर म्हज्या सैमसोबीत गांवगिऱ्या वाठारांतच रावचें पडटलें. आसा तुजी तयारी?''‘‘तुजी तयारी आसल्यारूच हांव म्हजी फुडाराची जावपाची जिवनसाथी म्हणून आई–बाबा मुखार तुका उबें करून तांकां सगळें सांगतलों.''

‘‘सुधा, तुज्यो सगळ्यो अटी म्हाका मान्य. आनी तूं गांवांतलो म्हणून आयच सो म्हाका सांगता'' लक्ष्मी.

‘‘म्हणचे?'' सुधाकर.

‘‘आरे तुज्या उस्वासांतूच गांवच्यो यादी भरसल्यात त्यो दर खेपे उलयतना आपसूक भायर येतात.''

‘‘म्हणटकच जालें उतर घट्ट !''

‘‘हय... जालें. हांव तुका केन्नाच अंतर दिवचें ना. तनमनान हांव तुजेंच आनी तुजेंच उरतलें.'' लक्ष्मी.

लक्ष्मीचो असो धिराचो हयकार मेळटकच सुधाकरान, शिकप पुराय जातकच आई बाबाक मेकळेपणान आपल्या मोगाची गजाल सांगली. आई–बाबानय ताका खोशेन मान्यताय दिली. तांकां विस्वास आसलो, आपलो पूत उजू वाटेनच वतलो.

आतां सुधाकर थिराविल्लो. ताणें बापाय वांगडा पुरायपणान भाटांत वचपाक सुरवात केली. सगळ्यांत पयलीं ताणें भाटाच्यो शिमो जाणून घेतल्यो. भुरगेपणांत तो बापायक फकत गरजे वेळार आदाराक वतालो. पूण आतां तो कर्तुबी पूत जावपाक सोदतालो.

नानूलें भाट न्हंयचे देगेर वशिल्लें. आयजवेर नानून आपल्या आटापा भितरच तें सांबाळिल्लें. पूण जेन्ना सुधाकर शिकून आयलो तेन्ना ल्हवू ल्हवू नानूत तें आपल्या पुताचे सुवादीन करून ताका जाय तशी ताची उदरगत करपाची मेकळीक दिली.

सुधाकर नानूलो एकलोच पूत आशिल्ल्यान ताका आनी लिलावतीक केन्ना काय सूनमुख पळोवचें अशें दिशिल्ल्यान आनी सुधाकरान पयलींच मोग करून लग्न थारायिल्ल्यान तांणी आग्रो करून सुधाकराचें दबाज्यान लग्न केलें. आतां तांच्या घरांत खोसच खोस भरिल्ली. सुधाकराक आदार करपाक, लक्ष्मीय अग्रीकल्चर इंजिनीयर आशिल्ल्यान खूब बऱ्याक पडटालें.

सुधाकराक पयशांचें फाटबळ आशिल्ल्यान ताणें भाटाची उस्तवारी करपाक सुरवात केली. न्हंयचे देगेर उदक भाटांत खेळोवपाक मोटर बसलो, पायप लायनी

घाल्यो, स्प्रिंक्लर्स आनी रेनगन बसयले. भाटांत वाडपी तण काडपाक कटरां ची वेवस्था केली. आधुनीक पद्दतीन गोठ्याची रचणूक करून गोबर गॅसाची वेवस्था केली. घरांतलें जेवण-खाण ताचेरूच जातालें.

नानून सांबळून दवरिल्लें भाट सुधाकरान नव्या तंत्रगिन्यानान वाडीक लावपाचो सातत्यान यत्न केल्लो. पांच-पंचवीस मानाय सतत भाटांत वावुरताले. गांवच्या तरणाट्यांकय रोजगार मेळिल्ल्यान तेवूय खोशी आसले.

वेंग पावनात अशे माड आनी हारीन लायिल्ल्यो माडयो. माडयांचेर मिरवेली झेतान मिरयताल्यो. नाल्लांचें, सुपारेचें आनी मिरयांचें घसघशीत पीक येतालें आनी ताचेच बराबर पावला पावलाक केळ्यांचे घड, जांब, म्हसका सांगो, निरपणस, चिकू, आंबाडे, पेरां. एप्रिल, मे म्हयन्यांत आंबे, पणसांच्यो तशेंच अनसांच्यो घे म्हणून राशी. अमकीच फाळावळ ना म्हणून ना.

पोटभर खावन, शेजारी, सोयरे धायऱ्यांक हात सैल करून दिवन जातकच उरिल्ली फळ-फळावळ बाजारांत विक्रेक वताली.

सुधाकर मिनीटभर लेगीत बेकार नासतालो. ताचें वेळापत्रक थारिल्लें. सकाळीं आठ ते दनपारां बारा वरां, सांजेची दोन ते स वरां मेरेन भाटांत आसप. हो ताचो नित्यक्रम आसलो. हातूंत केन्नाच बदल म्हणटा तो जावंक नासालो. शांत, सुखान अशी जिणेची वाटचाल चालू आसली. तिनसांज जातकच सगळ्या दिसाचो नियाळ सुधाकर नानूक दितालो.

मानाय भाटांत पावचे पयलीं सुधाकर पावतालो. आयज ताणें सगळ्यां मानायांक न्हंयचे देगेर आपयले. पावसाळो लागीं पाविल्ल्यान मोटर पंपाची वेवस्था करपाची आसली. सुधाकर भाटांत पाव जाल्यार कितें पळयतलो? ताका आजापाचो धक्कोच बसलो. धायेक जाणांचो पंगड, सगळे तरणाटे, थोडे धटिंगण कशे जाल्यार थोडे मध्यम काटीचे.

एक मिनान भरिल्ली बार्ज भाटाचे देगेर तेंकल्या आनी देंवती फळी लावन तांतूंतल्यान मीन देंवयतात. ताचें भाट न्हंयचे देगेर वशिल्ल्यान मिनाच्या बार्जीचें सदांच यो वच चालू आशिल्लें. ताची तकली भेरेली.

''आरे, आरे, हें कितें चलयलां तुमी?'' सुधाकर.

''तुका दिश्टी पडना?''मीन देंवयतात मरे आमी.

''आरे  हें आमचें भाट. व्यक्तिगत सुवात.''

“आमी जाणात. आमी खंय ना म्हणटात. एक-एकलो उलोवंक लागलो.”

“आनी....आनी.... तरी लेगीत तुमी हीं असलीं कारस्थानां करतात.”

“तूं ओगी रावता काय?”

तांचे संभाशण चालू जातासर सगळे मानाय थंय काम करपाक पावले आनी अजापान मीन देंवयतात तें पळयतच उरले. “ओगी रावना जाल्यार कितें करतले. म्हज्या भाटांत येवन वयल्यान दादागिरी? कितें करतले तुमी सांग? ?”

“दाखोवंक जाय तुका? हय?” चौगय जाण हाताच्यो मुठी आंवळून सुधाकराचेर झुडून आयले.”

“भाई फाटीं सर, फाटीं सर, तवनास ते, देंवचार ते, तांच्या तोंडाक तूं लागूं नाका. ते कितेंय करीत. सांवार आयला तांचेर.” एक मानाय सुधाकराक फाटीं ओडूंक लागलो.

“म्हणचे रे? कितें चल्लां ते दोळे बंद करून पळोवं ?”

“हय, हय, तशेंच करपांत चड शाणेपणां थारतलीं.”

“म्हज्याच भाटांत येवन वयल्यान तुजीं शापोतां आयकूं ? हय? यो-यो रे तो असो फुडें! म्हजेर झुडून येता?”

“भाटकारा-भाटकारा, भाई-भाई .... नाका तांच्या तोंडाक लागूंक!” मानाय.

“सांग तुमच्या भाटकाराक. मुखार कितें चल्लां तें पळय. हातूंत तुजोय धा टक्के फायदो तुका आमी दितले. आमी तवनास जांव पूण व्यवहाराक चोख”

“थुकतां हांव तुमच्या कमिशनाच्या पयशांचेर. नालायक खंयचे कडलो! ! जाणां जायात आमचो घराबो गांवांत प्रतिशठीत घराबो म्हणून वळखतात. असलीं नाककात्रेपणां आनी समाजद्रोही कामां आयजवेर करूंक ना. पिरायेन पळयल्यार तुमी म्हजे येदेच दिसतात. तरी लेगीत हांव तुमकां हात जोडटां. हीं असलीं कुकर्मां म्हज्या भाटांत करूं नाकात आनी खंयच करूं नाकात. मान मर्यादेन जगात.”

“येदोळच्यान तुजें आयकलें. आतां तुजें चडच जालें. मुकाट्यान ओगी रावता काय तुका, घरच्यांक ख्यासत भोगोवंक जाय.”

“आरे पूण, हात पांय धडधाकट आसतना, तुमी हीं असलीं कायद्या भायलीं कर्तुबां करतातच कित्याक?”

“कित्याक म्हणल्यार? तुका वेगळें सांगूंक जाय. काय तूं ह्यां जगांत रावच

ना? बाकी तूं शिवराक, प्रतिष्ठा सांबाळपी. तुका हांतलें श्रील कशें उमगतलें? तरी चल सांगतां तुका. आमकां आलायतो पयसो, फोल्गां मारपाक जाय, जो पयसो आमकां घरच्यां कडल्यान मेळना समजलें? तुका कांय खबर ना म्हणून साळसुदपणाचो आव हाडूं नाका.''

''साळसुदपणाचो आव हांव कित्याक म्हणून हाडटलो?''

''आनी...आनी...(मानायाक उद्देशून) तुमचो भाई भाटकार तो... न्हय ...भाई भाटकारा म्हाका सांग, तुमच्या भाटांत आमी लिपचोरयां मीन देंवयलें म्हणून तूं आमचे कडल्यान कमिशनाचे पयशे घेवचो ना रे चोरा?''

''चोर-चोर कोणाक म्हणटात रे? चोर तुमी !''

''आरे फुकट जर लाखांनी पयसो हाताक लागलो जाल्यार कोण घेनासतना रावता? सांग पळोवया?''

''हांव सांगता तें जर तुमी आयकनात तर... तर...''

''तर... तर... कितें करतलो?''

''हांव पुलीस केस करतलों. तुमचेर गुन्यांव नोंद करतलों.''

''आरे शाण्या गुन्यांव नोंद करपाक तूं तुज्या घरा तरी पावूंक जाय मरे? पुलीस केस करतलो? हय? पुलीस केस. खूब वेळ दिलो तुका. आमी ओगी रावले कारण तुज्या भाटाचो आमी उपेग करतात. म्हणून पूण तुजीं शापोतां चड जालीं. तूं आमकां सगळ्यांक बरो वळखना!!! ना जाल्यार विचार तुज्या मानायांक?''

''हांव वळखूं ना जाल्यार ना वळखूं. बरे भशेन तुमी मिनाचो म्हाल बार्जीत भरून म्हजी सुवात मेकळी करात.''

इतलो वेळ मेरेन सुधाकरा कडेन दोग-तीग जाणच हुज्जत घालताले. पूण जेन्ना सुधाकरान धमकेचीं उतरां भायर काडलीं. तेन्ना मीन देंवोंवपांत गुल्ल आशिल्ले सात आठ तरणाटे, हैवान शे सुधाकराच्या आंगार धांवून आयले. एकल्यान ताका घट्ट धरलो. आनी घुंवडाय- घुंवडाय घुंवडायलो आनी शेंवटून उडयलो. तरी बरें सुधाकराल्या मानायांनी ताका जिखून घेतलो. सुधाकराच्या बऱ्या नशिबान तो वाटावलो ना तर तेन्नाच ताचो कपाळ मोक्ष जावपाचो.

कितें घडलें सुधाकराक कळ्ळेंच ना. तो न्हिन्नेळ्ळो. ताचे हात पांय कडकडूंक लागले आनी सावचीत जातासर ताका थोडो वेळ लागलो. हांशाचो गडगडाट करून त्या हैवान तरणाट्यां मदल्या एकल्यान तोंड उगडलें. सुधाकर अजून सारको

शुध्दीर येवंक नासलो.

"ही तुका एक झलक दाखयल्या. जर तूं आमचे कडेन अरेरावी करशी जाल्यार तुका सगळो सिनेमा दाखयतले."

"तुमचें भाट मुखेल मार्गा पसून खूब पयस आसा आनी ताका तेंकून न्हंयची देग. आरे तुजे सारको भाग्यवान तूंच. तुज्या भाटाचे देगे सावन मिनान भरिल्ल्यो बार्जी वतात. चोरिल्लें मीन देंवोवपाक आमकां सुवात दी आनी लाखांनी फुके सवाय पयशे जोड. कोणाची खबर कोणाक ना."

"आरे तुजी ही सुवात म्हणल्यार भांगराची खण मरे ... आनी तूं म्हणटा पुलीस केस करतां... हा... हा... हा..."

सुधाकर आनी मानाय तोंड आं करून आयकतच उरले.

"आरे चड कश्ट करिनासतना खोऱ्यांनी पयसो ओडपाचो आनी तुमी मानायांनो, तुमकां जर आमकां आदार करीन दिसता जाल्यार विचार करात."

"पूण एक लक्षांत दवरात, हांगा आतां जें कितें चल्लां तें भायर फुटलें तर तुमची आनी घरच्यांची धडगत ना."

"भाई- भाई, ते सांगतात ताचेर तुमी विचार कित्याक करिनात. "एक मानाय.

"चूप-चूप-चूप- तुमीय तांकां सामील जावंक सोदतात. असो विचार तरी कसो रे आयलो तुमच्या मनांत?" जुवानपणाच्या हुमऱ्यार उबे आशिल्ले हे म्हजेच पिरायेचे भुरगे चंगळवादाक लागून खंयचे खंय पावले पळय."

"मानायांनो, जाणांत तुमी हांची ही कर्मां घरच्यांक मात लेगीत खबर ना. पालक दीस रात कश्टून आपल्या भुरग्यांच्यो गरजो भागोवपाचो यत्न करतात आनी ही फुडाराची पिळगी खंयचे दिकेन वचपाक सोदता... हाय... हाय... हाय..."

"आरे भाई काय कोण तो... तुजीं प्रवचनां आयकुपाक आमकां वेळ ना आनी रुचय ना. आमकां रूच लागल्या आलायत्या पयशांची आनी पयसो हातांत आसलो म्हणटकच जुवानपणांतलीं सगळीं सुखां भोगपाक आमी तयार...."

"म्हजें सांगणें तुमकां पटना जाल्यार निमणो विचार तुमकां सांगता... म्हज्या भाटांत तुमका असलो बेकायदेशीर धंदो करूंक मेळचो ना. हांव चल्लों पुलीस केस करपाक."

"आरे पुलीस केस करपाक तूं वता म्हणटा तो तुजे कडेन कितें पुरावो आसा

की तुज्या भाटांतले मीन आमीच बार्जीतल्यान देंवयलां? उरफाटें, आमीच पुलीस केस करून कळयतात की तूं. तुज्या भाटांत बेकायदेशीर मिनाचो धंदो करता.''

''कितें, कितें'' सुधाकर सगळोच गडबडटा.

''हय, हय, अशेंच. जर बरे भशेन सांगिल्लें तुका समजना जाल्यार आनी आनीक उपाय ना. पडूं दी बेडयो हातांत आनी समजुंदी तुमी कितलीं प्रतिष्ठीत मनशां आनी समाज विरोधी कर्तुबांत कितलीं बरबटल्यांत.''

''विद्वाट्यांनो, तुमची इतली हिंमत? म्हज्याच भाटांत तुमी चोरयेचो म्हाल देंवयतात आनी विरोध केल्यार म्हाकाच धमकी दिवन गुन्यांवकार थारायतात! हद्द जाली तुमचे विचारसरणे मुखार.''

''तुमच्या पालकांनी तुमचे विशीं कितल्यो आशा बाळगिल्ल्यो आसुंये. आयज मेरेन तुमच्या पालकांनी तुमकां सगळ्यो सुविधा दिल्ल्यो आसुंये. तरी लेगीत एकामेकांच्या संगनमतान तुमी असलो बेकायदेशीर आनी चोरपणाचो धंदो करतात तो बरो न्हय. खिणयाळ्या सुखा फाटल्यान धांवूं नाकात. मदले मदीं बार्जीतले मीन काडून तुमी मालकाक कितली लुकसाणी भोगयतात....''

''पुरो... पुरो... रे सायबा... पुरो. आमचे कडेन वेळ सामको उणो आसा. आमचो चोरयोचो म्हाल व्हरून आमकां पयशे दिवपी एजंट येवचो जाला. ताचे पयलीं हांगासरलो चलूंक लाग.''

''कितें? म्हज्याच भाटांत येवन तुमची दादागिरी!!! ना.. ना.. ना.. हांव ही दादागिरी कसोच खपोवन घेवचों ना.''

''चला रे या आमी पुलीस स्टेशनार.''

सुधाकरान आपल्या मानायांक सांगले आनी वचपाक ताणें फाट मात केल्या इतल्यान तरणाट्यांनी बेसावध सुधाकराचेर दांड्यांनी हल्लो केलो आनी ताची तकलीच फोड्डून उडयली. खिणा भितर सुधाकर तडफडत, तडफडत रगताच्या कोणांत निचेश्ट पडलो.

सगळे मानाय म्हऱ्यांतच पूण बेसावध आसले. तरी लेगीत जेन्ना ते भाटकाराक मारतात तें पळयतकच तांणी आपले परीन त्या तरणाट्यांक आडावपाचो यत्न केलो. पूण त्या बेरड तरणाट्यां मुखार कांयच चल्लें ना.

कितें करूं? कितें करूं? म्हणून सगळे मानाय निचेश्ट पडिल्ल्या सुधाकरा भोंवतणीं वेटाळें घालून हड्डे बडोवन घसघशांनी रडपाक लागले. तांणी सुधाकराक

उबारून घरा व्हरपाक हात मात घाला इतल्यान तरणाट्यांची गरड कानार आयली.

"खबरदार, हांगा कितें घडलें ताची वाच्यता जर ह्या भाटाचे भायर कोणें एकल्यान लेगीत केली जाल्यार तुमकांच न्हय जाल्यार तुमच्या सगळ्यांचे घराबे नेस्तानाबूत करून उडयतले आमी."

"कितें घडलें आमकां खबर ना. कितें घडलें आमी पळोवंक ना. अशेंच पुलिसांक सांगपाचें आनी भाटकाराच्या घराय सांगपाचें. समजलें."

"कितें सांगतले?"

"कितें सांगतले?"

एकल्यान बोल्सांतल्यान पिश्तोल भायर काडीत धमकावन विचारलें. सगळ्यांनी मोन्यांनी तकल्यो हालयल्यो.

पुलीस केस जाली. पूण निश्पन्न कांयच जालें ना. ठोस पुरावो मेळ्ळो ना. गांवभर शांतता.

आपले घराबे सुरक्षीत उरचे म्हूण कोणें एकट्या मानायान तोंड उगडलें ना. सत्य गजाल सांगली ना जी तांच्या दोळ्या सामकार घडिल्ली.

ज्या सुधाकर भाटकारान नवें तंत्रगिन्यान वापरून सगळ्या मानायांक स्वावलंबनाची देख दिल्ली आनी सगळे वटेन आदार दिल्लो. मानाय म्हण नासतना तांकां सुधाकराले घरकान्नीन, लक्ष्मीन घरच्या मनशां वरी वागयिल्ले. त्या सुधाकर भाटकाराचेर हल्लो करपी गुन्यांवकारां आड तांणी ब्र लेगीत काडलें ना. इळी मिळी गूप चिळी.

आयज आठ दीस जाले सुधाकर भाटकार मरणा बराबर झुजता. सुरवातीच्या दिसांनी सगळ्यांनी धीर दिलो. पूण कांय दिसांनी धिराच्या उतरांचो झरो आटपाक लागलो. जण एकलो आपापल्या कामांत गुंतलो.

पूण बापूय नाना, आवय लिलावती आनी घरकान्न लक्ष्मी सुधाकर मरणाच्या विळख्यांतल्यान केन्ना भायर सरतलो हाची वाट पळयत हॉस्पिटलाचीं सोपणां आलटून पालटून झरयतालीं.

●●●

# 15 नियतीची आशाढ पांवळी

उबाळांत सुकिल्ली, तानेल्ली धर्तरी पावसाची उमळशिकेन वाट पळयता. मिर्गाचो पावस सुरू जातकच ती तृप्त जाता. म्हणटा म्हणसर आशाढ म्हयन्यांतलो पावस सुरू जाता. तानेल्ले धर्तरेक पावस तृप्त करता तें गुलाब आशेल्ले नदरेन तेळटा चोंयवशींनचो पांचवो रंग गुलाबाक व्हंकलेच्या चुड्याची याद करून दिता.

गुलाब घराच्या बल्कांवाचेर बसलां. घर कसलें? नांवा पुरतें. फाटली रांदची कूड केन्ना मातये भरवण जाल्या. जेवणाचें साल आनी ताच्या आशिकुशीच्यो कुडी, आसा पर आसा. केन्ना घो जायत सांगू नजो. बसपाचें साल आनी मुखावयलें बल्कांव, इतलेंच घर म्हणपासारखें उरलां.

त्या घरांत गुलाब फाटल्या यादिंचेर जीण धुकलता. मनशाच्या जिवितांत जसजशी पिराय वाडटा, तश्यो-तश्यो ताच्यो आवडी-निवडी बदलत वतात. जिविताविशीं नदर बदलता. हाचो अणभव गुलाबान पुरायपणान घेतला. गुलाब नांवांतच परमळ भरिल्ल्यान आपल्या धाकल्या भावडांक ताणें सदांच परमळीत केल्लीं.

व्हडली भयण गुलाब आनी फाटलीं भावंडां. घरदार भरिल्लें. भुरग्यांक कसलीच चिंता, हुस्को म्हणटा तो नासलो. बाबालें भुसारी दुकान आनी एक गिरण आशिल्ली. रातचो बाबा येतना पोतयो भरून पीठ, तांदूळ घेवन येतालो. आई सुग्रण आशिल्ली. तरेक तरेचीं जेवणां करपाक तिचो हात धरपी कोणच नासलो.

कोणाक कितें घोस्ताचें आवडटा तें ती दिस्त जाणां आसताली. आनी ते

जिन्नस करपाक ती मनापसून वावुरताली. जशी भुरगेबाळांच्या जेवणा-खाणाची चिंता तशीच घरांत वावुरतल्या कामेऱ्यांची बी. आईचो हात सदळ. तांकां लेगीत ती पोटभर जेवपाक-खावपाक घालताली. घरांत सदांच धाधोसकाय, खुशालकाय, आनंदी जीण. चिंता, हुस्को, अडचण म्हणटा ती खबरच नासली.

भुरगेपणांत एकाद्री परब म्हणल्यार घरांतल्या उमेदीक शीम मेर उरना आसली. जसो - जसो परबेचो दीस लागीं पावतालो तशी-तशी उमेद वाडतच वताली. निमाणें-निमाणें तर न्हिदांत लेगीत परबेचींच सपनां पडटालीं. अशें दिसतालें केन्ना सकाळ उजवाडटली आनी आपल्या इश्ट-इश्टीणी वांगडा परबेची मजा करपाक मेळटाली.

भुरगेपणांत उमेद आनी उताविळपणा कुट्टूकुट्टून भरिल्लो. कितें करूं कितें नाका अशें जातालें. बंधन-मुक्त आनी धादोसकायेन जीण जगपी गुलाबाल्या घराचेर एकदीस अचकीत दुख्खाचो दोंगर कोसळ्ळो.

सकाळी उठ्ठनाच गुलाबाल्या बाबाक काळजाचो अॅटेक आयलो. आनी सगळो संवसार आरत्याचो परतो जालो. केन्ना दुख्खाची झळ लागूं नाशिल्ल्या गुलाबाल्या आवयचेर आकांत आयलो. एक खांबी घराचो मुखेल खांबोच मोडून पडिल्ल्यान ती सैर भैर जाली. सगळें ब्रह्मांड तिचे सामकार उबें जालें.

वायट खबर कळटकच सोयऱ्या -धायऱ्यांनी घर भरून गेलें. आकांताच्या वेळार सगळीं आयलीं, आदार केलो. दुख्खांत वांटेकार जालीं. बाबाक भुरगीं म्हणल्यार जीव की प्राण आसलीं. ताणें आईकय केन्नाच संवसारा व्यतिरिक्त भायलें कांयच लागूंक दिवूं नासलें. आनी घरकाराच्या कर्तबगारी मुखार आईनय केन्नाच कसलीच जापसालदारकी उखल्ली नासली.

सुखान घराबो चलतालो, त्या घराचेर अर्वशण आयिल्लें. आईच्या दुख्खाक अंतपार नाशिल्लो. भुरग्यांक वेंगेंत घेवन ती खोलसू-खोलसून रडटाली. भुरगींय आकांत करतालीं. तांतले तातूंत समजीकाय आनी कर्तव्याची जाणविकाय आशिल्लें सगळ्या भावंडामदीं गुलाबच आशिल्लें. सगळ्या आकांताकडेन तें हताश आनी स्थितप्रज्ञ नदरेन पळयतालें. ताका रडूंक येना आसलें. फुडें कशें, ह्या विचारान तें भितल्ले भितर घुस्मट्टालें.

सोयऱ्यांचो, बरे मागप्यांचो गोतावळो बारा दिसां पुरतो लागीं आयिल्लो.

उपरान्त एक-एकल्यान काडटो पांय घेतलो आनी थोड्याच दिसांनी घर रिकामें जालें.

दीस रावले नात. सदचीं कामा चालू जालीं. गुलाबाचीं, भावंडा स्कूल, कॉलेजाक वचूं लागलीं बाबालें दुकान, गिरण आनी बी.ए. चें निमाणें वर्स गुलाबान कशें तरी सांबाळ्ळें. बाबावरीच गुलाबान दुकान, गिरण बरे तरेन चलयली. आनी त्या येणावळींतल्यान भावंडांच्या शिक्षणाचो आनी घरखर्च चलयलो.

संवसार रूपी चक्र घुंवपाचें थांबलें ना. तें चालूच आसलें. शिकप पुराय जातकच दर एका भावंडान आपआपली वाट सोदून काडली. आपली वाट सोदतना आपले व्हडले भयणीची कोणेच दखल घेतली ना. सगळ्यांनी आपआपले संवसार थाटले.

गुलाबान आपल्या नांवाचो अर्थ सार्थ केलो. तें सदांच आपलो परमळ भावंडाक दीत रावलें. घराब्या खातीर, भावंडांच्या शिक्षणाखातीर, तांच्या फुडारा खातीर, झर-झर-झरतच उरलें. व्हडले भयणीचे जापसालकेच्या नात्याच्या वज्यान चेंपत उरलें.

असहाय्य आनी अपराधी कशी आईन गुलाबाच्या फुडाराची चिंता करत-करत एक दीस निमाणो स्वास घेतलो. आईचे चिंतेक गुलाब वाट दाखोवंक पावलें ना आनी आईच्या रुपांन आशिल्लो आदारय सोंपिल्लो. बापायच्या मरणाचेर ताणें दुकां गळयलीं, पूण आवय सोंपतकच मात तें साप एकटें-एकटें जालें. आनी वादळांत सांपडिल्ल्या रुखावरी हुमटून पडलें. ताची संवेदना, दुकां आटलीं. अटंग्य रानांत ताका शेणील्लेवरीं दिसूंक लागलें.

एक -एक मनीस पयस वता तशें गडगंज घरय आपले हात-पांय सदळ करूंक लागलें. पयलीं पाखें, मागीर मागीलदार मोडलें. आपल्याच्यान जातसर गुलाबान संवसाराची पालखी उबारली. कोणा खातीर म्हूण चिंतले ना पूण घर राखून दवरपाचो यत्न केलो. आतां ताचोय परमळ इल्लो इल्लो कमी जावपाक लागलो. तें मनान थकलें. ताका कसलीच उमेद उरली ना.

पिराय वाडटा तशी बाबाल्या दुकानाची आनी गिरणीची जापसालकी गुलाबाच्यान पेलना जाल्ल्यान ताणें ती चलोवपाक दिलीं. दीस वतालें तशें ताका एकलेपण प्रखरपणान जाणवूंक लागलें. नात्या-गोत्यांतल्या मनशांचेंय यो-वच

कमी जाल्लें. शिकिल्लें सवरिल्लें आशिल्ल्यान तें आपले परीन आपल्यांतच गुंतून रावपाचो यत्न करतालें.

जातासर भावंडांखातीर जीण झरयली. आतां एकटें एकसुरेपण आनी घराची भयाण वास्तू ताका खावपाक येताली. व्यथा दुसऱ्यांकडेन उक्तावपाचो ताचो सभाव नाशिल्लो. ताच्या एकटेपणाची काळकूट येवूनच ताच्याच नात्यांतल्या एक नातलगान ताका उतारवयांत तरी आदार लाबचो म्हून एक पन्नाशी कडेन पविल्ल्या भुरग्याकडेन गुलाबाच्या संमतीन सोयरीक जुळयली. संवसाराची कसलीच उमेद उरूं नाशिल्लें गुलाब आयुश्यांतले तडजोडीक तयार जालें.

आशाढ म्हयन्यांतल्या भर पावसांत गुलाबाचें लग्न थारलें. कारण न्हवऱ्या भुरग्याक घरगुती अडचण आशिल्ली. पावस तर पावस, लग्न जावून वता तें खरें. ना तर गुलाब घर सोडचेंना. सगळ्या भावंडांक गुलाबाचें लग्न जाल्लें जाय आशिल्लें. कारण लग्ना उपरान्त तांणी घर बिल्डराचे सुवादीन करपाचें थारायलें. भयणींचे लग्न जावन ताचो बरो फुडार कोणेंच चितूं नासलो, तांच्यांत गोमटीभर सुवार्थ भरिल्लो.

भोगावळ म्हूण गुलाबाच्या घरा सामकार माटोव घाल्लो. पयल्या दिसा देवकार्याची कार्यावळ जाल्ली. दुसऱ्या दिसा सांजवेळचो चारांचो म्हुर्त थारायल्लो. घरचे घरा जेवणां आटापून हॉलार वचपाची तयारी चालू जाल्ली. अचकीत पावसान नेट धरलो. आशाढांतलो पावस, पूण वातावरणांत विचित्रसो बदल घडून आयलो, अशें प्रत्येकाक दिसूंक लागलें.

मळबांत काळीं कुपां एकठावलीं आनी चोंय वशीन काळोख जालो. म्हणटां-म्हणटां आकांताचो पावस आनी नेटान वारें व्हांवक लागलें. वाऱ्याच्या आनी पावसाच्या नेटान झाडां, लायटी खांबे, धडाधड हुमटून जमीनी भरवण जाले. पत्रे, चुडटां, खंयचे खंय मेळत तशे उडून गेले. ल्हान -ल्हान घरां जमनीर बसलीं. आकांत पातळ्ळो. अघटीत अशें घडटालें....

वाऱ्याचो आनी पावसाचो नेट प्रचंड आशिल्लो, ताणें झाडांचे खांदे लायटीच्या खाब्यांचेर पडिल्ल्यान सरयो तुटून अस्थावस्त पडल्यो. जण एकटो आपआपल्या घरांत दारां-जनेलां बंद करून घडपी अनर्थाक मोन्यानी सामकार वचपाचो यत्न करीत देवाचो धावो करतालो. लायट ना, टेलिफोन ठप्प, सुकणीं-सावदां, गोरवां-

म्हसरां हांचे विचित्र हाल जाल्ले. घराभायर सरप म्हणल्यार संकश्टाक आमंत्रण दिवप दिसतालें.

सततच्या चार-पांच वरांच्या ह्या तांडव नृत्याचो शेवट मात गुलाबाच्या न्हवऱ्याखातीर जीवघेणो थारलो. पावस आनी नेटान व्हांवपी वारो चालूच आसलो. जेवणां उलगल्या उपरान्त न्हवऱ्याकडली मंडळी हॉलार येवपाक भायर सरली मात अचकीत हें संकश्ट तांचे सामकार उबें जालें.

फुडें अशें कितें घडत हाची कल्पना येवची पयलींच एक लायटीचो खांबो हुमटून न्हवऱ्याच्या मोटारीचेर कोसळ्ळो. मोटार मोडून चुरो जाली, वांगडा गुलाबाचो न्हवरो चिड्डून मेलो. बरोबर आशिल्ली मंडळीय गंभीर जखमी जाली.

पावसाच्या उटंगारान आनी वाऱ्याच्या मोडान गुलाबाच्या घराफुडलो माटोव केन्नाकच खंयचे खंय व्हांवून गेल्लो. आनी गुलाबाच्या जिवितांत आयिल्ली लग्नाची संद नियतीन रसातळाक पावोवन ताची फकाणां केल्लीं.

पावस आनी मोड थांबपाचीं चिन्नां दिसनासलीं. टेलीफोन व्यवस्था ठप्प जाल्ली. कोणीची खबर कोणाकच कळनासली. चुडो भरिल्ल्या गुबाबान आनी घरच्यांनी मिणमिणत्या दिव्याच्या उजवाडांत रात कशीबशी सारली. आनी फात्या पारार वाटेवयल्यो अडखळी आनी पडिल्लीं झाडां-पेडां, लायटिच्यो सरयो... हूंपून, कासावीस जावून खबरेकारान गुलाबाच्या घोवाच्या मरणाची खबर पावयली. गुलाब खबरेकाराच्या तोडांक पळतच उरलें. ताचो आवरोच उडलो ना आनी तें शिळा कशी जालें.

बाबा वतकच कसलीच अपेक्षा बाळगिनासतना घराचो कर्तो जाल्लेवरी गुलाबान भावंडाचो फुडार घडयतना आपल्या फुडाराचो केन्नाच केलो ना. भावंडानीय ताची केन्ना विचार केलो ना, आनी निमाणें नियती लगीत ताचेकडेन दुश्ट खेळ खेळ्ळी.

आतां फाटलीं कितलीशींच वर्सां दर पावसाळो येता, दर वर्सा आशाढ येता, पावसाची गती नेट घेता... आनी गुलाब भकास मनान बल्कांवार बसून आशाढ पांवळेक तेळटा.

●●●

## 16 कापाज

मिर्गाचो म्हयनो चालू आशिल्लो. शेतांतलीं कामां नेटान सुरू जाल्लीं. मिर्ग लागचे पयलीं दिवळे फोडून आनी शेतांत शेण घालून, तें भाजून, शेताची सगळी उस्तवारी जाल्ली. दर एकलो तकली वयर काडिनासतना, इल्लो लेगीत वेळ वगडायनासतना कामांत गुल्ल जाल्लो.

दीस भर शेतांत वावरून सुध्दां, दुसऱ्या दिसाच्या कामाच्या हुस्क्यान पोब्रिन फात्यांरच जागें जातालें. सदचे परस आज तें चड बेगीन जागें जाल्लें. कोंबे साद घालतात काय म्हूण ताणें सुलूस घेतल्ली. कसलोच आवाज कानार पडलो ना. सवण्यांक लेगीत अजून जाग येवूं नासली. तरी लेगीत आंगावयली कांबळ उडोवन तें उठलेंच.

एकदां जाग येतकच ताका न्हिद पडनासली. भुरगीं उठचे पयलीं पोब्रिनालें रांदप तशेंच घरांतलें काम जावूं जाय आसतालें. तें शीत, पेज, कडी आनी आमील रांदतालें. घराच्या मातशें फुडें ताचें ल्हानशेंच शेत आशिल्लें. शेतांत वतना तें आमील जेवतालें, भुरग्यांकय खावयतालें,पेजेचो बुडकुलो घेवून शेताच्या वाटेक लागतालें. दनपरां भुरग्यांक जेवण वाडपा पसत ताका घरा येवचें पडटालें.

पोब्रिनाक दोनच भुरगीं. मेलिना पांच वर्सांचें. जुझे दोन वर्सांचो. घरांत भुरग्यांक सांबाळपाक आनी तांचेर नदर दवरपाक दुसरो मनीस नाशिल्ल्यान, घरांतलें सगळें काम आटापून शेतांत वचचें पयलीं तें भुरग्यांक उठयतालें. तांका आमील खावयतालें. सगळें जेवण धांपून दवरतालें. जुझेक पांच वर्सांच्या मेलिनाच्या सुवादीन करून हुस्क्याचें मणा, मणाचें वजें घेवून तें निरूपायान

शेतांत वतालें.

पोब्रिनाचो घरकार कुवेटाक वचत पसून शेताची आनी घराची, भुरग्यांची जापसालकी एकट्या पोब्रिनाचेर पडिल्ली. शेतांत कश्ट केले जाल्यार भांगर पिकपाचें. पूण ताचो घरकार कुवेटाक वचपाक फुलिल्लो. पोब्रिनान ताका जायतो समजायल्लो–

''आमचें शेत आसा. कश्ट करया. आनी भांगर पिकोवया. वाड्यावेलीं भुरगीं इश्कोल शिकतात, आमीय भुरग्यांक इश्कोल शिकोवया...''

'' शेताचेर पोट भरचे परस कुवेटाक वचून येता. दोन वियाजी मारतां. मागीर पळय तुका आनी भुरग्यांक भांगरान भरतां....''

''तूं कुवेटाक गेलो जाल्यार हांव एकटें पडटलें. भुरग्यांक पळोवप आनी शेताचो वावर कसो जातोलो?''

''हांव कुवेटाक गेलो म्हणटकच तुका शेत कित्याक रोवूं जाय? हांव तुका दुडू धाडटलो. राणी कशी बसून खा....''

पोब्रिनालो घरकार कसोच आयकूंक तयार जालोना. सरपळी, कांकणां आनी जोग– पोब्रिनाल्यो काजाराच्या वेळार मांय–पांयन दोतीक दिल्ल्यो वस्ती विकून ताणें दुडू एकठ्यांय केले. घरांत आशिल्लें भांगर विकून घरकार कुवेटाचें भांगर हाडूंक गेल्लो.

जुझेक म्हयनो जाल्लो. ताचो बाल्तिम जाल्लो आनी पोब्रिनालो घरकार कुवेटाक गेलो. दोन वर्सांत घरकारान कोणाय कडेन बरोवन घेतिल्ल्यो दोन चिटी पोब्रिनाक पाविल्ल्यो. घरकाराक बरोवंक येना आसलें. चिटींत दुडवांचे आनी भांगराचें कांयच बरोवंक नासलें. तो थंय कसलें काम करता हें लेगीत ताका खबर नासलें. दर दिसा तें चिटीची वाट पळयतालें.

भुरगीं ल्हान आशिल्ल्यान एकट्या पोब्रिनाच्यान भुरगीं आनी शेताचो वावर जायना आसलो. पूण पोटा पासत कसोय करून ताका तो वावर करचोच पडटालो. खाण जेवण सारखें नाशिल्ल्यान मेलिनाचीं आनी जुझेची हाडां सांसपितालें आनी घुस्मटून रडटालें. आनी भुरगीं ताच्या तोंडाकडेन पळयत रावतालीं.

अपुरबायेचीं भुरगीं, ताका दिसतालें – आपूण कितले कश्ट करतां पूण भुरग्यांक पोटभर जेवण घालपाक पावना, जाल्यार हाडां धांपपाक आंगभर लुगटां खंयच्यान हाडटलें? केन्ना–केन्नाय तें नेणार भुरग्यांकडेन उलोवन आपल्या

दुख्खाक वाट करून दितालें. सांगतालें, ''घरांतले भांगर विकलें आनी पाय कुवेटाक गेलो. आज म्हजें भांगर आशिल्लें जाल्यार तें गरजेक उपकारपाचें.''

''पोटाक सारखें नासून तुजीं आनी बाबाची अवतीकाय अशी जावची नासली.'' ते मेलिनाक म्हण्टालें. भुरगीं ल्हान आशिल्ल्यान आदि ताका पोब्रिनाचीं काळजांतलीं उतरां समजनासलीं. पूण मेलिनाक आतां आतां समजीकाय येताली. जुझेक हांडिर घेवन भोंवतना तें ताचीं हाडां सांसपितालें.

चिटयेच्यो जापो बरयतना पोब्रिनान घरकाराक बरयल्लें '... आमकां भांगरा नाका, दुडूय नाका. तूच बेगीन परत यो. म्हजे हांगा हाल जातात. भुरग्यांचे हाल जातात.' पूण चिटयेची जाप परत येवूं नासली.''

आज पोब्रिनाक बेगीनच जाग आयिल्ली. कारणय तशेंच आसलें. घरांतलें सगळें काम जातकच ताका दुकराच्या पेट्याक कापाज करपाचो आसलो. आनी उपरांत सदचे वरी शेतांत वचपाचें आसलें.

रांदून जातकच आनी घरांतलो वावर सोंपतकच ताणें भुरग्यांक उठयलीं. तांकां आमील खावयली. आनी फुडल्या वावराक लागलें. रातींच ताणें दुकराच्या पेट्याक घुडांत घालून दवरिल्लो. शेजारच्या कामिलाली काती ताणें हाडून दवरिल्ली. ताणें दुकरा पेट्याक घुडांतल्यान भायर काडलो. ताचे हातपांय गच्च सुमान बांदले. पेट्याच्यो बोबो, हुयेल्यो सुरू जाल्यो.

भुरग्यांकय मजा पळोवपाक मेळ्ळी. आवय पेट्याक कितें करता, तें पळोवपाक मेलिना आनी जुझे म्हऱ्यांतच उबीं रावलीं. पोब्रिनान काती घेतली आनी पेट्याच्या इंद्रियाचें पोंत कापलें. पोंत कापना फुडें रगताची शिळकांडी फुटली. भुरग्यांच्या तोंडार लेगीत रगत शिंपडलें.

मेलिना अजापान आनी गोंदळून आवय कितें करता तें पळयतालें. पेट्यान सांवार वडयल्लो. तागेल्यो बोबो, हुयेल्यो आयकून वाड्या वयलीं सगळीं दुकरां बोवाळ घालपाक लागलीं. वोंक-वोंक - करून सगळो वाडो तांणी माथ्यार घेतलो. पेटो पोब्रिनाल्या हातांतल्यान सुटून धांवपाचो निर्फळ यत्न करतालो. पूण ताणे पेट्याच्या हाता-पायांचेर आपले पांय दवरिल्ले.

पोब्रिनान पेट्याच्या पोंत कापिल्ल्य इंद्रियाक हळदीचो लेप सारयलो आनी इंद्रिय घट्ट चरांटून बांदलें. आनी ताका खोंटल्या पोदां धांपलो. अजून पेट्याची आकांताची बोब चालूच आसली. खोंटलोच घेवून तो भायर सरपाक पळयतालो.

आवय करता तें काम पळोवन गोंदळिल्या आनी भियेल्या मेलिनान आवयक

विचारलें, “मांय तुवें पेट्याक कितें केलां?”

“कापाज केला बाय.”

“ताका खूब दुखलें न्ही मांय?”

“दोनच दीस दुखतलें. मागीर थोड्या दिसानीं तो इल्लो इल्लो मोट्ठो जातलो. आंगा-पागांत मांस भरून तो गुलगुलीत लैतांव जातलो.”

“मांय, नुनुली कापल्यार मोट्ठो जाता? गुलगुलीत जाता?”

“हय बाय, आतां थोड्याच तेंपान मांसान तो गुलगुलीत भरतलो. फेस्ता दिसा ताका कापप. आमकांय खावपाक मांस मेळटलें आनी फेस्ताक मांस विकून खूब दुडू मेळटले.”

धाकटुल्या मेलिनाक आवयन पयशांची गजाल सांगिल्ली ती बी कांयच समजली ना. एकूच मतींत उरलें - नुनुली कापल्यार गुलगुलीत जाता... गुलगुलीत जाता!

पेट्याक कापाज करपाचें काम सोंपले उपरांत पोब्रिनान हात धुले. शेजारच्या कामिलीची काती फळ्यार दवरली आनी सदचेवरी जुझेक मेलिनाच्या सुवादीन करून, पेजेचो बुडकुलो घेवून तें शेतांत गेलें.

शेतांत काम करतना पोब्रिन चिंततालें. आपणें केन्नाच दुकरांच्या पेट्यांक कापाज करून तांच्या मांसाचेर दुडू केलो नासलो. पूण घरकाराच्या कुवेटाक वचपाच्या नादान ताचेर हो वेळ आयिल्लो. भुरग्यांची पोटा-पाणयाची आबाळ जाताली. मेलिनाक स्कूलाक सुध्दां धाडलें ना, कित्याक तर जुझेक कोण सांबाळटलो?

केन्ना दनपार जातली आनी पेट्याची वासपूस करतलें म्हूण तें बेगीबेगीन काम करतालें....

आवय शेतांत वतकच मेलिनाक आनी जुझेक वाड्यार भोंवपाच्या शिवाय कांयच काम नासतालें. वाड्यावेलीं मेलिनायेदीं भुरगीं शाळेंत वतालीं. पूण जुझेक सांबाळपाक कोण ना म्हणून पोब्रिनान मेलिनाक घराच दवरिल्लें. जुझेक हांडीर मारून तें वाड्यार भोंवतालें.

जुझेच्याच पिरायेचीं भुरगीं एकठ्यांय करून मेलिना तांचे वांगडा खेळटालें. पूण आयज ताचें मन खेळांत रमनासलें. सगळ्या भुरग्यां मदीं ताका जुजेच हाडकुटो दिसतालो. ते परत - परत जुझेच्या आंगार हात भोंवडायतालें. तांची वयर सरिल्लीं हाडां ताच्या हाताक लागतालीं आनी आवयच्या उतरांची ताका

याद जाताली.

"नुनुली कापल्यार गुलगुलीत जाता....मांस भरून गुलगुलीत जाता...!"

नुनुली कापल्यार गुलगुलीत जाता हींच उतरां जुझेचीं हांडां सांसपितना मेलिनाच्या कानांत आवाज करूंक लागलीं. जुझेय दुकराच्या पेट्यावरी गुलगुलीत जातलो. मागीर सगळ्या भुरग्यां मदीं जुझे सोबित दिसतलो. चिंततां-चिंततां ताणें जुझेक हांडिर उबारलो आनी नेटान तें घरा आयलें....

कापाज करून खोंटल्या मुळा धाकून घाल्ल्या दुकरा पेट्याची वासपूस करचे पासत पोब्रिन शेतांतले काम सोपोवन बेगी-बेगीन घरा आयलें. भुकेल्या भुरग्यांकय वाडपाची ताका ताकीत आशिल्ली. सडसडीत आयिल्ल्यान ताका पुरो जाल्लें. सूऽऽ करून तें पडवेरच मातशें वण्टीक तेंकलें.

मेलिना धांवत आवयच्या म्हऱ्यांत आयलें. जुझे आयलो ना आनी दिसलोय ना.

"बाय मेलिना, जुझे खंय गेलो?"

"जुझे खंय वचूं ना मांय..." मेलिनाच्या तोंडार खोस आसली. उमळशिकेन ताणें म्हळें, "मांय जाणां तूं, जुझे गुलगुलीत जावपा पसत हांवे ताका कापाज करून खोंटल्या पोदां धांपून घाला--"

पोब्रिनाच्या हड्ड्यांत कच्च जालें. "कितें केलें... कितें केलें... आवयस् म्हजे धुवे... कितें केलें तुवें?" पोब्रिन फाटल्या दारांत धांवले आनी पोब्रिनान थरथरतच खोंटलो उबाल्लो.

जुझे रगताच्या कोणांत मरून पडिल्लो. पोब्रिन हड्डें बडयत आकांतान रडटालें "धुवे म्हज्या मेलिना, तुवें कितें केलें गो म्हज्या जुझेक?... गुलगुलीत करूंक कापाज केलो गो बाय... गुलगुलीत करूंक कापाज केलो गो बाय..." मागीर आकांताच्या बोवाळान सगळो वाडो पोब्रिनाल्या घराकडेन जमलो. आनी रगताच्या कोणांत लेपडल्ल्या जुझेच्या निर्जिव कलेवराक विस्मित नदरेन पळयतच उरलो.

आवयच्या आकांतान मेलिना सामकें भियेल्लें. ताका कांयच समजूंक नासलें. तें पेट्याच्या खोंटल्याक आनी जुझेच्या खोंटल्याकडेन निर्विकार चेऱ्यान, पळयतच उरलें. मागीर धांवतच वचून ताणें जुझेक उठोवपाचो यत्न करूंक लागलें.

●●●



## रजनी अशोक भेंब्रे

कथाकार आनी बालसाहित्यकार

पत्तो :

जी, 3, अत्रेय अपार्टमेंटस्, दुर्गानंद नगर, कुडचडें – गोंय

**वेवसाय :**

कुडचड्यावेल्या सर्वोदय एज्युकेशन सोसायटीच्या हायस्कुलांत वट्ट 34 वर्सांची शिक्षणी पेशाची सेवा दिवन आपूण जावन निवृत्ती (व्ही. आर. एस.) सद्या पुराय वेळ कोंकणी सेवेक ओंपून घेतला.

**मेळिल्ले पुरस्कार :**

1. कोंकणी भाशा मंडळ गोंय संस्थेचो 'घुस्मट' कथा संग्रहाक साहित्य पुरस्कार.
2. यशदामिनी – समाज कल्याण खात्यावरवीं दिवपी गोंय राज्याचो पुरस्कार.
3. कला गौरव – कला आनी संस्कृती खात्याचो गोंय राज्याचो पुरस्कार.
4. बालसाहित्य – कोंकणी कला साहित्य केंद्राचो रामनाथ मथा पुरस्कार.
5. सांगे केपे पत्रकार संघाचो नरहरी वळवईकर स्मृति पुरस्कार.

**हेर वावर :**

- अखिल भारतीय कोंकणी परीशदेच्या 20 व्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनांत, बाल साहित्याचेर सोद निबंद.
- 'मार्ग' अभियानाची सक्रिय वांगडी.
- कोंकणीच्या भाशीक, साहित्यीक, सांस्कृतीक वावरांत वांटेकार, बायलांच्या समाजीक चळवळींनी वांटेकार जावन बायलांच्या समाजीक दर्जाक उंचाय दिवपाखातीर आनी तांच्या कलागुणांक संद दिवपाखातीर पणजी आकाशवाणी आनी पणजी दूरदर्शनावेल्यान बायलांच्या कितल्याश्याच कार्यावळींचें सादरीकरण.
- भुरग्यांची कला फुलची, फळची आनी तांकां माचयेर वावरूंक मेळचें म्हूण ल्हान ल्हान नाटकुल्यांची बरपावळ. आकाशवाणी आनी दुरदर्शनाचेर दोनशां वयर कार्यावळींचे सादरीकरण.
- कोंकणी भाशा मंडळावरवीं शणै गोंयबाब कथामाळेच्या आयोजनांत निमंत्रक म्हण क्रियाशील वांटो.
- साहित्य अकादेमी, दिल्ली संस्थेच्यो आदल्यो सल्लागार समितीच्यो वांगडी.

**पुस्तकां :**

आयजवेर 21 पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत.

राजाई प्रकाशन